कोंकणी भास प्रतिष्ठानाक
म्होंवाळ भेट
17/12/08

# उतळ जीण

(कथा संग्रह)



रामनाथ गजानन गावडे




आदिमंत्र कलारंग
मोर्ले, कुळें - गोंय

# उतळ जीण

(कथा संग्रह)

# UTALL JEEN

(Collection of Short Stories in Konkani)

by - Ramnath G. Gawade
Mollem - Goa

प्रकाशन क्र. ५

लेखक : रामनाथ गजानन गावडे



मुखचित्र :-
गज आर्टस, मोलें

मुद्रक :
काजल गोलम
प्रो. क्रियेशन्स, फोंडा - गोवा

छापणावळ :
सह्याद्री ऑफसेट सिस्टम्स
खोर्ली, तिसवाडी - गोंय

प्रकाशक :
सौ. रक्षंती रा. गा. गांवकार
आदिमंत्र कलारंग
मोलें, कुळें - गोंय ४०३ ४१०
फोन :- (०[illegible]२) २६१२३१०

पयली आवृत्ती - [illegible]०८

मोल रू. [illegible]/-



हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या साहित्य प्रभा अर्थीक पालव येवजणेखाला छापलां.



## स. अर्जुन देऊ गावडे गांवकार

- म्हजो आजो, जार्णे लांब आनी ओडलायण्यो काणयो सांगून म्हज्यांत कथा-काणयांविशी आवड निर्माण केली.

तेका सैमाच्या विंगड विंगड आंगांची बरीच जाण आसली. प्रत्येक रूख, तेची पाना - मुळां हीं वखदी आसतात. तेंचे खाशेले अशे गूण - धर्म आसतात. कसली भाजी खंयच्या दुर्येसाक बरी आनी कसलीं फुलां - फळां किद्याक बऱ्याक पडटा हें जें तो सांगतालो तें पुस्तकी गिन्यानाकडेन सारकें जुळटालें. वायटकाराची परिक्षा करून तो दुर्येस सारकें वळखतालो आनी जुस्त वखद दितालों. गोखांचो तर तो खाशेलो वैज. ज्या काळार मोर्ले सारक्या वाठारांत दोतोर लागी नासलो. त्या काळार तेज्या हात गुणांक लागून पयस - पयसल्यान आनी घाटावयल्यानूय लोक येताले. तेन्ना तो देवाचें नांव घेवन सगळ्यांक फुकट वखदां दितालो. तेजो आयजूय लोक उपकारांत रावन उगडास काडटात. तो "अर्जुनमाम" आमकां 10 मे 1985 दिसा अंतरलो. जेका निरक्षरी आसुनय कितलिशीच पदां, काणयो, श्लोक, मंत्र तोंड पाठ आसले. तेज्या पवित्र उगडासाक हो कथां झेलो अर्पण.

-- रामनाथ

# मनोगत

मनशाक घडोवपाचें आनी समाजाक सुसंस्कारीत करपाचें व्हड कार्य आयजवेर कथा- काणयांनी केलां. आनी संवसारांतली जी गिरेस्त भारतीय संस्कृती आसा ती पुराणां, रामायण, महाभारत तशेंच लोककाणयांच्या शिक्षणांतल्यान परजळत आसा. अशा देखदिण्या दायजाचे आमी साक्षिदार. जें दायज आयजमेरेन जायत्या भारतीय लेखकानी व्हडा अभिमानान नव-नव्या प्रयोगांसयत मुकार चलयलां. आमच्या कथाप्रेमी देशांत जायत्या भासांतल्यान कथा निर्मणी जायत आसता. आर्विल्ली विचार सरणी, विज्ञानीक नदर आनी समाजीक दिश्टीकोन मतींत घेवन समाज सुधारणेचो वसो साहित्यीकांनी आपल्या भुजार घेतला तें पळोवन म्हाकाय एक लेखक म्हण मुकार सरतना अभिमान दिसता. साहित्य निर्मणिंतल्यान मेळटली खोशी ही कसलेय जोडी इतलीच सुखदिणी आसता हें जायते पावटी अणभवलां म्हणुनच म्हाज्यांतलो कथाकार बरयत गेला. तेचो कस थारावपाचें काम वाचकांचेर सोपोवन हो म्हजो तिसरो कथां झेलो 'उतळ जीण' उजवाडायला. कथांतली पात्रां, घडणुको खरें कशें दिसूं येता, पुणून तीं काल्पनीक आसात.

अशें म्हणटात, लेखकांमदें साहित्यीक गूण हे मुळांतच आसचे पडटात. आसतातय बी. पुणून खेळगड्याक प्राविण्य मेळयतलो जाल्यार गुरूची जशी गरज आसता तशी आयच्या बदलतल्या काळांत म्हाज्यासारक्या लेखकाकूय मार्गदर्शकाची गरज आसता. आनी म्हाज्या वाट्याक तर जायते मानेस्त लाबले, जाणीं म्हाका सदांच उर्बा दिली, वेळा-काळार योग्य अशें मार्गदर्शन केलें आनी साहित्य विश्वांत उबो रावपाची ताकद दिली. ते ऋषितुल्य - भाई मावजो, संसारीक कीर्तीचे - पुंडलीक नायक, जेश्ठ कथाकार - महाबळेश्वर सैल, अभयकुमारबाब, बिम्ब परिवार तशेंच पुस्तक प्रकाशनाक मोलाचो आदार करपी गोवा कोंकणी अकादेमी, मुद्रक, प्रकाशक, छापपी, वाचक आनी समेस्त इश्ट-वांगड्यांक हांव काळजांतसून देव बरें करूं म्हणटां.

*रामनाथ गावडे*

## उतळजीण : रामनाथान परिपक्वतेचे दिकेन मारिल्लें पकदस्त पावल.

गोंयची गांवगिरी जीण जशी जियेता तशी बरोवपी जे खूब थोडे समर्थ कथा लेखक कोंकणींत आसात तातूत रामनाथ गावडे ह्या नांवाचो आसपाव जाता. रामनाथालो हो दुसरो कथां-झेलो. 'सावळ्यो' ह्या पयल्या संग्रहाचें खूब कवतूक जालें. हेमाड लोकांच्या जिविताचें, तांच्या चाली रितींचें, भावकेचें, अंधस्रध्देचें आनी सुखदुखवाचें जितें जिवें चित्रण पयलेच खेपे इतले प्रभावी तरेन मांडिल्लें पळोवंक मेळ्ळें. 'आशेचें हांशें' सारकी कथा रान लागीं करतल्याकच येवजुपाची. 'मुठ्य' कथा पुरोगामी विचार केळोवपी लेखकच बरोवंक शकता. ह्यो असल्यो सुंदर कथा बरोवन रामनाथान आमच्यो अपेक्षा उंचावन दवरिल्ल्यो. ताचो दुसरो झेलो बेगसार येवचो म्हूण हांवूय ताचे फाटीक लागिल्लों. आतां हो दुसरो संग्रह येवपाक चवदा वर्सां उलगलीं हाची खंत आसा. पूण ह्या चवदा वर्सांच्या काळांत रामनाथाली कथा खूब मुखार पावल्या ही खरी खोशेची गजाल.

हेमाड बारशेंच्या वाठारांतले संस्कृतायेचो आगळो दिसपी पोड ज्युस्त वळखून तो साहित्यांत गुंथप हें फकत निजाचो कलाकारच करूंक शकता. गोंयची गांवगिरी जीण झुमाट्यान बदलूंक लागल्या. बांयो वचून नळ आयल्यात. लायटीच्या बल्बांनी लापयांव आनी दिवट्यांक भायरे केल्यात. तांबड्या रस्त्यांवयल्यान धांवपी बैलांगाडयो आतां दिश्टी पडनात. फाटले जिणेचें चित्र फुडले पिळगेखातीर पिंतारून दवरप ही कलाकाराली लागणूक. रामनाथ प्रामाणिकपणान हे लागणुकेक पाळो दिता हे खातीर ताचें मनस्पुर्वेक अभिनंदन.

कंवळे पिरायेर लेखकान घेतिल्ले अणभव हें लेखकाचें खरें भांडवल. व्हड व्हडल्या लेखकांनी आपणाल्या भुरगेपणांतल्या अणभवांचेर आदारून बरयिल्लें साहित्य उच्च दर्जाचे थारलां. कोंकणींतूंय पुंडलीक नायक, महाबळेश्वर सैल हाणी आपणाल्या भुरगेपणाचेर बरयिल्लें लिखाण भोव वयल्या पावंड्याचें थारलां. रामनाथ गावडेनूय 'भिरकी' आनी 'काळू' ह्या दोन कथांतल्यान संवेदनशील भुरगेंमनाच्यो पाकळ्यो ल्हवपीक हातांनी उक्तावन दाखयल्यात. 'ते तिनशें धा रुपया' ही कथाय अशीच भोव प्रभावी जाल्या. हे अणभव लेखकाचे स्वताचे वा ताचे संवकळीचे आसूं ये. देखून तांची खरसाण काळजाक स्पर्श करता.

सवणी-सुकणीं, मोनजात आनी रुखावळ हांचेलागीं रामनाथांतलो कलाकार खूब लागशिल्लें नातें जोडून आसा. काळू बैल आनी निवेदक भुरगो हांचे मदलो संघर्श

लेखकान भोव समर्थपणान उबो केला. 'भार' कथेंत खिणाखातीर येवपी मोती सुणो आनी माजर लेगीत जिवीं जावन दोळ्यांसामकार येतात. देखुनच रामनाथाच्या कथासाहित्यांत सैमश्रीमंत गांव ठसठशीत उबे रावतात.

रामनाथ लेखक म्हूण वाडटा. नवीं क्षितिजां सोदता. गांवगिऱ्या जिविताभायलो संवसार आपणाल्या साहित्यांत चित्रावंक सोदता. 'कूड' सारके कथेंत पोटाकलागून कुडीचो धंदो करपी बायलेची आगळी वेगळी व्यथा निवेदकाचे भूमिकेंतल्यान सांगल्या. 'भार' ही कथा तर मनोरुग्णाचेर आदारिल्ली. एका पिशाचे मनोभूमिकेंत रिगून ताच्या अंतर्मनाचे पापुद्रे अळंग सोडोवपी ही एक सुंदर कथा. मोग, प्रेम, वात्सल्य हांची मनोरुग्णांक कितली गरज आसता तें भोव प्रभावी रितीन दाखयलां. गांवगिरें राजकारण कशें कूस परतिता आनी साद्या सरळ मनशांची कशी आडवणूक आनी सतवणूक जाता हें 'सरपंच' कथेंत उत्कटपणान आयलां. भौसाचो अंधस्रध्देचेर आशिल्लो भावार्थ वळखून ह्या भावार्थाचो आपणांक जाय तसो फायदो करून घेवपी प्रवृतीचेर आदारून बरयिल्ली 'पिसावल्लो रूख' ही कथाय खूब प्रभावी जाल्या.

'उतळ जीण' संग्रहांतली उत्कट आनी उत्कृष्ट कथा म्हळ्यार 'उतळ'. निवेदकाचे भूमिकेंतल्यान गांवांत उदरगतीच्या नांवाखाला घडून येवपी बदल आनी संवेदनशीळ तरनाट्याचो किंवाटो खुबच उत्कटतायेन दाखयला. हे कथेंत लेखकान कल्पनाविलासाचो बेस बरो वापर करून घेतला.

रामनाथ आतां परिपक्वतेचे दिकेत चलूंक लागला. सर्जनशीळ साहित्यकार म्हूण जिणेकडेन तटस्थतायेन पळयतना नवे नवे सत्याविष्कार ताका घडूंक लागल्या. सामान्य मनशाची सुखाची संकल्पना कशी आसता. एके बायलमनशेक घोव–भुरगीं–संवसारांतली थीरताय हेंच सूख दिसता हें 'सूख' हे कथेंत विस्कटावन सांगतना सूख हें पारजावरी हातांत धरता म्हणसर सुट्टा. हाचो दिश्टावो रामनाथ वाचकाक करून दिता. दिशीं दिशीं जिणेचे रंग बदलूंक लागल्यात. लोकांच्या सपनांचेय रंग बदलूक लागल्यात. हे रंग वापरून पात्रां आनी प्रसंग चित्रावपाची कुशळताय रामनाथाकडेन आसा. ताची भासूय जिवी तट्टीत. आतां बेगीन ताचेकडल्यान कादंबरी बरोवन जावची ही अपेक्षा.

कोंकणी कथेच्या फुडाराचो हुसको पयसावपी 'उतळ जीण' हो सुंदर कथां झेलो कोंकणी सरस्पतेक ओंपिल्लेखातीर रामनाथाक काळजाथावन परबीं.

***दामोदर मावजो***

# पूर्वप्रसिध्दी

| | |
|---|---|
| उतळ | (जाग - दिवाळी - २००३) |
| ते तिनशें धा रुपया | (बिम्ब - डिसेंबर - २००४) |
| भार | (बिम्ब - जून - २००६) |
| पिसावल्लो रूख | (कोंकणी - दिवाळी - १९९५) |
| कूड | (बिम्ब - दिवाळी - २००६) |
| सरपंच | (बिम्ब - फेब्रुवारी - २००७) |
| गुंज | (बिम्ब - फेब्रुवारी - २००५) |
| सूख | (बिम्ब - जून - २००५) |
| भिरकी | (बिम्ब - जुलय - २००६) |
| काळू | (कोंकणी - दिवाळी - २००४) |
| मुरवत | (बिम्ब - एप्रिल - २००५) |
| गांठ | (बिम्ब - ऑगष्ट - २००६) |
| साणीचो देव | (सुनापरान्त -१८ जून २००६) |

# मांडावळ



*************




# १

# उतळ

" बाबू , देंवचाराक रोट घालपाचें उल्लां. बाबाच्यान काय भोवपाक जायना. फाल्यां आयतार आसा. शिंगेरी वयता मरे ? "

" आगे, शिंगेरी सोडल्यार सात - आठ वर्सां तरी जाली. मागीर आमकां थंयचें देवस्पण किद्याक लागता ? "

" वर्सावळीचे कार्य चुकता ? ..... मीर्गापयली पावोवपाक जाय. नाल्ल, सोरो बी कुशीक काडून दवरला हायें. सकाळी बेगिनूच न्हांव आनी भायर सर. थंय कोणय गांवकार मेळटलो."

" आगे, ती देवस्पणा बी आतां मातशी उणीं करपाक जाय. इतलीं वर्सां बाबान 'देव देव ' करून किदें मेळयलें ? काय बरो आमचो शिंगेरी गांव आसलो. तो वाटोवपाक किदें केलें देवान ? आपल्या देवळा सकट शेताभाटाचीय तो राखण करपाक शकलो ना. आमकां मात कयर कसो व्हाऱ्यार शेवटिले ....."

अचकीत तिडक उमळल्लेवरी तो उलयता तें पळोवन ती, " तुका जाय तें कर ...." अशें म्हणत कुशीक सरली.

हरशी शिंगेरी वाड्याचें नांव घेयनाबराबर म्हाका थंय वचनशे दिसपाक लागलेलें. एक खेरिदूच उमेद जागी जाताली. पुणून आवयक वगीच किदेंतरी शाणेपणां सांगची ह्या

हेतान आपशींच तोंडार उतरां येयल्ली.

शिंगेरी म्हणजे सैमाच्या पांचव्याच खळ्यांतलें परमळीत फूल. त्या परमळांत मनशावांगडा गोरवा – वासरां आनी हेर जीव जात उमेदीन वाकुळटाली. पुणून अचकीत खंयच्या कोणा मिनेराक त्या वाड्यापोंदा आसलेल्या भांगराचो सोद लागलो. मागीर तो वाडोच विकतो घेतलो आनी वाडेकारांक हुमटावन कऱ्या तळपार शिमेभायर भिरकायले. ज्या जाग्यार मनीस जीण नासली, लाकूड – बडी, उदक – सावळी कांयच नासलें. फकत आसलीं माळयांची थडीं.

देवस्पणाच्या हुस्क्यान न्हू तर, खूब दिसांनी शिंगेरी वचपाक मेळटा, ल्हानपणांतल्यो म्हाका व्हड करपी गजाली दिसतल्यो, ते खुशालभरीत जिणेची तेक परमळीत करतली, हे आशेन जेवन न्हिदलो. बरीच रात जाली. तरी दोळो लागना जालो. हरशी सक्काळी उठपाक जाय आसलें. पुणून न्हिदलेल्यो यादी परत परत जाग्यो जावपाक लागल्यो. म्हाका तळमळोवपाक लागल्यों. ते तळमळीनूच म्हाका घामाघूम केलो. बंद कुडिंतलो पंखो वगीच घुंवतालो, आंगाक शितळकाय दिनासलो वयल्यान गरमी मात वाडयतालो.

सगळी दारां उक्ती करून गॅलरींत येयलो. वारें व्हावतालें, पुणून घाणयारें. आडेकडेची हळशीक जीण तेका निवळ रावपाकूच दिनासली. मागीर त्या वाऱ्याचो तरी किदें गुन्यांव ? व्हांवत्या उदकावरी तेकाय आपलेवांगडा येतल्याक व्हरचें पडटालें. आनी जळारी तर आंग उक्तेंच दवरपाक दिनासल्यो. एकेवटेन कपड्यानी कुसतलो घाम वीट हाडटालो आनी दुसरेवटेन शिंगेरी रंगयल्ली सपना दोळ्यांमुकार नाचताली.

अशी गरमी जाली म्हणटकच आमी तळयेर वचून बरे उडयो मारताले. जीव सामको थंड थंड जातालो. गिमांत रातचे खळ्यांत उक्तेच न्हिदताले. तेन्ना सकाळ केन्ना जाताली तेंच कळनासलें. आतां त्या तळ्याची, खळ्याची, झरीची, व्हाळाची किदें गत जाल्या काय ? काय त्या शेतावांगडा सगळेंच मातयेंत पुरवलें. दोन दोंगुल्ल्यांमदल्यान कितलेशाच बांदांक हुपत वचपी तो व्हाळ, व्हाळाकुशिनची अशीर शेतवड, शेताक तेकून दोशींवटानी माड –माडयांची वळ, तेकुनूच काजी, अदी – मदी आंबे –पणस, हें सगळें शिंगफातऱ्या दोंगराच्या माथ्यावयल्यान पळयतकीर एक पांचवेंच सपन सर्गांतल्यान अणभवल्यावरी दोळ्यांक सूख लाबतालें.

ल्हानूच वाडो. धा – बारा अयस – पयसशी कुळवाड्यांची घरा आनी दोन कुशिकशे धनगरांचे गवळ. मदींचशी एक देवळी. ना कसली झगडी ना कसल्यो भानगडी.

सगले कशे झरीच्या उदकावरी सद्भावार्थान चलताले. शेवण्यांचे सूर लिपयत गोरवां - वासरांचे हांबप आनी सुण्या - माजरांचो आवाज खेरिदूच आभास निर्माण करतालो. त्या आवाजांत तो वाडो बाकिच्या संवसरापासून खंयतरी शेणलेल्यावरी आसतालो. पुणून आतां थंय कांयच ना. कोणेतरी रातोरात येवचें आनी सगळें लुटून व्हरचें तेवरी जालां. आतां थंय कुळवाड्याच्या जोताचो नाद आनी गवळ्यामामाच्या कुकाऱ्याचो साद घुमचेना, त्यो हाळी, ते उले आतां देंगणानी आपटून परतचेना, माकडाचे हुपेन आनी कोगळाचे जापेन ती झाडां आतां शिरशिरचेना. आतां फकत घुमतलो ट्रकांचो आनी शेवाळ्यांचो घरघर. तांबडे - काळे मातयेच्या पोटांत फुटपी मळबाक हालोवपी सुरींग आनी हुबतले धव्या कुपांक लाशें लावपी तांबड्या धुल्लाचे लोट ....

चिंतप वाडटा तशें वगीच अस्वस्थशें दिसपाक लागलें. वाडो उटोवचो न्हू म्हण केल्ल्यो खटपटी आनी फाटल्यान शेता-भाटाचे चडावत पयशे मेळोवपाक केल्ल्यो राटावळी येवजतकच तर मन खुबूच खंती जावपाक लागलें. रात सोपत येयल्ली तरीय झेमेची जाग नासली. तकली मात जड जाल्लेवरी दिसताली. दोळ्यांसामकार तरेतरेच्यो आकृत्यो नाचताल्यो, आनी म्हाकाय वयल्यावयर नाचयताल्यो ...

आवयन हालयनाफुडें हांव उठलो, केन्नाच आठ जाल्ली. बेगिबेगीन भायर सरलो, स्कुटर काडली आनी पिशवी घेवन वाटेक लागलो. लागी पावतां पावतां रातीं उसवल्ली यादिंची गाथन परत वाडवली -

त्या दिसानी वाड्यार देवळी बांदपाची तयारी चलताली. एका व्हडल्या कळमाच्या झाडाक पेडशें बांदलेलें आसलें. त्या पेडार एक रोयणशी आसली. मुळांत मूर्त्यो दवरिल्लेवरी फातर मांडून थेयल्ले. थोडे रोयणींत आसले. एक मात लिंगकसो वाटकुळोच फातर झाडाच्या पाळांनी घट धरलेलेवरी आसलो. लोक चडकरून गंध-फूल त्याच फातराक लायताले. तेकाच भोमका म्हणटाले. ते सुवातेक भोमकेकडेन म्हणटाले. सगळ्यांचे तें विस्वासाचे आनी जागृत देवस्पण आसलें. कसलेय सणा-परबेक थंय पान दाखयलेबगर कोणूच जेविनासलें. सगळ्यांचो भावार्थ त्या झाडा मुळांत अर्थांत भोमकेच्या पायांकडेन आसलो. म्हणुनच एका उतरान आनी एका मतान भोमकेचें देऊळ बांदपाचें थारलें. पुणून जाय तशे दुडू-सामान जमना जाले. कोण कोण हें दितलो. तें करतलो अशें म्हणटाले. तेंवूय कांय उलयना जाले. मागीर देऊळ उबें जातलें कशें ? तेन्ना मांडार जमलेले कडेन एकटो उलयलो,

" किदें करपाचें तें हांव सांगता ! "

" आरे देडशाण्या, आयज मेरेन तुवेंन जें किदें सांगला, तें कोणाक तरी पटलां व्हय ? "

" तरीय आयका, देऊळ जातालें जाल्यार हांव सांगता तशेंच करचें पडटलें."

" तुज्या बोडकुलाचेर तुजो जर इतलो भरवंसो आसा जाल्यार पेटय मरे तर दिवली. पळोवया कितलो उजवाड पडटा तो. "

" अंदू जें जें कोणांचे पीक येतलें, तितुतलें अर्दे देवळाक दिवपाचें. तें मागीर कसलेंय आसूं, काजी, नाल्ल, भात, किदेंय आसूं, जें किदें पिकता तें. "

हें तेजें उलोवणे आयकून सगळ्यांनीच हांसून हांसून मांड माथ्यार घेतलो. तेन्ना तो मात खोटू जावन वगीच पडलो.

" आरे शाण्या, तूं अशें किद्याक सांगना, सगल्यानी दिसाक एकूच जेवण जेवपाचें आनी उल्लेलें देवळाक दिवपाचें. मागीर आपशींच भोमकेचें देऊळ उबें रावतलें. "परत सगळे हासतात.

थंयच कुशिकसो एक जाण्टेलो आपल्याच विचारानी घुस्पल्लो. तो तिडकलो, " खी . खी. करून खेती कशी किदें हांसता. ! तो सांगता तीं किदें फकणां दिसली ? देवळी जातली जाल्यार अशेंच किदेतरी करचें पडटलें. देवाच्या नांवान जेका जें किदें दिवपाचें आसा तें दिया. हांये आमच्यो अंदुच्यो दोन साक काजी भोमकेच्या पांयांर ओतल्यो. "

तेजी ही सणसणीत उतरां कानार पडटकच सगळेच ओगी पडले. उपरांत त्या देडशाण्यान सांगलेल्या उपायावयल्यानूच सगल्यांनी आपले पिकेंतलो पाव वाटो देवतेक दिवपाचें थारायलें. जालें. पयशाक पयसो जमलो. भोमकेचे सुवातेर सामान येयलें. कोणेनूच फटिंगपणां करुना. सद्भार्थान भोमकेक ओपलें. पलतडच्या गवळ्यांक हरशी तें देवस्पण लागनासलें. तरी तेंच्यानीय सुमार एका एका बोकड्याचे पयशे पावयलें. पुणून देऊळ उबारपाक एक आडमेळें येतालें, कळमामुळांतलें देवस्पण हालोवपाक कसोच प्रसाद जायनासलो. निमाणे भिमा गावकाराची तकली चल्ली. बरें कडक गाराणें घातले आनी तें कळमाचें मरकुटें खोड हाणून तेच सुवातेर देऊळ बांदचें हे मागणेन प्रसाद लायलो. तेन्ना मागतल्या उतरा उतराक कळी झडली. मागीर रोखडीच बारिकूच गोमटिशी देवळी उबी जाली. सगळ्या वाड्यावयल्या लोकांचे उमेदीक शीम-मेर उरलिना. मेकळ्यान वा तिनसांजचे मुद्दाम येवन देवळेंत जाग करपाक लागले. चाड-चकाटा मारपाक लागले.

ती देवळी गांवच्या अभिमानाचे भुशण जाल्लें.

पुणून अवचीत गांवची उदरगत कोणाच्या तरी दोळ्यांक किसर जावन तोपली. मागीर वाड्यावांगडा देवळाचेरूय हावळ येयली. देवतेच्या पायांकडेन जे उत्सव मनोवपाची सपनां रंगयल्लीं ती दुकां जावन दोळ्यांतल्यान व्हांवली. सामकार काळी काळी कुपांच उसळपाक लागली ...

चिंतनाचें चक्र नेटान घुवंतालें. पुणून हातिंतली स्कुटर मात धडपडटाली. अचकीत मुकारल्यान एक टिप्पर चुकिचे दिकेन येवपाक लागली. ''आरे आरे, हें किदें करता !...'' म्हणटा आसतनाच म्हाज्या आंगार येयली. खिणभर किदें करचें कांयच कळना जालें. हांव सामको काचाबूल जाल्लो. स्कुटर चरांत धांवताली. तिका कशेतरेन आडायली तेंच म्हाका कळ्ळें ना.

टिप्पर कट मारून बरीच मुकार पावल्ली. रागान म्हाज्या तोंडातल्यान आपशींच उतरां भायर फुट्टाली. पुणून कांयच करूंक शकनासलो. ते टिप्परिचो 'किलिंडर' मात फाटल्यान पळयत 'खी खी' करून हासतालो. सगळें मोन्याची सोसलें आनी आंगार पडलेली माती फाफडिली. म्हणलें, जीव वाटावलो हेच चड जालें.

हेवटेन तेवटेन पळयलें. सामको लागी पावल्लो. सगलो वळखिचो वाठार. केन्नाच त्या सोबीत वाठारान आपलें रूप बदल्लेलें. खणींतल्या मानायावरी सैमानूय तसलेंच आंगलें चडयल्लेवरी दिसतालें. वळखिच्या गांवांत पावुनय परकेपणशें भासतालें. हांव शेजाराच्या नागेरी गांवांत पावल्लो. त्या गांवानय आपले रंग-रूप बदल्लेलें. घरांय बरीच फुगलेली. गाडेय सुबेज जाल्ले. पुणून नितळसाण मात खंयच दिसनासली.. सगळ्याक धुल्लाचें राज्य- खिणभर म्हाका खंयतरी पयस घाटार पावल्ल्याभाशेन दिसलें.

हरशीं हांवूय गांवकार, हांव रोट घालून नाल्ल फोडूक शकतालो. पुणून वगीच खाकुडलेल्याभाशेन जावपाक लागलें. तशी म्हाका मधूची याद जाली. तो नागेरीच रावतालो. तेका सोदून काडलो आनी हांव किद्याक येयला तें सांगलें. तेन्ना तेणेन म्हाजी खूब फकाणां केली. हांसत हांसत म्हजें शिक्षण आनी शारांतलें जिवीत सामकें किंकोत करून उडयलें. हांव किदें समजुपाचें तें समजलो आनी वगीच रावलो. तेका शाणेपणां सांगून कांयच उपेग नासलो. हांव रावला तें पळोवन तो ब-या वगतान भायर सरलो. हरशी म्हाकाय कोणतरी वांगड जाय आसलो. जिवाक बरें दिसलें. भुरगेपणांत नाचलेल्या, किरयल्ल्या शिंगफात-यांत खूब दिसानी वचपाक मेळटा. थंयची सोबितकाय दोळे भरून पळोवपाक मेळटली हें येवजुनच जीव धादोस जाल्लो...

आमच्या घरा फाटलेवटेन एक बारिकशी दोंगुल्ली आसली. ते दोंगुल्लेच्या चडावणार जायतीं व्हडली खोडांकशी झाडा असली आनी वयर तळार कितलिशींच तळपां. आडवीं उबीं शेवटून पडलेलेवरी. आमी थंय गोरवां राखपाच्या निमतान मुद्दाम वचून लिपच्यानी खेळटाले. खूब मजा येताली. कुशिकूच एक राखण्यांचो देव आसलो. गोरवां – पाडव्याक थंय उपार शिजयताले. कुशिच्या चारूय वाड्यावयले राखणे, भुरगे, गांवकार जमून देवस्पण करून उमेदीन रांदून जेवताले. हांव तर बारीक आसताना ते परबेची उमळशिकेन वाट पळयतालो. सगळे लोक तें एक जागृत देवस्थान कशे मानताले. पुणून म्हाका याद जाताली ती हुनहुनीत गोडशाची. थंयच्याच एका व्हडल्या तळपार कोणेतरी चित्रां कोरायल्ल्यावरी दिसतालें. एक तर सारकें बैलाचेंच कशें. तेका शिंगा मात तीन आसली. देवस्पणावगतार गंध – फूल घालपाचें जाल्यार त्याच फातरार घालताले. लागीच दावेवटेनच्या पालसणार देंवचाराचो जागो आसलो. थंयच तेका रोट घालताले. ते सुवातेर मात खेत्र करपाक मेळनासलें. म्हणून कोंबे बी मारपाचे जाल्यार शिमेकडेन मारताले. तेन्ना किदें करताले तितलेंय दोळ्यांसामकार येवपाक लागलें...

हांव म्हाज्याच यादिनी घुस्पल्लो. इतल्यान मधू गांवकारान फाटीर हात मारून स्कुटर थांबोवपाक लायली,

"आरे. राव राव. हेवटेन खंय वयता ? मुकार रस्तो ना ."

"मागीर आमी शिंगफातऱ्यान कशें वचपाचें तर ?"

"आतां देंवचाराक रोट, कोंबो शिमे पालसणाकडेनूच दिता. सगलें लागच्या लागी जालां."

"किद्याक ?"

"तें सगलें तोरूं कंपनीक पडलां न्हू. थंय कांयच करपाक दिना. पांय थेयल्यारूच घुरके धावोन येता."

"बेश्टेच वचून तरी येवया."

"कांयच उपेग ना. तेवटेन सगल्याक रिजॅक्शन ओतलां. तीं देवाची तळपांय आतां खंय दिसना."

"आनी राखण्यांचो देव ?"

"कंपनीन देऊळ बांदून दिता म्हणोन सांगलां."

"भोमकेचे देवळेची किंमत तेंच्यानी पयशानी केली. हें आनी आतां देऊळ

बांदून तितले म्हणटा तूं ? सगळी फकाणां."

"आरे, मनिसपणांमुकार आतां लोक फकत पयशांक वळखतात. थंय देव खंयचो?"

"त्याच खातीर म्हाका हांगा पांय दवरीन दिसना. वगीच आमी इतले पयस वचून रावुना ?"

"तेंच एक तुमी बरें केलें. आमी हांगा धुल्ल खावन खावन मरपाचे आसा ..."

तशें म्हाका ह्याच विशयाचेर तेजेकडेन जायतें उलोवपाचें आसलें. एके एके गजालिचो रागय येतालो. पुणून उलोवन कांयच फायदो नासलो. लागीच एके सुवातेर रोट घातलें. आनी आतां गांव कितलो सुदारला तेंय अणभवलें.

सो-याचें नांवूय घेयनासलेलो मधू रोटाक घालून उरलेलो सोरो कुट्ट करून पियेलो आनी तोंड वाकडें करीत म्हाका हासलो, " ना जिवाक आतां त्रास सोसना, म्हणोन मातशें घेवचें पडटा." जणू काय तो सामको हुस्क्या मेकळो जावन उलयतालो.

हांवेन कांयच जाप दिली ना. एकाच पोल्यान हासत तकली घुंवडायली. तेन्ना म्हाका म्हाजिशी एक गजाल दिसली. उमेदीन आपशींच मन फुल्लें. खिणभर म्हाजी शेणलेली खोशी म्हाका परत मेळेल्यावरी जालें. त्या तांबड्या राशिंच्या फाटल्यान सुळ्या दोंगराची तेंगशी दिसली. दोंगर पयस आसूं, पुणून यादिंच्या कुरकुटांतली एक कुरू नदरेक पडटकीर सैमाच्या शितळकायेचें एक ल्हार अळंग आंगाक घश्टोन गेलें.

त्या सुळ्या दोंगरार हांव केन्ना पावुना. माथ्यार खंय एक पांडवांची तळी आसा. पुणून तो दोंगर पयसुल्ल्यान पळोवपाक बरो दिसता. उब्बो. शिंगफात-यावयल्यान पळयतना तर मज्जा येताली. मळबांतल्यान धांवतली कुपां तेका तेक्कून वयता कशी दिसं. भुरगेपणांत हांव जायते फावट चित्तालो, एकदां तरी थंय वचून किदें आसा तें पळयतलो. पुणून योगूच येयलो ना. त्या दोंगरार घुवोन वच्चें पडटा. आमचेवाटेतल्यान वचपाक मेळनासलें. व्हडली कड कशी लागताली.

हांव तसोच मातसो मुकार सरलो आनी मेकळे सुवाते वयल्यान दोंगर सारको नियाळपाक लागलो. त्या दोंगरार मीर्ग नव्या रुपान फुलतालो. झाडांक फुटलेल्यो तांबश्यो, धवश्यो, पांचव्यो कोंब-यो कपयाळ्याच्या रुपान दिसताल्यो. आनी पावसाची सुलूस घेवन धांवतलो वारो आंग शिरशिरायतालो. तेन्ना ते सगले खीण दोळ्यांत भरले आनी दोळे धापून ती उमेद अणभवली.

गांवकारान उलो मारून तंद्री भंगयली. तेका ताकतीक आसली. तेका घराकडेन

पावयलो. पुणून स्कुटर घरची वाट कशीच धरिना जाली. तसोच परतलो आनी शेणलेल्यो यादी परत सोदपाक लागलो. धुल्ल माड्डीत माड्डीत एका तोवरावशी वयतालो. इतल्यान कोणतरी आडवाटेन येतना दिसलो, तो म्हाका बारीक नियाळीत म्हणपाक लागलो, "पात्रांव, हेवटेन किदें सोदता ?"

"किदें सोदतलो... यादी सोदतां."

"किदें गाडी ! ह्या दोंगरार ?... सकयल चल रस्त्यार."

भेड्डो दिसता अशें चितून हांव वचपाक लागलो. पुणून तो म्हाका पळयतूच आसलो. घडये तेणेन म्हाका वळखल्लो.

"आरे, तूं गोविंद न्हू रे. हांगा खंय तर ! आं ऽ वखद बी सोदपाक येयला दिसता – खरेंच आं. तुज्या आजाच्या हातगुणाच्यो गजाली मात लोक आजुनय करता. सोद बाबा सोद, तुजो झाड पालो सोद. ह्या दोंगरानी तरेकी झाडां आसा. पुणून ह्या धुल्लान रंगल्ल्या रुखावळींत तूं जाय तें झाड वळखतलो मरे ?" अशे म्हणत तो चलत रावलो. कोण काय तो ? आंग सगलें तांबशें – निळशें जाल्ल्यान हांव तेका वळखलोना. पुणून एकाच उतरान तेणेन म्हाज्यो वखदी यादी ताज्यो केल्यो...

आयतार – बुधवार कोण ना कोण आमगेर वखदाक येतालेच. तें मागीर मनशाक आसं वा गोरवांक. येतना किदेंयतरी हाडटाले. एकएकलो खावपाकूय घेवन येतालो. आजो कडाशाक वळीन पाळा लावन दवरतालो. तीच तेंका दितालो. केन्नाय म्हाका फाटल्यान आपोवन अमक्याच झाडाचो पालो वा पाळ हाडपाक संगतालो. म्हाका खावपाक मेळटलें हे आशेन हांव उमेदीन धांवतालो. एकदां किदें जालें, जाय तें पाळ मेळना जालें, तेन्ना हांवें दुसरेंच पाळ हाडलें. आज्यान तें रोखडेंच वळखलें आनी शेवटून आपूण हाडपाक गेलो. पुणून तेजे उपरांत तेणेन म्हाका केन्नाच कसलें वखद हाडपाक धाडलो ना. किद्याक, तें मात आजुनय कळना. हरशी तो म्हाकाच चड बरो करतालो. रातचो तर हांव तेजेच कडेन न्हिदतालो. तो बऱ्यो बऱ्यो काणयो सांगतालो. त्याच वाठारांत केन्ना तरी घडलेल्यो कशो. काणयांतलीं ती सावदां आमच्या शिंगफातऱ्यान रावता कशी दिसं.

हांव फाटल्या यादिनी घुस्पत इल्लो इल्लो वाड्यावयल्या तेन्नाच्या घरांत पावलो. पडवेवयले मातयेंत पुरलेलें लाकडाचें वायन, पारेतीक तेकयल्लें दातें . दाट फळ्याचो हालतलो बांक, बावग्या कोंड्याची दाणीं, खळ्यांतली बरी पेट्टून केल्ली तुळस, तुळशिंतलो उस, चवथीक काडलेली वण्टीवयली चित्रां, दारावयली पांयजेलां आनी परकी कोणय

येतकीर माथ्याक आदळपी पडवेचें आडें... माजरावांगडा वाकुळपी सुणो, चुलिकडेन बसलेली आवय, पाड्याच्यो किट्ट्यो काडपी बाबा, कविता पाठ करपी भयण आनी दादागिरी करपी हांव. भोमकेकडेन खेळपी भुरगे, ती झगडी... सगलेच आतां जिवें जाल्लें आनी हांव तें प्रत्यक्षपणान अणभवतालो ...

इतल्यान वेदोळचो तो मानाय परतो येयलो आनी फाटल्या यादिंतल्यान म्हाका ओडून काडलो.

" आरे, वखद आजून गावोना ? हायें सांगोनासलें, ह्या धुल्लान झाड - पान वळखुवप कुस्तार. सगलेंच जालां तांबडे मळब!"

" हांव वखद सोदिनासलो आमचें घर खंयशे आसलें तें पळयतालो."

" किदें, घर सोदता ?" अशें म्हणत तो व्हडल्यान हांसलो. हांसतां हांसतां खोकपाक लागलो. खाक् करुन काळेंच थुकलो आनी म्हणपाक लागलो, " घर दाखोवपाक जाय मरे. यो, ह ऽ थंय वयर या, " आनी चलत रावलो.

मातयेचे एके उबार राशीर पावतकीर तेणेन म्हाका आमच्या वाड्याची सुवात दाखयली. आनी आमचें घर खंय आसलें तेजो अदमास काडीत आपली बोटां वा-यावयले एके अधांतरी सुवातेक तोपून धरली आनी घर दाखयलें. पुणून आतां थंय वाडोय नासलो आनी सडोय नासलो. हांवेन केन्ना कल्पनाच करूं नासली इतली रूंद आनी खोल खण आसली. थराथरांची कितलिशींच सोपणांकशी तळामेरेन देवल्ली. आनी सकयल तळाक मुयो खेळेल्यावरी टिप्परी - शेवाळी घुंवताली. ते राशीर रावन इतलें खोल पळोवपाकूय जायना जालें. तकली भिरभिरपाक लागली. पांयांपोंदची माती कोसळून हांव निसरतलो आनी ते खणीच्या विशाळ ताळ्यांत पडटलो अशें वगीच दिसपाक लागलें.

एके वाटेन फोफेतलें वारें भेसडायतालें. तें म्हाका त्या खोलांत धुकलता काय दिसं. धीर सुट्टालो. तकलेक धरून, दोळे धापून थंयच बसलो...

दोळ्यां सामकार तश्शें घर येयलें... तो वाठार, फाटलो खळें कसो सडो, फुडली शिंगफात-या दोंगुल्ली. जिका पळोवन हांव केन्नाय चित्तालो, एक वेळ सर्गिचो मारुती येवन ती दोंगुल्ली हालयत, पुणून आमी खेळटलो तो सडो तेज्यान कसोच हालोवपाक जावचोना. पुणून आतां थंय किदें आसा. खोल - खोल. रुंद - रुंद, गोल - गोल एक व्हड दर्या कसो पोकोळ दोबरो.

मातशेशे दोळे उगडले. पुणून घर फाट सोडिना जालें. परत परत दोळ्यांसामकार नाचपाक लागलें. तेन्ना त्या दोब-याच्या माथ्यार, जंय आमचो वाडो आसलो थंय घर हवेंत हुबयत नाचयलें. पुणून अचकींत विचित्र असो देखाव मुकार पळोवन म्हाका शेळो घाम फुटलो, शेजारची सगळी घरां थंय जमलेली. तें देऊळ, तो मांड, काजी, पणस, शेतां, गोरवां, फुलां, झाडां सगळी म्हाका हांसपाक लागली. रेड्या - पाड्यांची कोगळी, सुण्या - कुकडांचे साद - नाद , कुकारे - हाळी घुमपाक लागले. ते घुमेत यादिंची कितलिशींच भुतां जावन म्हाजे भोवतणी फुगडी घालपाक लागली ...

तें पळोवन कानसुलां शिण्ण जाली. हांसतें खेळटें तें वाड्यावयलें जिवीत खणीच्या माथ्यार, उतळ जाग्यार रावन म्हाका आव्हान दिवपाक लागलें. कुरवाकुरवांनी म्हाका सपना दाखयत इल्लें इल्लें आपणावशी ओडपाक लागलें. तेन्ना हांव आपशींच ओडत वचपाक लागलो. पुणून अवचीत खणीच्या माथ्यार अर्दकाक फारवोन उरलो. हालपाकूय जायना जालें. आवाजूय फुटना जालो. फारवल्लो जीव उतळ जाग्यार, खणीच्या माथ्यार मात मात अरंदतालो....

# २
# ते तिनशें धा रुपया

वर्साची निमणी परिक्षा सोपली म्हणटकीर वाड्यावयले चडशे भुरगे कामां सोदताले. कारण फुडल्या वर्साची तयारी करपाची आसताली. पुस्तकांक, कपड्यांक पयशे करपाक मेळत तें काम सोदताले. हांवेनूय आठवेची परिक्षा दिल्ली. आनी म्हाकाय पयशे करपाची उमेद जाल्ली. तशी हांव जायती कामां करतालो. पुणून दिसवड्याक वचून केन्ना पयशे जोडूं नासले. वांगडचे भुरगे पोरूं आपणे इतले पयशे जोडले, हें हाडलें, तें घेतले अशें उलयताले. तें परतें परतें म्हाज्या कांनांचेर आपटतालें.

असोच हांव दनपारचोसो बांयचें उदक काडून म्हसरांक लायतालो. इतल्यान म्हाका उलो मारीत शिवा धांवत येयलो. " किदें जालां रे " म्हणल्यार कांयच सांगना जालो. घडये बांयकडेन कपडे हुमळपी तीं बायलां आयकत म्हणून तो सांगनासलो जावंये. म्हसरांक आमुडली आनी तेका कुशीक व्हेलो, " किदें रे, किद्याक धांपेता ?"

" फालेंच्यान कामाक वचपाक जाय. "

" काम मेळ्ळे ? खंय ? " हांवेन आशेन विचारलें

" खाडेगाळीन एकट्याचो दुरीग बांदपाचो आसा खंय. पलतडच्या पंढरीमुकादमान तें काम खंडीत घेतला. हांव तेका आत्ताच मेळोन येयला. आमकां कामाक आपयल्या. सकाळी भुतयो घेवन खाडेगाळीन वचपाक जाय."

" बरें बरें, सकाळीं भुती घेवन हांव तुज्या घराकडेन येता."

" नाका, नाका, समतो पंढरील्या घराकडेन चल. तेज्याच वांगडा मागीर आमी वचपाचें."

" बरें, बरें " म्हणत हांव वळ्ळो. तेन्ना तीं कपडे हुमळपी बायलां हातिनूच कपडे धरून किदें जालां काय म्हण आमकांच पळयताली. हांव परततकच "किदें रे, खंय किदें घडलां?" अशें म्हाका विचारलें. पुणून " हें ऽ कांय ना " अशें आडयाळें उतर दिवन हांव घरावशी गेलो.

केन्ना एकदां रात सोपून उजवाडटा अशें म्हाका जाल्लें.

कामाच्या हुसक्यान झेमय सारकी पडलिना. फात्तोडेर उठून आवयक जागयली, आनी भुतयेची याद करून दिली. तशी ती जागीच आसली. उठून कामक लागली. एके चुलीर शीत शिजतालें आनी दुसरे चुलीर भाकऱ्यो. तशी शीं खायनासली तरीय हांव धगाक बसलेलो. आवय म्हाका हाती – पायांकडेन, कामाविशी... किदें किदें सांगताली. तें हांव कानामनार घेयनासतना ' हूं हूं ' करून आयकतालो आनी हूनहून भाकऱ्यो खातालो.

एकदाची भूती तयार जाली. आवयन उबाळ शितार रातची कडी तापोवन घातली. आनी भाजलेलें एक खारें डब्याचे कडेक रोमलें. तसो तो घमघमीत वास आतकोड्यामेरेन पावलो. पोट एके खेरीद धादोसकायेन भरलेल्यावरी जालें.

तसोच हांव भुती घेवन मातसो धांवल्ल्यावरी करीत पंढरी मुकादमाल्या घराकडेन पावलो. पळय जाल्यार कोण्ण येवनासलो. मुकादम सिगार फुस्कायत खुर्चेर बसलेलो. तेजी बायल खळें झाडटाली. म्हाका पळोवन तो मातसोसो हांसलो, "या मरे, बाकिचे खंय पावले रे?"

हांव हांसलेल्यावरी करून वगीच रावलो.

"यो बस." तेजो तो घोगरो आवाज म्हाज्या कानांनी घुमलो. हांव थंयच माटवाचे म्हेडीक डबो हुमकळावन खळ्याचे पेळेर बसलो.

करतां करतां एकएकलो येवपाक लागले. शिवा आनी कृष्णाय येयले. मुकादम पयलींच तयार आसलो. कामेरी बी येयल्यां तें पळोवन आनी जायते मानाय जमल्याशे दिसतकच 'या' म्हणून चलूक लागलो. मागीर मास्तराफाटल्यान भुरगीं चलची तशे आमी तेज्या फाटल्यान चलपाक लागले. चलता, चलता रोखडेच दुरीग बांदपाचे सुवातेर पावले.

आमच्या पयलीं दोगजण येवन थंय पयलींच बसलेले. म्हाका, शिवाक आनी कृष्णाक पळोवन एकटो जिवाचो मोठोसो आसलो तो, विडयेचो धुकोट सोडीत म्हणपाक लागलो, 'पंढरीआदो, हीं शाळेची पोरां किद्याक बोरां येचूंक हाडल्यां ?'' आनी हेरांक पालशे नदरेन पळयत पळयत हांसलो.

म्हाका तें आयकून किण्ण जालें. नजोजावन सकले नदरेन शिवाक आनी कृष्णाक पळयलें. जाल्यार तेंकाय तें आयकून राग येयला म्हणपाचें दिसतालें. तशे किदें आमी पोर नासले. सुमार पंदरा वर्सांचे तरी आसलें.

''आरे, सद्द्या कामेरी मेळना. शेतानी लुवणेक वयता, आनी ह्या भुरग्यांक किदें तूं उणाक लेखूं नाका. तुका कवर मांडपाचो बेकार दवरता जाल्यार पळय.'' मुकादम समजणेन उलयलो. तें आयकून आमच्या आंगार मुठभर मांस चडलेल्यावरी जालें.

म्हणटाम्हणसर एकलो सकयल्यान येवन बोटां दाखयत मुकादमाक किदें किदें सांगपाक लागलो. भाडकारूच तो. दुरीग कसो आनी खंयच्यान खंयमेरेन बांदपाचो तें सांगतालो.

जालें. तेणें दाखयलें आनी तो गेलो. दुरगाक लागतलें कवर पयलींच हाडून ओतलेलें. थोडें दाखयल्ले सुवातेलागी आसलें, थोडें मातशें पयस . मुकादमान आनी त्या मोठेल्यान खुटयो मारून सुमल्यो बांदल्यो. तशे दोगजाण दोशींवशी खणपाक लागले. कोण खोणटली माती कुशीक काडून चरीशी करपाक लागले. कामाक सुरवात जाली. ते चरयेंत मोठेशे फातर हाडून उडोवपाक आमकां फर्मायले. तशें आमी तिगायनी आनी येयल्ल्या दोन कामे-यानी फातर उडोवन ती चरी रोखडीच भरली. तो मोठेलो मांनाय दोरायेक फातर लावन मांडपाक लागलो. रोखडेच आमी सगले मशिनावरी वावरूंक लागले.

दुरगाचो एक एक थर तयार जावपाक लागलो. फकाणां – चिकाणांच्या बोवाळांत केन्ना दनपार जाली कळ्ळेंच ना.

काम थारयलें. चुरचुरोन भूक लागलेली. सकयल्यान एक पाट व्हांवतालो. त्या पाटाकडेन कुशी – कुशीकशे बसून आमी जेवपाक लागले. पोट अशें पिवळल्लें म्हणं सांगू, आवयन तट्टोटून भरलेलो डोबो केन्ना सोपलो तें कळोंच ना. बाकिचेय जेवले, आनी सावळेकशे आड पडले. आमी तिगूय मात वगीच हेवटेन – तेवटेन सांसपुपाक लागले. खंयीं कसलीय फळां बी आसल्यार काडून खावपाक लागले.

आमका कामाक लावन गेल्लो मुकादम अचकीत सगळ्यांक उलो मारपाक

लागलो. आनी बेगीन कामाक लागचे म्हण किदें किदें म्हणपाक लागलो. आमी तेजो आवाज आयकून रोखडेच पावले. पुणून हेर मानाय आनी कामेरी वडत येवपाक लागली. तसो तेणेन धेकणो घातलो. तरीय तेंची गती वाडलिना. तेंचेखातीर हें सदचेंच आसलें.

परते कामाक लागलें. फातरांचो, कायलिंचो, खो-या - पिकासांचो खडखडाट परत घुमपाक लागलो. आनी ते घुमेंत तेंच्या गजालिंचोय आवाज भरसुपाक लागलो. काम चड काय गजाली चड तेंच कळनासलें. केन्नाच दीस सोपलो. एक दिसवडो भरलो.

आमचे पांय घरावशीं धावपाक लागले. काळखी पडटां - पडटां आमी घाराकडेन पावले. हातिंतलो डबो भायल्या सोप्यार शेवटिलोसो केलो आनी कळशी. तुवालो घेवन समतो बांयचेर गेलो. बरो न्हालो. जिवाक मेकळें मेकळेशें दिसलें. येवन भायरूच सोप्यार बसलो. आवयन हाडून दिल्ली च्याव पिलो. जिवाक बरें दिसलें. इतल्यान कामारसून बाबा येयलो. आनी म्हाका कामाविशीं किदें किदें विचारपाक लागलो. पुणून म्हाज्यान कांयच आयकूपाक जायनासलें. सामकें थकलेल्यावरी जाल्ले. दोळ्यांचेर लकणी येताली. आनी त्या भायल्या संत - शितळ वा-यान केन्ना म्हाका झेमडी लागली कळ्ळेंचना.

ब-या वगतान जेवण बी वाडून आवयन म्हाका उठयलो. पुणून दोळे उगडनासलें. बेबद्यावरी अवतार जाल्लो. तसोच वचून ताटार बसलो. भूक बरीच लागलेली. बकाबक जेवलो. मातसो निवळ्ळो. तशी याद जाली फाल्यां परतें कामाक वचपाक जाय. सक्काळी उठपाक जाय. गेलो आनी हातरूण पातलोवन आड पडलो. झेम निवळल्ली. येवजणी लागलेली ; एक दिसवडो भरलो. एका दिसाचो पगार लागू जालो. आरे, पुणून कितले रुपया ! दिसवडो कसो सांगला काय ? शिवान म्हाका कांयच सांगलेंना. काय मुकादमान तेकाय बी आजून सांगुना काय ? आसूं फाल्यां विचारचें. तरीय अमकेच तरी रुपया मेळटले, हें निश्चीत करतां - करतां दोळो लागलो.

आरे ! ही आवय आनी म्हाका रोखडीच किद्याक उठयता ? काय बरी न्हीद लागलेली. तिडक मारली. "किदें जालां गे !" हांव उसळ्ळो.

"आयज कामाक वचपाचें ना तर रे ? उठ मरे उजवाडलें !"

"किदें ? इतले बेगीन ?"

"पळय भायर वचोन."

सडसडीत उठलों. ख-यानीच दीस जाल्लो. आवयन भुतयेची तयारी केल्ली. उठून तयारेक लागपाक जाय आसलें. पुणून आंग हालोवपाकूच जायनाजालें. खंय किदें

दुखता तेंच कळनासलें. हात, पांय, पोट – फाट सगलेंच दुखतालें खिणभर दिसलें, भोंगू तें काम. पुणून रोखडेच निश्चेवी मनान म्हाका उठोवन तयारेक लायलो. सगलें गडबडीन केलें. आनी तसोच डोबो घेवन नेट धरलो. कोणतरी वांगड मेळपाक जाय आसलो.

खाडेगाळीन वचपाचे वाटेर मुकादम आनी मानाय आसले. पुणून शिवा बी दिसलेना. मागीर कामेरी येतकच सगळे वाटेक लागले. पुणून हांव तेंका फाटल्यान वळून, वळून पळयतालो. किदें जालें काय ? काय ते मुकार गेले ? कांयच समजनासलें. करतां – करतां आमी कामाचे सुवातेर पावले. कामाक लागपाची तयारी करताले. तेन्ना म्हाका मुकादमान विचारलें, ‘‘आरे चेड्या, तुजे ते दोगय वांगडी आयज खंय पावले रे ?’’

हांव वगीच रावलो. आनी तेका किदें सांगचें तें चितपाक पडलो. इतल्यान शिवा आनी कृष्णा धावतशे येतना म्हाका दिसले. तशें म्हाजें मुखामळ फुल्लें. हांवेन त्याच धोपक्यांत म्हणलें, ‘‘ हे पळय येयले.’’

आनी मागीर एकामेकाची फकांणा – चिकाणां करीत कामाक लागले.

दनपारां जेवणाच्या वगतार गजाल लिपयत लिपयत सांगली. आमचें तिगायचें आंग दुखतालें. उठपाकय बेगीन जांवनासलें. मागीर आमकां प्रस्न पडलो. फुडें आमच्यान काम जातलें मरे ? हय तर जातलेंच. आमचो निश्चेव घट आसलो. कशेंय करून आमी येवजिल्या त्यो वस्तू आमकां घेवकूंच जाय आसल्यो.

म्हाका अचकीत याद जाली. तशें हांवेन शिवाक दिसवड्याविशी विचारलें. जाल्यार तो म्हणपाक लागलो, ‘‘आ ! तें मात हांवेन मुकादमाक विचारुना... विचारुया रे मागीर. तो किदें आमकां फटयतलो ?’’

उपरांत आमी संद पळोवन मुकादमाक दिसवड्याविशी विचारपाचें थारायले. कामाक लागले. दुसरोय दीस सोपता असो जालो. तोका – धोंगांचे फातर उखलता, कायलिनी भरतां – भरतां हातीक तोपलेल्यावरी जाताले. दोनूच दिसानी हात सामके खरखरीत जाल्ले. कृष्णाक आनी म्हाका तर फातर लागून रगतय येयलें. पुणून तेजें आमकां कांयच पडू नासलें. जोड दोळ्यांमुकार दिसताली न्हू !

काम सुटून आमी घरचे वाटेक लागले. सामके पुरो जाल्लें. सादारण पाऊणवराची वाट आसली. गजालीय नाका दिसताल्यो. तरी पुणून एक एक उलयताले. कारण आमी हेरांपरस बरेच फाटीं पडलेले. प्रस्न परत येयलो. पगार कितलो ? मुकादमाक विचारपाकूच जालेंना. मानायांक पंचवीस आनी कामेऱ्यांक पंदरानी दिसवडो चलतालो. आमी थारायलें

आमकां पंदरानी तरी पडटलोच. ना, ना. चड. कारण आमी हेर मानायां इतलेंच काम करताले. हय.जर विसानी जाल्यार, दोन दिसांचे – चाळीस रुपया !

दोन दीस काम बरें केलें. पुणून तिसरे दिसा सांज जाता जाता आंग सामकें जड जाल्लेवरी जावपाक लागलें. पुणून कोणाक सांगनासतना काम करीत रावलो. हरशी आमी कामाकडेन आळस करिना तें पळोवन मुकादम भितरल्या भितर हांसतालो. पुणून फातर लावपी तो मोठेलों मात मुकादम ना असो दिसतकच आमचेर बेजार जातालो. किद्याक जीव मारता ? आयजूच काम सोपोवन फाल्यां बेकार रावपाचें आसा" काय म्हण तापतालो. कारण आमी फातर हाडून दितकच तेका बेकार रावपाक मेळनासलें. आनी तेगेल्या मोठ्या जिवाक तर सुशेग जायच पडटालो. तेन्ना आंग जड जाल्लें आसुनय म्हाका हांसपाक येतालें. कारण पयरूच हो म्हणं, ' हीं पोरां किद्याक बोरां येचूंक हाडल्या ?" आनी आयज आमचें काम पळोवन आपुणूच थकलो ?

काम सोपलें. पाटांत हात – पांय धुयले. आतां आंग आनी तकलीय जड जाल्ली. चलपाक जायत काय ना अशें दिसतालें. पुणून थंय रावन उपकारं नासलें. चलत घरा वचपाक जाय आसलें. शिवाक आनी कृष्णाक सोवका – सोवकास या म्हण सांगलें. चलुकूच जायनासलें. आपशींच दोळे धांपून येताले. केन्ना एकदा घरा पावताशे जाल्लें.

घरा पावतासर काळोखसो जालो. शिवा म्हाका घराकडेन पावोवन गेलो. किदें जाता तें आवयक सांगनासतना मातशें न्हावलेशें करून घरांत आड पडलो. हरशीं गरमेचे दीस. पुणून शीं खाताली. आवयन येवन, " किदें जालें... जाम जालो काय किदें रे ?" अशें किदें किदें विचारलें. पुणून 'हूं हूं ' करीत वगीच रावलो. कांयच नाका आसलें. फकत झेम जाय आसली. न्हिदलो.

जेवपाखातीर आवयन उठयलो. म्हाजी गत पळोवन आवयन कपलाक हात लायलो. " आरे. तुजें आंग तापलां मरे !... दोनूच दिसानी काम लागलें मरे? तरी हांव तुका सांगतालें, तें जड काम ... ' ती किदें किदें उलयत रावली. हांव मात वगीच रावलो. मातशें जेवलेशें केलें. आवयन केल्लो कसलोसो कसाय पिलो आनी हातरुणार वचून शेवटलो.

सकाळ जाली. कशेंच उठपाक जायना जालें. आवय उठयताली. हात लायता थंय थंय दुखतालें. हालपाकूच जायनासलें. मागीर उठपाक तरी कशें जातलें ? दोळेय उगडनासलें. 'पाड पडू, भोंगूं तें काम आनी पयशे' अशें चिंतून पडून रावलो. मातसो

उसरांच उठलो. आंगात जोर नासलो तरी सगलें भरलेल्याभाशेन दिसतालें. आवयन वाडलेली पेज जेवलो, वयल्यान इल्लो कसाय पिलो आनी परत वचोन लवंडलो. म्हाजें किदें जालां तें आवयक कळ्ळें. ती बडबडपाक लागली, " जीव तोडून किद्याक काम करपाक जाय?... कितलेंय काम केल्यार तो मेल्लो पंढरी तितलोच पगार दितलो. लोकांक नागोवन घर उबारला ... आतां फालेंच्यान आसूं तें काम. आनी कसलेंय ल्हवशें काम मेळटा जाल्यार पळय. नाजाल्यार मामागेर चल. काजिंचो भार जाला खय. आनी मनिसूय कोण मेळना म्हणटालो..."

मामागेर गेल्यार पोरच्यासरखो एक कपडो दितलो. त्या परस असोच बेकार रावन, अशें चिंतून न्हिदून रावलो.

दनपारच्या जेवणार आवयन वोव्यांची कडी केल्ली. तोंड वाकडें करीत जेवलो. परत रातची मेथयांची पेज. आनी वयल्यान तिजें मनखावपी उलोप. शे ! किदेंयकरुन म्हाका दुसरे दिसा कामाक वचपाकूच जाय आसलें.

दुसरे दिसा खऱ्यानीच म्हाका बरें दिसपाक लागलें आवय नाका नाका म्हणटा आसतना डबो भरून घेवन कामाक गेलो. सगले म्हाका काल खंय गेल्लो रे म्हण विचारताले. तेन्ना हांवेन सारखें कांयच सांगलेंना. पुणून दनपारच्या वगतार शिवाक आनी कृष्णाक मात सांगचेंच पडलें. आनी ती गजाल सांगताना तेय आपलें आंग जडशें जावपाक लागलां म्हणपाचे सांगताले. घडये दुबावाचें भूत तेंचेय मानेर बसपाक सोदतालें जांवये.

पुणून दुसरे दिसा तशें कांयच जांवना. ते दोगूय कामाक येयले. त्या मोठेल्याक तर आमी थारायल्ले भाशेन बेकार रावपाक दिनासले. आमकां 'पोर' म्हणून हिणसायतालो ? आतां आमी पोर काय कोण तें कळ्ळें ? मदी मदी तो आमचेर धेकणें घालतालो. पुणून आमी चडूच करताले. मागीर मात तो आमकां समजावणेन सांगपाक लागलो, " हें पळया भुरग्यानो, तुमी चड काम केलें म्हणोंन किदें तो पंढरी तुमकां सुबेज पगार दिवचोना. तुमचेकडल्यान मानायाची कामां करुन घेतलो, पुणून दिसवडो फारीक करतना कामे-यांच्या हिसपान दितलो. तुमच्यासारके भुरगेच तेका फायदेशीर आसता ."

पुणून आमी तेजें म्हणणें तितलेंशें कानामनार घेतलेंना. आमच्या मनांत वीस रुपयानी पक्कें घर केल्लें. पुणून खऱ्यानीच आमकां वीस रुपयानी दिसवडो दितलो काय म्हणपाचे मुकादमाक विचारपाक कोणूच मुकार सरनासलो.

म्हणटाम्हणसर स दीस भरले. आनी तेच दिसा तर वाड्यार नाटक आसलें.

खरेपणी आमकां थोड्या – थोड्या पयशांची गरज आसली, पुणून आतां घेतल्यार मोडटले, आनी मागीर वांगडाच सगलो पगार घेतना उणे गावातले, त्याखातीर पयशे घेवपाचे ना अशें आमी थारायल्लें.

इतल्यान भाटकराल्या घरावशिंतल्यान मुकादम येयलो. बाकिच्यांक चड मागता आसतना उणे उणे दितालो. पुणून आमी मात वगीच आसले. कुशीक रावन तेंका नोटी मेजतना पळयताले. अचकीत तो आमचेवशीं वळ्ळो. आनी " हे घेयात तुमकां नाटकाक पयशे " म्हणत आमकां तीस – तीस रुपया दिले. आमी फुल्ले. हात लळेलें. चिमटेन धा – धांच्यो तीन नोटी धरून त्यो झाडाक हुमकळायल्ल्या शर्टाच्या बोल्सांत रिगयल्यो. आमी खूश आसले, किद्याक तर मुकादमान आमकां दिल्ले ते पयशे पगाराभायर दिल्या अशेंच आमी समजल्ले. पुणून पंढरी तो. तेजे विशीं लोक तरतरेन उलयताले. तो अशे बेश्टेच पयशे दिवचोना अशें आमकां वगीच दिसतालें. किदेंय जांव, आमकां नाटकाक कचकचीत नोटी मोडपाक मेळटल्यो, हे उमेदीन आमच्या जिवाक जाल्ले कश्ट आपशींच पयस जाले.

घराकडेन वचून आमी जेवन बी रोखडेच तयार जाले. देवळाकडेन लायल्लो लाऊडस्पिकर आमकां कसोच थारो दिनासलो. एकामेकाक उलो मारीत आमी रोखडेच देवळाकडेन पावले. आजून 'पार्टी ' बी रंगू नासले. गणेसपुजा दवरलेली आनी एकलो पड्डेकार फुड्यांत रंगाच्यो बुलयो मात मांडून झेमत बसलेलो. म्हणजे नाटकाक बरोच वगत आसलों. पुणून बोल्सांतल्या नोटिंची उब तर आमकां एका जाग्यार रावपाक कशीच दिनासली. तशे आजून लोक येवनासले. पुणून घडघड्याच्या भोंवतणी मात थोडे भुरगे दिसताले. आमी नेटान थंय गेले. जणू काय आमी त्या घडघडेकाराकूच विकतो घेवपाचे आसले. थंय वचून पळय जाल्यार मेजार सगली चिल्लर, नोटी नाच. शिवान नेटान धांची नोट मेजार मद्दी उडयली. तशे सगले तेका तकली घुंवडावन पळोवपाक लागले.

" पात्रांव, खंयच्या नंबरार !" घडघडेकारान आशेन विचारलें.

" मोड दी, धा रुपयांची. " शिवान फर्मालयें.

उपरांत हांवेनूय मोड करून घेतली. कृष्णाय 'ना ना' म्हणटा आसतना दोन – तीन रुपया खेळ्ळो. खेळटा, खेळटा आमची तोंडा बसलीं. घडघडेकार आमकांच लातांत घालून हालयता काय दिसपाक लागलें. आमी एकामेकाक शिटकायलें, 'हें धड न्हू ' म्हणत माचयेवशी गेले. नटी रंगताली. तिका पळयली आनी नीट माटवांत वचून बसले.

इल्ले – इल्ले लोक जमताले. आमकां मात बसला थंय कुसकुसतालें. आमकां

मांडाचेर वचून हेरां सामकार नोटी काडून दाखोवपाक जाय आसल्यो. म्हारग म्हारग वस्तू कशो काय म्हणून विचारपाक जाय आसल्यो. आमी उठले आनी बद्द रिंगांकाराकडेन गेले. वगीच उबे रावल्ल्या भुरग्यांक कुशीक काडले. तिगांयनी एका एका रुपयाची रिंगा घेतली. तशे सगले भुरगे आमकां पळयतूच उरले. आमकां वगीच नेटसो चडलो. त्याच नेटान रिंगां उडयली. कोणाकूच कांय मेळ्ळेना. परत आटाटाण्याची रिंगा घेतली. तरीय कांयच पडना जालें. म्हाजेकडेन निमणे एकूच रींग उरलेलें. दोळे धापून बिस्कुत्यांच्या पुड्यार उडयले. तें मात पडलें. पुणून साबणाचेर ! जांव तेच खोशयेन आमी परतले. आनी गर्दी खंय खंय दिसता, थंय थंय वचून नोटी मोडपाक लागले.

हेवटेन नाटक रंगार येयल्लें. पुणून आमी मात आमच्याच रंगांत आसले. च्या, भाजी - पाव, लाडू, भजी सगलें खांवन पळयलें. करतां करतां नाटक सोपलें. सगले उठले. खाजेकाराकडेन गर्दी पडली. पुणून तेन्नां आमची बोल्सां रिती जाल्लीं. घराकडेन वयतल्या लोकांकडेन किदें किदें आसलें. पुणून आमचे मात हात रिकामे हालताले. किदें करतले, तशेच घराकडेन येवन थारायल्लेवरी दुसरे दिसा दनपार मेरेन न्हिदले. कामय नासलें.

एका दिसाचो विसव घेवन तिसरे दिसा सगले कामार जमले. हरशीं आतां कामाची संवय जाल्ली. पुणून आळससो येयल्लो. आयज हांव कामऱ्यांच्या माथ्यार फातर उखलपाक रावल्लो. कवराचे राशिंतलो एक एक फातर देवोवन उखलतालो. असोच सकयलो फातर हालयतना वयलो फातर येवन अवचीत हातिंतल्या फातराक आदळ्ळो, आनी म्हाजो आगठा चिडडला. तसाच हात काड्न नट्टान फाफडपाक लागला. त पळावन ‘ किद र, किदें जालें ’ म्हणत दोग - तिगजण लागी येवन म्हाज्या आंगठ्याक पळोवपाक लागले. नाखूट धोडवल्लें आनी रगत किणेंल्लें. सामकें किटकिट्टालें . तेन्ना एकटो म्हणपाक लागलो, ‘‘फोडून हेन्नाच रगत उडय, नाजाल्यार फाल्यां पुलेतलें .’’

पुणून फोडून उडोवपाक म्हाका धिरूच जायना जालो. कांय जांवचेना अशें चिंतून तसोच कामाक लागलो. दुखतालें तरीय सोसचें पडलें.

बऱ्या वगतान अशेंच किदेंतरी करतना कृष्णाचेय बोट चिड्डून रगत येयलें. आनी अजापाची गजाल म्हणल्यार त्याच दिसा काम सुटपाच्या वगतार शिवाच्या पांयाक फातर लागून रगताचो व्हाळ लागलो. मेळटा तसलो पालो चाबून तेज्या फाडाक लायलो. रगत थारलें. पुणून तो मोठेलो वगी रावलोना.

“ किदें रे, आयज तुमी सकाळी कोणाचें तोंड पळोवन येयल्ले ? आं ऽ! समजलो, नाटकाक गेंल्लेकडेन देवाक सारके पायां पडलेना दिसता. फकत घडघडोच खेळपाक उरले. हय मरे !” अशें म्हणत तो खतखतो येयल्ल्याभाशेन हासलो.

तें आयकून आमकां तेजी तिडक मारली. पुणून मागीर येवजितकच आमकांय दुबाव येवपाक लागलो. खरेंच आमी देवाक सारके पायां पडलेले काय ना ? पुणून एक मात बरें जालें. दुसरे दिसाच्यान आमी फातरांक पातयेवन रावनासले. कामाकडली सादुरताय किदें म्हणटा ती आमकां कळेली. आनी आवय हाती – पायांकडेन पळोवन काम करात अशें किद्याक म्हणटाली, तेंय कळ्ळें.

जाली. दोन सुमनां सोपली. आमी पगाराचो वट्ट हिशोब केलो. हरशीं बोल्सांत कांय नासलें. पुणून मेळटल्या पयशांच्या नेटार हड्डे आपशीच फुल्लेलें. दनपारा कामाक लावन गेल्लो मुकादम भाटकारागेरसून बेगिनूच येयलो. रोखडोच हेरांचो हिशोब करपाक लागलो. पुणून आमची मात कांयच वासपूस करुना. तेन्ना आमच्या भितर आमी फुतफुतपाक लागले. शिवाय आयज आमी थारायल्लेंच, आमकां दिसवडो कसो तें विचारतलेच म्हण.

मुकादमान आमकां आपयले, “भुरग्यानो, हांगा येयात रे.”

तशे आमी गोरवांकशी वचोन तेज्या सामकार रावले.

“तुमकां सगलो पगार जाय, काय थोडे थोडे जाय ?”

आमी फांटिंफुडें जाले आनी ‘थोडे थोडेच दी ’ म्हण सांगलें.

तशे तेणेन आमच्या हातीर पन्नास – पन्नास रुपया तेकयले. तरीय आमी अनमनता तें पळोवन तेणेन परतें विचारलें, “किदें, आनी सुबेज जाय आसलें ?”

तेन्ना शिवान धीर केलो. “न्हू... भावो, आमकां दिसवडों कसो ?”

“ दिवया रे. किद्याक भियेता ? तुमकां किदें हांव फटयतलो ? कामूच बरें करात. समजले मरे. तुमचे काम पळोवन तुमकां पगार दितां. हं ! चला आतां.”

तेजी तीं उतरां कानांत घुमत उरलीं. तशेच घरा पावले. तेणेन जर दिसवडो कसो तें सांगलेलें जाल्यार मनावयलें वजें ल्हव जातलें आसलें. बोल्सांत पयशे आसुनय निर्शेल्लेवरी जाल्लें.

पगार घेतला म्हणून घराकडेन बी सांगलेंना. हाडून म्हाजे खाशेले सुवातेर दडोवन दवरले. आनी रातचो न्हिदलेलेकडेन किदें किदें घेवपाक जाय तें थारोवपाक लागलो. एक पँट आनी नवें बॅग तर जायच आसलें. मागीर पयशांचो हिशोब करपाक लागलो. पुणून

म्हाजेपरस शिवान आनी कृष्णान एक दीस काम चड केलां, तेन्ना तेंका चड पगार मेळटलो हें येवजितकच मनाक मातशें वायट दिसपाक लागलें.

पुणून हें चिंतला तेजे दुसरे दिसा शिवा आनी कृष्णा कामाकूच येवना. मागीर कामे-यां कडल्यान कळ्ळें, तेंचो कोणतरी सोयरो मेला, त्याखातीर ते येवना. तें आयकून वगीच उमेद जाल्ल्यावरी जालें. उपरांत अशेच आनी एक दीस ते भात लुवपाच्या निमतान कामाचे रावले. मागीर मात तेंच्यापरस म्हाजो एक दिसवडो चड जालो. म्हाका नेट चडलो. तेंच्यापरस हांव चड पगार घेतलो ही उमेद खेरिदूच आसली.

करतां करतां काम सोपत येयलें. दुरीग बांदीत एका पोतावयल्यान दुस-या पोतार केन्ना पावले, कळ्ळेंच ना. आनी आयज तर निमणो दीस. मातसो नेट धरून काम बेगिनूच सोपयलें. पुणून मुकादमान, ‘ आयज पगार ना. फाल्यां दनपरां घराकडेन येयात ’ अशें सांगतकच सगले वाटेक लागले.

चलता आसतना आमी वाटभर आमकां कितले पयशे मेळटले तेचोच हिशोब करताले. म्हाजे अठरा आनी तेंचे सतरा - सतरा दीस जाल्ले. दिसवडो कसो तो खबर नासलो. तरीय आमी पंदरानी, अठरानी, विसानी आनी पंचवीसानीय हिशोब करून पळयलो. उमेदीन आमकां भितरल्याभितर कातकुल्यो जाताल्यो. आमी किदें किदें घेवपाचें तें थारावपाक लागले. पँट, बूट, बॅग, सत्री, वळेरी वाडत वयताली.

पगाराच्या हुस्क्यान रात तळमळत सोपयली. सकाळ जाली. पुणून दनपार खूब पयस आसली. कांयच येवजनासलें. फकत नोटी दोळ्यांमुकार येताल्यो. तसोच उठलो आनी शिवागेर वचपाक भायर सरलों. पळय जाल्यार वाटेरूच शिवा आनी कृष्णा येतना दिसले. उपरांत किदेंतरी थारावन आमी क्रिष्णाल्या शेतांवशीं गेले. थंय तेंची एक बरकय काडून खाल्ली, व्हाळांतलें एक फोणकूल हुसपोवन थोडी काड्डुकां धरली. म्हणटाम्हणसर बरोच वगत जालो. ती काड्डुकां कृष्णागेर दिवन तशेच आमी मुकादमागेर गेले.

पळयल्यार मोठेलो एकलोच आसा. आमकां पळोवन दोनूय वंठ नांकाकडेन व्हरत आनी आंगठो दाखोवन आमकां म्हणपाक लागलो, “ आयज काम जांवचेनाशें दिसता. फाल्यांर पडलें.” मागीर आपलें कड्डें खाड खर्पयलें आनी, “ आयज आनी तीन पाना करिना जाल्यार पुरो ” अशें म्हणत कानाचे विडयेक हात घातलो. आमी मात तिंगूय एकामेकाक पळयतूच उरले. कारण दुसरे दिसा आमी पयशे घेवन फोण्या वचपाचें, पिक्चर पळोवपाचें आनी जायते करपाचें थारायल्लें.

ब-या वगतान हेर मानाय आनी कामेरी येयली. पडवेर, खळ्यांत बसले. फकाणां – चिकाणांक नेट येयलो. बरोच वगत जावन गेलो. आमी बेजारले. मुकादमाचे घरकान्नीन दिल्ली च्याव पिले आनी निर्शेवन परतले.

घरा गेले. जेवले. परते मेळ्ळे. आनी किदेंतरी थारावन परत मुकादमागेर गेले. पळयल्यार कोणूच दिसना. उलो मारलो. तसो मुकादम पोटार हात भोंवडायत भायर येयलो. आनी हांसत म्हणपाक लागलो, "आरे भुरग्यानो तुमी येयल्ले खय, ते परते किद्याक गेले?"

तिगूय मातशे हासलेशे करून वगीच रावले.

" भाटकारान आजून सगळे पयशे दिवना. तेन्ना तुमकां आतां थोडे - थोडे दितां. तेंकाय थोडे थोडेच दिल्या. तसो तुमचो हिशोब करून दवरला... पयलीं दिल्ले अंयशीं – अंयशीं रुपया उणे करून तुमचे दोगांयचे पावणे दोनशी आनी त्या चेड्याचे एकशे णव्वद उरता."

आमी बारिकसाणेन आयकताले. तेजो तो हिशोब आयकून अजापले. आनी आमच्याभितर फुतफुतपाक लागले.

तेन्ना तेणेन रोखडेच शंबर – शंबर रुपया आमच्या तोणार शेवटिल्ल्यावरी करून, " हे घेयात. उरलेले मागीर मेळटले. तुमी जेयले मरे. बरें तर, आतां हांव जेवतां." अशें म्हणून आपले पटयेर किदेंतरी गिरोवन घरांत रिगलो. आमी वगीच पडले. त्या तेगेल्या हिसपानूच घुसपले. मुकादमाक विचारतले म्हण रावल्ले. पुणून रावन रावन तशेच परतुचें पडले. त्या बेजारान फोंण्यां वचपाचेंय रद्द केलें.

हांवेन ते शंबर हाडून पन्नास दवरिल्ले थंय लिपोवन दवरिले. हांव चिंतनानी घुस्पलो. आनी फकत णव्वदूच मेळटले ! मुकादमाचो हिशोब चुकलो बी काय ? लोकांवरी आमकां फटयना जाल्यार पुरो. आमी थारायल्लें घडना म्हण आमकां खूब वायट दिसतालें.

मागीर आमी तिगायनी पांच – स दीस कोणाचें भात बांदलें. मळणेर रावले. पुणून हातीन दुडू मेळचेना. कामाचें भातूच गावतलें, हें कळटकूच आमी अचळंय दड मारली. आनी खयीं हेरकडेन काम मेळटा काय म्हण सोदपाक लागले.

कोणेनतरी खबर दिली. देसाय चि-यांचे खणीक तळ काडपाखातीर लोक सोदता. आमी तेका वचून मेळ्ळे. आमकां थंय स – स दीस काम मेळ्ळें. तेणेन कामाचे शंबर शंबर रुपया काडून दिले. आमी सामके खूश.

उपरांत जायतेकडेन कामां पळयलीं. पुणून खंयच मेळुना. तशी कामां केलीं. घराची बी, एक – दोन दिसाची. जेवणाकोतार. तशे थोडे पयशे गावल्ले . ते अशेच मोडले. इतले म्हणसर लोकाल्यो काजी हुलगल्यो. ' काजी सोडल्यो ' अशें कळनाबरोबर आमी पयस – पयस मेरेन लोकाल्या काजिनी पत्रो उसतुवपाक वचपाक लागले. जणू आमीच काजिकार जाल्ले. एकेकट्यान ब-योच काजी कुडयल्ल्यो. अदी मदी फोंण्या वचून पिक्चरांय पळयलीं.

आमचेकडेन जाय तितले पयशे जमले. आमी वा-यार चलताले. तशें उरलेल्या पयशांखातीर पंढरीगेर जायत्यो पावटी मारल्यो. पुणून तो आयज – फाल्यां करतालो. एक दीस मात आमचें तापले–

तेन्ना तो म्हणपाक लागलो, " भाटकारानूच आमकां पयशे दिवना, तुमकां खंयचे दिवं. जे दिल्या ते म्हाजे पदरचे दिल्या. "

तरी आमी वगी रावलेना. भाटकाराकडेन गेले. पुणून भाटकारान तेका सगले पयशे दिल्ले. आमी तशेच पंढरीकडेन येयले. भुरगेपणाचे बुध्दीन तेका किदें किदें उलोवन दाखयले. जणूं आमी त्या पयशांचेर उदकूच सोडलेलें. एक खेरीदूच नेट आमकां चडलेलो.

जालें. आमी थारायलें. फाल्यां फोण्यां वचपाचें.

हांव भायल्या सोप्यार बसून किदें किदें घेवपाचें तेजी वळेरी करतालो. काळोखसो जाल्लो. तेन्ना आवय म्हाका गोरवांक बांदून भातयण घालपाक परत परत फर्मायताली. पुणून हांव कसोच उठनासलो. गुंग जाल्लो. इतल्यान अकस्मात पावस येयलो. तेन्ना तर हांव वच्चोच ना म्हणपाचो निश्चेव केलो.

म्हाजो हट्ट पळोवन आवयूच खोळ घेवन गोठ्यावशीं गेली. हांव भितर गेलो. चिमणेकडेन बसलो आनी भयणीक दिसच्यो अशेतरेन नोटी मांडून मेजपाक लागलो. चार फावटी मेजल्यो. तिनशे धा जाले. मुखामळ फुल्लें. जिवितांतली पयलीच जोड. तिनशें धा रुपया. नोटी दाळपाक लागलो–

इतल्यान फाटसून कोणतरी धावकी उलो मारीत येयलो. किदें जालां तें कांयच समजनासलें. आवाज दामूचो. भायर काळोख. येवन विचारलें, " किदें जालां रे ?"

" तुजे आवयक कोणतरी चावला खय. चल चल, बेगीन चल."

एकूच आकांत जालो. तेन्नाच बापूय पावलो. तिका घराकडेन हाडली. काळखांत कोण चावलो तें कळ्ंनासलें. चडकरून जिवाणें. कोण कोण तिका गावठी वखदां दिताले.

म्हणटाम्हणसर तिका घुंवळ येवपाक लागली. किदें करचें कांयच समजनासलें. निमाणे तिका गाडी करून बेगोबेग फोण्यां दोतोरागेर व्हरपाचें थरले. पुणून घरांत पयशे नासले. कोणाकतरी गाडी पळोवपाक धाडून बाबा रोखडोच कोणाकडल्यान तरी पयशे घेवन येता म्हण भायर सरपाक लागलो. पुणून रातचो खंय आनी कोणाकडेन वयतलो ? तेजेर मोठो पेज आसलो. सगलें आंग थरथरतालें. रडकुरोसो जाल्लो.

हरशी म्हाज्या बोल्सांत तिनशें धा आसले. पुणून हात बोल्सांत कसोच वचनासलो.

इतल्यान अचकीत भयणिचें तोंड उगडलें, “ बाबो – बाबो, दादाकडेन इक्क्रे पयशे आसा. आत्तां हांगा मेजतालो.”

“हय रे बाबू, कितले पयशे आसा तुजेकडेन ? ” बाबा झप्पकरून वळ्ळो.

हांव वांगडाच थंड पडलो. तोंड उगडेंच उरले. बॉल्स घट्ट धरलें. सामकें आवळून.

“बाबू, तुजेकडेन पयशे आसल्यार दी मरे थोडे.” बाबा सामको काकळुटेक येयल्लो.

हांव ‘ ऊं ऊं ’ करतनाच अचकीत नदर आवयचेर पडली. तिजी ती गत आनी म्हाकाच पळयतली तिची निरादार नदर पळोवन हांव सामको गळसणलो. म्हाजी ‘तीं’ सपनां मुठिसकट बोल्सांतल्यान भायर येयली. बाबान हात मुकार केल्लोच. पुणून मूठ तेज्या हातीर दवरताना दाव्या हातीन एक नोट कडकडत ओडली.

गाडी येयली. आवयक बाबा बी घेवन गेले. चिमणेच्या उजवाडांत नोट पळयली. आरे देवा, धा रुपया ! आंगातली शक्तूच गेली. इतल्या कश्टांची जोड. रंगयल्ली सपनां, पँट, बूट...

तीन दिसांनी आवयक घराकडेन हाडली. तिजे खबरीक जायते जाण जमले. पुणून म्हाका तिका पळयनूच दिसना जालें. नदर पडनाबराबर फाटले तीन दीस उसळटली तकली कणकणपाक लागली. हांव वचून कुशिकसो वगी बसलो. तेन्ना तीच म्हाजेकडेन येयली आनी बरो अपुरबायेनसो उलो केलो. पुणून तिजें कांयच आयकन दिसना जालें. मान घुंवडायली. तशी ती चडूच लागी येवन म्हाजी तकली पोशेवपाक लागली. तेन्ना तिजो तो हात झेडपुचोसो दिसतालो. पुणून खिणांत तिजी बोटां म्हाज्या केसांनी रिगून अळंग मालीस केल्लेवरी सांसपुपाक लागली. त्या बोटांतल्यान माया, मोग, ममता, वात्सल्य असल्या भावनांचो अभिशेक जाता काय दिसं. जादू जाल्लेवरी केन्नाच तकली ल्हव

जाली. काळीज भरून येयलें. जीव धादोस जाल्लेवरी मनय सामकें शांत शांत जाताले.

तशें अचळंय चोरयांशें तिज्या दोळ्यांनी पळयलें, तिजे पाणावल्ले दोळे अपुरबायेन वझरेताले. म्हणटाले, असो शिणूं नाका रे. काळजाक घावे पडटात. हांवेन तुका जल्म दिला जायत, पुणून आयज तूंच म्हाजी आव जाल्या तुवेंन म्हाका पुनर्जल्म दिला...

तेन्ना आपशीच म्हाज्या हातिनी तिका वेंगायली. तशें तिजें उबाळ कापड म्हाज्या दोळ्यांतल्यान भळाभळा व्हावतली दुकां पियेवंपाक लागलें. जणू काय म्हाजेर येतली केदीय व्हडली संकश्टां गिळपाक ती तयार आसली...

# ३

# भार

खऱ्यानीच धर्तरेक जड लागता काय ?.... ती सगळें झेलता. सगळें सोसता. सगळ्या गजालिंचो भार तिज्याच माथ्यार. सगली जीव - जात, झाडां - पेडां, सडे - तळपां, दोंगर - दर्या. हें खऱ्यानीच तिका जड लागता काय ? च्चे ! आपलेच कुडिच्या कुडक्यांचें म्हण कोणाक वजें लागता ? आमकां हात - पांय काय केन्ना जड लागना. वाडलेल्या केसांचो केन्ना तकलेक भार जालोना. माथ्यार चडयल्या हिऱ्या - माणकांच्या मुकुटाचें आनी तेजे पोंदच्या उयांचें केन्ना कोणाक वजें लागलें ना, मागीर येद्या - येद्या जिवांचें धर्तरेक वजें कशें जातलें ! व्हड व्हड हती तिका जड लागनात. मागीर आपुणूच कसो धर्तरेक जड लागता काय, आपुणूच कसो भार जावन सगळ्यांचेर पडलो ?....

अशे तरेचे विचार घोळयत घोळयत आयज खऱ्यानीच तेजी तकली जड जाल्ली. ती उबीच उरनासली. तेका दिसतालें ; एक वेळ आवयक आपलें भुरगें जड लागता जायत. पुणून आपलो जीव धर्तरेक केन्नाच जड लागचोना. आपूण घरांत भार जाला जायत. घरच्या मनशांक जड जाला जायत. पुणून हे सोशिकतायेच्या माथ्यार आपलें वजन कुस्कुटासमान. आपलो जिवूच कुस्कुट जाला. मागीर ह्या अस्तित्वहीन जिवाचो भार तरी कसलो ? आपलें मोल - कुस्कूट, वजन - कुस्कूट, रूप - कुस्कूट, आपूण म्हणजे कुस्कुटामदलें एक अस्तित्व नासलेलें कुस्कूट. अशेतरेच्या सामक्या रुक्ष प्रस्नांचे वजें

घेवन तो एका आंब्याच्या झाडाचेर बसलेलो. तेजें वजें धर्तरीक जाला काय ना, तें कळनासलें. पुणून त्या झाडाक मात बरेंच वजें जाल्लें. तो जे खांदयेर बसलेलो ती खांदी खंयच्याय खिणाक मोडूक शकतली इतली ती बावगल्ली. जरी तो जमनीक तेकुनूच आसलो, तरी तेका आपूण पडटलो म्हणपाची मात्तूय भिरांत नासली. तो आपल्याच प्रस्नांनी घुस्पल्लो...

इतल्यान कोणतरी थंय पावलो. आनी तेजे तकलेर एक थापट लायलें. वांगडाच तेजे तकलेंत चलतल्या प्रस्नांचो धुंवर जालो. थापटाबरोबर त्या धुंवरांत खंय किदें चकचकता तेंच तेका कळना जालें. भंयानूच फाटल्यान पळयलें. येद्दे तांबडे - गुंज दोळे तेकाच खावपाक रावल्ले. सामके केणाच ओकताले -

" आरे घोड्या, त्या गार्फाचेर बसला तो आनी खंयच जागो नासलो तुका ? धर्तरीक वजें जाला तो जाला, तुजो आलायतो भार घालून त्या रोपाक किद्याक मारून उडयता ! "

तो आपल्या चमकतल्या दोळ्यानी तेका पळयतूच उरलो. तेज्या दोळ्यांतल्यान भायर सरतलो उजो आनी कांनार सणसणीत पडटली उतरां आयकून मात, तेका आपूण आपल्याकूच भार जाला अशें दिसपाक लागलें. तेका तेजें एकूय उतर सोसनासलें, तरी तो पुतळो जावन आयकतालो. खतखतीत तेल कानांत ओतून घेवचें तशी तीं उतरां आयकतालो. त्या उतरांचो जाळ बद्द काळजाक लागतालो, आनी काळजावांगडा सबंद कूड हुलपताली -

" आरे गद्या, देवान तुका मात्तूय कशी अक्कल दिवना काय म्हणटा. आनी तेणेन तुका आमच्याच घरांत जल्माक घातला तो, तूं खंयच्या गाडवागेर किद्याक जल्मलो ना ? खावपा - जेवापाचें आनी वेळार भक मारपाचें बरें कळटा मरे. केन्ना एक च्याव चुकयल्ली याद जायना, पुणून केन्ना कामाचें सांगल्यार तेजे तकलेक पाड पडटा !... असो पळयता किदें ? दुसरें, थापट पडच्यापयली तोंड घेवन चलूंक लाग हांगचो !"

... बरो आपल्याच चिंतनानी गुल्ल जावन, सगल्या संवसाराक विसरून तो धर्तरीक जातल्या वज्याचें येवजितालो. पुणून त्या थापटावांगडा आयकल्ली जाळकशी उतरां मात तेज्यान सोसपाक जाली ना. थंयच्यान हालतलो म्हणल्यार पांयच उखलना जाले. सगलें आंग जड जाल्लेवरी दिसतालें. तेन्ना तेका दिसलें; खरेंच आपलें आपणाकूच वजें जड जालां. आपूण खरेंच भार जाला. आनी आपलें वजें धर्तरीकूय लागता, हें तेणें पयलेचफावट अणभंवातल्यान पारखिलें.

आपलें जड जाल्लें वजें घेवन खंय म्हण वयतलो ? आनी जड वजें घेवन भोंवल्यार आपल्याच पायांचेर भार पडटलो. ते मागीर थकतले. रातचे उसळपाक लागतले. मागीर आपल्या पायांक तेल कोण लायतलो ? आपले पांय कोण चेपतलो ? आवय आसतना मातशे पांय बडयल्यार ती चेपताली, बरें तेल रगडटाली. पुणून आतां ...

तसोच भंयान वयता वयता सदचेवरी आपशींच तेज्या तोंडातल्यान उतरां भायर सरपाक लागली. ती उतरां फकत तेजेकडेन गजाली करताली. पुणून आयकल्याक फकत तेजें हालतलें तोंड दिसतालें, पळयतल्याक फकत तेजे हेवटेन - तेवटेन कुरवतले हात दिसताले. पुणून तेका मात सोताक उपाट समाधान गावतालें. कारण तेजे सोताचे तर्क - वितर्क एका - मेकाकडेन झगडटाले, भासाभास करताले, मदी - मदीच कातकुतल्यो करताले, खिणांत हांसयताले, खिणांत रडयताले. पुणून वाडटलें तकलेवयलें वजें ल्हव - ल्हव करताले. आपूण धर्तरीक जड नासून कापसाच्या तोलान वयर वयर हुबता अशें दिसतालें. तीं उतरां तेजीच आसतालीं. कोणाचें बंदन नासलेलीं. कोणाचो अधिकार नासलेली. न्हू कोणें बळयां थापलेली. कारण तीं उतरां तेका मुक्त जिणेची उमळटी फुलां कशी दिसताली. त्याच खातीर तीं तोंडातल्यान आपशींच फुट्टालीं -

" किदें हो दादा, परतो परतो हांवूच जड जाला म्हणटा. म्हाजोच धर्तरीक भार जाला म्हणटा. खऱ्यानीच हांव इतलो जड आसा? च्चे ! केन्नाच आसचोना. हांव तर सगल्यांत धाकलो. व्हडले आसा तेंचें चड वजन आसतलें. तसो हांव आंगान तरी मोठो आसा. तोय ना, दादालो बंटी तरी म्हाज्यानूय मोठो आसा. म्हाका काय तो आतां पयलिंच्यावरी उखलना. म्हाज्यान काय आतां तेका घोड्यार बसोवपाक जायना. पुणून तो मात म्हाका कांय न्हू करून उडयता. म्हाज्यानूय चड शीत जेवता तरीय हांव कसो जड काय ? बंटीचें वजनूय म्हजेपरस चड. म्हाजें चाळीस जाल्यार तेजें पन्नास . तो म्हाज्यानूय लांब आसा. सामको धारणाक तेकता. तेजो भुस्कोट घातल्यार आनी म्हाका चेड्डी घालपाची गरज पडना. तरी तो ल्हव आनी हांव जड कसो काय ? शेर्त सगली म्हाका भियेता. तेंका खबर आसा, म्हाका खूब शक्ती आसा म्हणून. म्हाका राग येयत जाल्यार हांव कोणाक आयकना . दादा सोडलो जाल्यार आनी कोणाच्यानूच म्हाका बांदून घालपाक जायना. हांव कोणाकूच आयकना, कोणूच म्हाज्या लागी येयना. तेन्ना हांव सामको गदो कसो खुबळटां. म्हणुनच तेंका जड दिसता आसतलो. हरशी म्हण म्हाका शक्त आसा तितली कोणाक आसा ? दादाकूय हांव सकयल उडोवंक शकता. पुणून व्हडलो भाव म्हण सोसचें

पडटा. हांव तेका एकाच थापटान लळोवंक शकता. पुणून आवयक वायट दिसतलें. ती सर्गार रावन म्हाजेर तापतली, म्हणून वगी रावतां. नाजाल्यार –"

तो उलयत उलयत झरीकडेन पावलो. थंय गणू किदेंतरी करतालो. तेका गणूचो खूब राग येता, तो तेका बेश्टोच चाळयता. बेश्टोच तेजे वाटेक वयता. वगी रावता म्हण इल्लें – इल्लें चडूच करता. हेकाय एक दीस बरोच शेपडायतलों अशें तो चित्तानाच तो तेका हटकिता –

" ये सुकड्या, तुजो तो सांगाडो घेवन खंय रे तेवटेन झेडपता." गणूची हीं उतरां आयकून तेजी शीर सामकी तट्टटपाक लागली. आतां हेका कशी बुध्द शिकोवची हें तो येवेजिता आसतानाच, तेणेन तेका एके बरे गजालिची याद करून दिली. तसो तो वांगडाच खुशालभरीत जालो.

"आरे सुकड्या, यो यो. बेगीन यो सांगता, हे ऽ त्या सकयल्या कोंडांत पळय कितलें नुस्तें आसा तें. धरुया मरे."

"हय हय धरुया. पुणून म्हाका सुकड्या मात म्हणूं नाकां आं. नांवान उलो कर मरे."

"बरें बरें, गोपळ्या यो यो. हें पळय जाळूय हाडला हांयें."

"आरे गोपळ्या न्हू रे. गो.. पा.. ळ."

"बरें, गो ऽ पा ऽ ळ, असो यो आनी हो तो इल्लो चिकोल काडून ह्या धांवार घाल."

"च्ये ! हांव घालिना. म्हाजे कोपडे लोळटले."

"मागीर काड मरे ते. आनी हांव जाणा. तूं जर धांव बांदीत जाल्यार तें कशेंच मोडचेना. मागीर सगलें नुस्तें आमचेच मरे. तुका अर्दे, म्हाका अर्दे. यो, यो."

उपरांत तो खोशयेन रेब्यांत लळ्ळों. कोंडांत नाचलो. जाळांत घुस्पलो, नुस्त्याचेर झपयो मारपाक लागलो. त्या धिपरभर उदकांत पडलो, उठलो, बुचकळ्ळो, तेन्ना गणू तेका म्हानावरी फुलयत फुलयत तळशितालो, मदीच तिडकतालो, मदीच फुसलायतालो. तसो तो उमेदीन इल्लो इल्लो उफेतालो – पेवतालो..

जालें, नुस्तें धरून जालें. बारीक – मोठे दोनेक पोशे मेळ्ळें. गणून वाटे केले. आनी तेका म्हणपाक लागलो, " हें चडशें नुस्तें आसा, तो वाटो तुजो. चल, हे ऽ त्या फळसाचे खोले हाड."

“ आरे पुणून गणू, म्हाका इतलेंच रे ! आनी तुका मात चड, म्हाका नाकां तें.”

“ आरे तुजें नुस्तें मेजून पळय. म्हाज्यापरस डब्बल आसतलें.”

“ बारीक बारीक म्हाका दिल्या. हांव व्हरना तीं.”

“ तुका नाकां जाल्यार हांव व्हरता.”

“ आरे पुणून तूं अर्दे – अर्दे ...”

“ हय रे, अर्दे – अर्देंच आसा तें. आनी म्हाका जाळाचो वाटो नाकां तर, तो खंय केला ?”

उपरांत गोपाळाचें कांयच शाणपण चल्लें ना. तेणें आपलो वाटो उखल्लो. आनी घरावशी नेटान चलत रावलो. पुणून आतां तेजे तकलेर कसलेंच वजें नासलें. वयल्यान उमेद जाल्ली. आपूण किदेंतरी जोडून हाडलां. आपूण पोटाक जायतें हाडूंक शकता. फकत आयतेंच बसून खायना तर चुलिचेर शिजतलें अन्न आपुणय मेळोवंक शकता. अशेतरेचो भाव तेज्या मुखामळार दिसतालो. तो भितरल्या भितर हांसतालो. आयज व्हनी म्हाका तापोवचेना. दादा धेंगशेचोना, बाय चाळोवचेना, बंटी धुकलचोना, कोणूच तिडकुचोना, कोणूच धांवडोवचोना, कोणूच मारचोना. आयज सगळी बरी करतली. बरें बरें दितलीं. तळेलें नुस्तें एक सुबेजूच वाडटली. मागीर तितुतलें अर्दें मांजराक आनी अर्दें मोतीक दितलो...

तो केन्नाच घराकडेन पावलो. पुणून घरामुकार तेका कोणूच दिसलोना. आपूण नुस्तें घेवन येता तें पळोवपाक, दारांत येवकाराक कोणतरी उबी आसतली अशें तो चित्तालो. पुणून थंय कोणूच नासलो. तो थंय खळ्यानूच रावन घरांतल्यान कोणय येता काय म्हण तेळपाक लागलो. तरी कोण दिसुना. तेणेन नेटान व्हनीक उलो मारलो.

तेन्ना लागींच न्हिदलेलो मोती नेटान भोकीत तेज्या आंगार धावलो. तसो तो भिलो. पुणून तेका वळखतकीर समतोच तेज्या आंगार चडपाक लागलो. हातिंतल्या नुस्त्याच्या वांसान तर तो चडूच करपाक लागलो. तेन्ना तो तेका आमडुपाक लागलो. पुणून तेका आमडिता आमडिता तेज्या हातितली पुडी केन्ना पडली तें तेकाच कळ्ळें ना. मोतीक आयतेंच मेळ्ळें. आनी माजरय केन्ना येवन घांसाक धरून पळ्ळें.

तेन्ना बेगिबेगीन तेणेंन मोतीक धांवडायत नुस्तें एकठांय केलें. आनी परत खोल्यांत गुठलायलें. पळय जाल्यार व्हनी नदर तोपीत तेकाच पळयताली. तो गडबडलो. तेका किदें करचें कांयच समजना जालें.




" अं.. अं.. व्हनी, नुस्तें. सायें नुस्तें "

" तूंच खा !"

" पळय, ताज्जें आसा. आत्तां धरलां."

" पयली वडय तें. खंयचे हळशिकेतल्यान धरून हाडलां म्हण देव जाणां."

" ना, ना, झरीकडलें तें. हांयेंन आनी गणून धरली. [illegible] बरेंऽ आसा."

" शी शी शी ऽऽ नाका रे बाबा. सगळी कोडयाळ मरे ती. तो गणू आनी बरें नुस्तें तुका दितलो. पयलीं व्हर आनी फाटले केळी मुळांत पूर."

" आगे पुणून..."

" सांगल्यार कळना तुका . तें किदें मनशानी खावपाचें ?"

" आमकां नाका जाल्यार माजराक तरी दिवया मगे."

" नाकां नाकां. खावन मागीर घरांत ओकतलें. तें मागीर तूं काडटलो ?"

तेजें कांयच शाणपण चलना जालें. इतले कश्ट – मेहनत करून कायबरें नुस्तें हाडलेलें. खूब दिसानी बरें सायें नुस्तें खावपाची इत्सा भागतली आसली. पुणून व्हनीच्या किद्याक तें दोळ्यांक तोपलें म्हण देव जाणां. आपूण करता तितलेंय वायट करता. बरें म्हण केन्ना करपाक दिवचेना. वयल्यान किदेंय केल्यार तापोवणी. तो बडबडत खोरें घेवन खणपाक लागलो.

इतल्यान खंयच्यान तरी दादा येवन तेजेर धेकणो घालपाक लागलो. "हे तें सवंग किदें करता ? नी केळ किद्याक खोण्टा रे ? नाका जाल्लो वावर करूंक जाय तुका. आरे, सांगल्यार कळना. काय जाय एक बडी !"

तेणेन तेजें आयकलें ना अशें करीत नुस्तें पुरलें, आनी मोठे काम केल्लेवरी येवन तेज्या मुकार रावलो.

" किदें करतालो थंय ? आनी हें किदें खंयच्या रेब्यांत लळोन येयला तूं ?"

" सायें नुस्तें हाडलेलें तें थंय व्हरोन पुरलें."

" आरे शाण्या, बरें आसलें जाल्यार व्हनीकडे दिवपाचें न्हू !"

" हय, बरें आसलें. ताज्जें. इतलें. पुणून व्हनीनूच म्हाका केळीमुळांत पुरपाक लायलें."

" तुज्या फुडली आवटी ती तुजी व्हनी."

तें आयकून तेका बरें दिसलें. तो मुमुरखोच हासलो.

" चल वच, रेबो आंगार घेवन भोवता तो, मात्तूय हळशीक दिसना ? किद्याक तुका देवान जल्माक घातलां म्हण तोच जाणा. पनवत खंयची. – आमकां खाल्ल्याबगर तूं कसोच मरचोना... " अशें बडबडत तो भितर सरलो.

तो मात खटू जावन थंयच उरलो.

तें तेंचे उलोप आयकुंपाक थंय एक पिशेकान पावल्ली, ती लागली व्हडल्या व्हडल्यान हांसपाक. तसो गोपाळान फातर उखल्लो. तेन्ना ती अदिकूच वेगवेगळे आवाज काडून हांसपाक लागली. पुणून तेज्यान फातर शेवटुपाक जायना जालो. वगी करपाकय जायना जालें . तो तिका रागान पळयतूच उरलो. ती आपल्या पिशेपणाचेर हांसता. आपलीं कुतां काडटा. आपल्याक सामको नालायक समजता. धर्तरेचेर भार समजता. तेजी तिडक इल्ली इल्ली मस्तकाक मारपाक लागली. पुणून फाटलीं – फुडली चित्रां दोळ्यांमुकार येतकच कांयच करपाक शकलो ना. मुठींत घट्ट आवळून धरलेलो फातर केन्ना पडलो तें तेकाच कळ्ळें ना.

तिचें तें विचित्र, अपशकुनी अवदशेवरी हांसप आयकून दादा नेटान भायर सरलो. आनी तिडकीन म्हणपाक लागलो. घरांत एक अवदसा आसा ती आसा. गांवांतलीय भुतां येवन आमगेरूच किद्याक खुदता काय म्हण्टा. आरे ये रेड्या, पळयता किदें ? धांवडय मरे तिका !"

तेका किदें करचें म्हण कांयच समजना जालें. तो रागान थंयच्या थंय थरथरपाक लागलो.

" आरे, घे रे हिती बडी आनी धांवडाय मरे."

अशें म्हणनाफुडें अचकीत आंगात नेट येवन, थंयचीच एक बडी घेवन तो तिज्या फाटीक लागलो. आनी बऱ्यो सणसणीत बडयो तिजेर लायल्यो. तशें ती बोकडी बी बोब मारीत धांवता तशी न्हेसणाची पर्वा करिनासताना धावपाक लागली.

हो तिका बरी पयस धांवडावन परतलो. जणू काय एक व्हड पराकमी सम्राट मोठें झूज जिंकून येता ते वरी तो परतलो. हातिंतली बडी आतां बडी नासली, रगतान न्हाल्ली उक्ती तरसाद जाल्ली. तेजें चलप आतां लोल्यावरी दिसनासलें, आनी पावलांय कोल्यावरी पडनासली. तर साक्षात वागूच जावन तो येतालो. आपूण मारलेली एक एक बडी म्हणजे एकाच घावान दोन दोन शिरां उडोवपी वारूच आसलें. आपूण जें काम केलां तें पळोवन कोणूच आपल्याक लोलो म्हणचोना, कोणूच अजागळ म्हणचोना, आनी

आतां कोणूच आपल्याक धर्तरेचेर भार समजुचेना. त्या लोल्या गोपळ्याचें रुपटें देवन आतां तेज्या आंगात लिपलेलो ताकित्रंत सम्राट गोपाळ भायर सरून जैतकाराच्या जैतिवंत म्हालांत उर्बेसयत भितर सरता. तेजी चेपलेली छाती सामकी मुकार सरल्या, मान तायट जावन तकली फाटीं सरल्या, म्हालांत भितर सरता सरता हजारानी लोकांनी तेंजो जयघोश करचो आनी त्या जयघोशाचो मोठ्या अभिमानान स्विकार करचो, तेवरी तो नेटान पडवेची सपणां चडलो. त्याच रुबाबान बसकेचे कुडीत गेलो आनी टिवीमुकार मांडलेल्या, धव्रो लुसलुशीत कपडो घातलेल्या लखलखीत सोफाचेर बसलो. हातितली तरसाद तेकुनूच दवरली. आनी रगभरी नदर आपल्या दोळ्यांत हाडीत दादाक एके खेरिदूच धारदार शैलीन पळोवपाक लागलो. जणू काय हेका सगल्यानी आतां सलाम करूंक जाय.

व्हनी थंयच आसली. तेका पळोवन तिजे दोळे वाटकुळेच जाले. रगतान लडबडलेल्या पावलांचो माग उठचो तसो तेज्या पावलांचो माग उठलेलो. चकचकीत केल्ल्या टायल्सांचेर भूत घरांत सरलेल्यावरी चिखलाची पावलां पळोवन तिणेन वांगडाच किळची मारलेल्यावरी केलें.

आनी तेजो अवतार पळोवन दादाक तर किदें करचें कांयच कळना जालें. तेजी शिरंतरां वांगडाच पेटली, आंगातल्यान हुलोप भायर सरपाक लागलो. मुठी आवळून तो आड्डत म्हणपाक लागलो, '' आरे रेड्या, असो दुकरावरी रेब्यांत लळून येवन घर आनी सोफा पिड्ड्यार करपाक तुका मात्तूय वायट दिसलेंना. उठ, उठ हांगासरलो पयली... आरे सांगल्यार समजना ? उठ आनी तोंड घेवन चलूंक लाग. पाड पडलेलो मरय बी ना आनी पिशावरी घरूय सोडून वचना... असो पळयता किदें दोळे भायर काडून ?''

तेन्ना तोय नेटान उठलो. आनी तेका बडी दाखयत खुबळोन म्हणपाक लागलो, '' दादा, कोणाक तूं शाणपणां सांगता, म्हाका ? हें घर म्हाजें, म्हाज्या आवयचें. हांवूच तुका भायर घालूंक शकता. चल, तूंच पयली भायर सर.''

'' किदें, म्हाका शाणपणां सांगता, हय म्हाका...'' अशें म्हणत दादान तेजेकडली बडी काडून घेतली आनी एक शेपडायली. तसो तो बोबो मारीत थंयच 'चुकलो चुकलो' म्हणत लळपाक लागलो. उपरांत तो आनी मारचोना अशें दिसतकच अचळय हणकुटत, दुकां पुशीत भायर सरलो. आनी आपल्या संवकळीच्या जाग्यार म्हणजे गोट्याच्या माळ्यार वचून पडलो. जशें सुण्याचेर कोणेय किदें मारलें म्हणटकीर पयलीं तो 'क्यॅव - क्यॅव' करून बोब मारता आनी मागीर इल्लो इल्लो आपलो आवाज बारीक करीत दाव्या पायान

लंगडत सुगूर जाग्यार पडोन जाल्ले दुखीक ल्हेंवता, तसो तो कुटत कुटत माळ्यार यचून बडयेन उठलेल्या वळाक फूक मारीत पळोवपाक लागलो.

आयज खूब दिसानी तेजेर बडी पडलेली. आनी बडयेवांगडा सोसूंनजो इतली जड जड उतरां कानांत रकलेली. आपूण सगलें तेंका बरें दिसपाक जाय म्हणुनच करता. पुणून कोणूच समजून घेवंक सोदिना, आपूण सगल्यांक जड जाला. पायांदयलो वळ जितलो आपल्या जिवाक जड जाला तितलो आपूण सगळ्यांक जड जालां. अशें तरेचें चिंतप तेज्या दोळ्यांतल्या दुकांवांगडा भायर सरतालें आनी तेज्या वळाचेर पडून तेका मातशिशी शितळकाय दितालें.

तो खुबूच थकलेलो. भुकूय खूब लागलेली. पुणून तेजी जेवपाची वान्साच मेल्ली.

तो तसोच तणाचेर जीव सोडून लंवडलो. तेज्या दोळ्यांक सुशेग जायसो दिसपाक लागलो. पुणून तेज्या बडबड्या तोंडातली चिंतना तेका बेजार करपाक लागली. जाल्यार मदीच वळूय चुरचुरपाक लागलो.

काय बरी म्हाजी आवय आसली. आयज ती हांगा आसलेली जाल्यार म्हाका वेंगांत धरून फूंक मारीत वळाक मलम लायतली आसली. मागीर हांव दुखनाजाल्यारूय चड चड रडटलो आसलो. तशी ती म्हाका चडूच घट धरतली आसली. आनी हांव रडपाचो थारना जाल्यार आपुणय रडत म्हाका सामको बरो-बरो करीत थारयतली आसली. मागीर म्हाका घेवन दादाकडेन येतली आसली आनी म्हाज्याहुर्जीर दादाक तापयतली आसली. मागीर हांव तेका जिबली दाखोवन चाळयतलो आसलो. 'कूय कूय' म्हणटलो आसलो. पुणून पाड पालेल्या दादान तिका उजो लायलो. आनी वयल्यान सांगता, ती खय देवागेर गेल्या. सामको फटींग, सामको कुस्को, आनी म्हाका मात वयल्यान रेडो, दुकर किदेंय म्हणटा. बडयता, मातसो राव एके खोटेन जर तुका लोळयना जाल्यार नांवाचो गोपाळ न्हू.' अशें म्हणत तेणेन खोंट उखल्ली. पुणून वळ दुखतकीर पांय अचळय सकयल दवरलो.

'शी ! पांय म्हणून खुबूच दुखता. मोडना बी जाल्यार पुरो. आवय आवय ... आरे ! म्हाका जर इतलें दुखता जाल्यार ते पिशेकानीक कितलें दुखता आसतलें ? आनी हांवेन तर तिजेर चड बडयो मारल्या. त्योय बी सामक्यो नेटान. च्ये, च्ये ! हांवेन तिका मारपाक जायनासलें. बाबडी खंयतरी बसून रडटा आसतली. तिका आनी कोण मलम

लायतलो काय ? आनी वयल्यान हांवेन तिज्या फाटिचेर मारल्या. ते वळ पोशेवपाक तिजो हात फाटल्यान पावतलो काय ? देव म्हाका पळयना तो पळयना, तिका तरी सांबाळटा काय ?... च्ये ! हांवेन बडीच उखलपाची न्हू. बडी उखल्ली म्हणून तिजेर मारली. तिजेर मारली म्हणून घरांत हाडली. घरांत हाडली म्हणून दादान म्हाजेर मारली... शें ! चूक म्हाजीच ... ना. ना. ना. ती म्हाका पयलीं किद्याक चाळयताली तर. ती चाळयाताली म्हणून म्हाका राग येयलो. मागीर हांवेन मारलें. आता रड बसून. 'कूय– कूय, तुका तशीच मारपाक जाय...'

बडबडटां – बडबडटां आपशींच तेजो दोळो लागलो. सामको घोरेवपाक लागलो. पुणून अचकीत भियल्लेवरी जावन तो उठलो. आनी सामको धापेवपाक लागलो. हेवटेन तेवटेन पळयत आबूज जाल्लेवरी करपाक लागलो. तो कसल्यातरी भिरांकूळ सपनांतल्यान उठलेलो. म्हणुनच कडकडटालो. उपरांत तो सामको बाबडो जाल्लेवरी जावन, खंयतरी पयस आपली नदर शेणोवन, तोंड उक्तें दवरून किदेंतरी चितपाक लागलो. जणू काय आपल्या जड जिविताचो तो हिशोब करतालो–

तेजे जिणेंतली उणींच चाळीस वर्सां सोपलेली. केन्ना – केन्ना तेका आपलीय बायल – भुरगीं आसचीं, आपल्याक कोणूच दोळे मोठे करून पळोवचोना, कोणूच तापोवचोना, जाय – जाय तें खावपाक – पिवपाक मेळचें, नाचपाक – भोवपाक मेळचें, गाडी घेवन बायल – भुरग्यांक पासयेक वच्चें, बरी मजाच – मजा करची अशेतरेचो आपलो खाशेलो संवसार आसचो. पुणून एकएकदां तेका दिसतालें ; आपूण आजून जोडकार जावना, व्हड जावना. मागीर आपलें लगीन तरी कोण करतलो ? आवय आसल्यार करतली आसली. बारीक, सारकी म्हाज्या जोकाची व्हंकल पळयतली आसली. पुणून ती गेली. दादा, बडयानी मारता, वळ काडटा. वळांची याद जातकच अळंग तेजो हात दुखी भोवती पोशेवपाक लागलो. वळावयल्यान तेका पिशेकानिची परत याद जाली.–

'च्ये ! बाबडे पिशेक बेश्टीच मारली. ती तर सामकी म्हाजे आवयवरीच. म्हाका तर ती बरी करताली. बरी तकली पोशेताली. उयो काडटाली. खावपाक दिताली. लोक किदेंय म्हणू, ती म्हाजी बरी अपुरबाय करताली...'

एक दीस किदें जालें.

सद्चेवरी तो असोच मान्यांत गेलो. पुणून तेज्या पयलींच थंय बाय न्हातालें. तेणेन वांगडाच किंळची मारली. तेका किदें जालें म्हण कांयच समजलें ना. तें भियेलें बी

दिसता म्हण तेणेन तेका घट धरलें. तशें तेणें तेका धुकलून आदिकूच करन्नाय मारली. तो बोवाळ आयकून घरांतली थंय धावली. मागीर बायवांगडा तेका मान्यांत पळोवन सगली चाळवली. व्हनी तर सामकी पिसावल्ल्यावरी जाली. तेका बडयत भायर काडलो, आनी घारांतल्यान धांवडायलो. तेन्ना तो आपलेपरी तिका किदें जालें तें सांगतालो. पुणून ती आयकून घेवपाक तयारूच नासली. आनी तेका तर आपल्याक किद्याक मारतात तेंच समजनासलें.

तेजेर जाल्ल्या घावकी हल्ल्यान तो लीप भियेलो, आनी जीव घेवन धांवत रावलो. धांवता धांवता बरोच पयस कोण दिसना अशा जाग्यार पावलो. तो बरोच थकलेलो. थंयच एका फातरार बसून रडपाक लागलो. तेन्ना अचकीत गांवांर हेडटली पिशेकान मुकार येयली, आनी तेका पळोवन हांसपाक लागली. हांसता हांसता तेज्या दोळ्यानी दुकां पळोवन वांगडाच थारली. सामकी रडकुरी जाली. मागीर इल्ली इल्ली लागीं येवन तेजी तकली पोशेली, फाटिवयल्यान हात भोंवडायलो. तसो तो चडूच रडपाक लागलो. रडटा रडटा तिजो भेस - अवतार पळयनासतना तिका घट वेंग मारली. तशी तिवूय बारीक भुरग्याक न्हिंदयता तशी तेका थापटोवपाक लागली. तो खूब भुकेल्लो. तेका किदें तरी खावपाक जाय आसलें, तें तिणेन पारखिलें आनी आपली पोटली सोडयली. कोणें-कोणें दिल्लें - उडयल्लें जायतें पोटलेंत आसलें. तें पळोवन तेजे दोळे आशेले, तोंड लाळेलें. तेन्ना तिणेन एक उणीं आंवळून लाडू कसो करून तेका भरयलो. जशी तेका आवय मांडयेर बसोवन भरयताली तश्शें. ते उणयेंत माया - मोग - आपलेपण उपाट भरलेलें. त्या अन्नाक आतां बेळसो वांस येयनासलो, तर आवयच्या काळजांतल्यान फुटलेल्या पान्याचो परमळ घमघमतालों. तेन्ना तेका जाल्लें दुख्ख खंयच्या खंय शेणलेलें. तो संवसारांतलो सगळ्यांत खोशी मनीस जाल्लो...

चिंततां - चिंततां तो फट्ट करून उठलो. तेका अचकीत याद जाली, आपणाचेर तरी एकूच वळ उठला. तिज्या फाटिचेर कितले वळ येयल्या काय ? तिजी किदें दशा जावन ती कशी वळवळटा काय ? खरेंच आपूण रेडो, दुकर, लोलो. हे धर्तरेवयलो भार. तिका मारतना आपणाक मात्तूय कशें वायट दिसलें ना. अशें म्हणत तो आपले पोले बडोवपाक लागलो.

मागीर तसोच माळ्यावयलो देवलो आनी पांयाची दूख विसरून धांवत रावलो.

आतां तेजे वसवशे दोळे फकत तिकाच सोदताले. तो वगीच हेवटेन तेवटेन धांवता तें पळोवन जायत्या जाणानी तेका विचारलें. पुणून तेणेन कोणाकूच जाप दिली ना. आतां सगळी मनशा तेका राकेसावरी दिसताली. तेका आनी तिका खावंक उठलेले हिराटे कशी.

तो तिका सोदून सोदून थकलो आनी खासावीस जावन आपले अशे निर्जन सुवातेर कपलार हात मारून बसलो. त्याच तळपार जंय पिशेकानिच्या रुपांत तेका आवय भेटलेली. मायेची उणीं गिळेली. बसलेलेकडेन जायतीं वायट-वाकडी चित्रां तेज्या दोळ्यांमुकार नाचपाक लागली... ती आपलें दुखणे घेवन खंय रडत आसा काय ? भंयांन धांवतां - धांवतां खंयच्या फोंडांत पडली काय ? जिती आसा काय मेली ! ना. ना. अशें जांवचेना. ती खंयतरी सुगूर आसतलीच. ती देवाक नाका. लोकांक नाका. कोणाकूच नाका. फकत म्हाका जाय. मागीर ती खंय गेली, असो म्हाका वाऱ्यार सोडून खंय लिपली ? अशें म्हणत तो दोनूय हातिनी तोंड धापून भुरग्यावरी रडपाक लागलो.

अचकीत तेका पयस कोणतरी दिसली. बरें मुक्कार, रस्त्यान वजें घेवन चलत वयता. तो सावशीत जालो. हय, तीच ती, आपली साटली पोटली कवळून वाटेक लागल्या. तो तसोच ' आवय आवय' म्हणत तिका उले मारीत धांवलो. लागी पावतकीर तिणेन वळून पळयलें . तश्यो तिजेकडल्यो बारीक - मोठ्यो पोटल्यो आपशीच पडल्यो. तो परत आपल्याक मारपाक येता ह्या भंयान  ती धांवपाचे तयारेक लागली.

"आवय, आवय हांव चुकलो. म्हाका सोडून तूं वचू नाका." अशें म्हणत तो काकळुटेन रडपाक लागलो.

तें पळोवन ती तश्शी उरली.

" आवय, तूं म्हाका जाय. तुजेबगर म्हाका आनी कोण ना."

तेन्ना ती थंयच्या थंयच थरथरपाक लागली. गडगड येवन चोंयवशीं जगलुचें तेवरी जालें. तिणेन हात पयस केलें. तशें तेकाय किदें घडटा म्हण कांयच कळना जालें. सीता धर्तरेच्या पोटांत वचपाक जे उमळशिकेन धावल्ली, तेच आशेन तो तिजे कुशींत रिगलो, आतां दोगांयचो भेस एक जाल्लो. आत्म्यासयत दुख्ख एकामेकांत भरसल्लें. तो रडटालो. पुणून दुकां तिजी व्हांवताली. हरशी सदां ती चाळवलें म्हणटकीर मोठ - मोठ्यान रडटाली. पुणून दुकां केन्ना व्हांवनासली. आनी आयज तर बांदूच फुटलेलो...

आनी गोपळ्यान अणभवले; आवयचे उबाळ वेंगेंत संवसारांतलें साबार सूख भरलां. जिविताच्या सूख-दुख्खाचो भार ती जगद्माता माया - मोगाच्या बदल्यांत फुलांकशी झेलता. इतले दीस तो देवाक मळबांत सोदतालो. देव धर्तरेचेरूच मेळ्ळो.

# ४

# पिसावल्लो रूख

“यो यो विठूदाद, आयज किदें वाट बी चुकलो काय म्हणटा ?”

“वाट चुकुना. पुणून ह्या पाडपडिल्या कावळ्यानी म्हाका तुगेर येवपाक लायलो.” विठूदाद तोंड वाकडे करीत उलयलो.

“म्हणजे अशें किदें केलें तर कावळ्यानी ? ”

“वासूबाब, तें आनी तुका सांगपाक जाय. हें पळय माथ्यावेल्यान समते खोमसामेरेन रकयलां”

“आं ऽऽ समजलो, समजलो. विठूदाद, कावळ्यान तुजेर तीर्थाचो शितोडो घाला अशे म्हण मरे. तुजे तकलेंत किदेंतरी अपवित्र आसलें तें ताणे पवित्र केलें.” अशें म्हणत वासूबाब हांसलो.

“ना, ना, वासूबाब. म्हजे तकलेंत बरें पवित्र अशेच घोळटालें हांव किदेंतरी देवाविशींच चिंत्तालो. हेत्या देवाच्या केळामुळांत एक बारिकशी घुमटी उबी करपाचें येवजितालो. पुणून वयर केळार बशिल्ल्या कावळ्यान म्हजे विचार भश्टीले. सगळें अपवित्र केलें. आतां त्या कावळ्यांक बुध्द शिकोवचीच पडली.”

“विठूदाद, योगायोग तो. त्या कावळ्यांचेर वगीच किद्याक शिणटा ?”

“मागीर कोणाचेर शिणू ? त्या केळाच्या झाडाचेर ?”

"आरे, तें अयस - पयस येदे मोठें झाड आसा म्हणटकच कावळे बसतलेच आनी कावळ्यांची सवंय तुका खबरूच आसा."

"वासूबाब, ही हळशीक ताणी म्हज्या खोमसाचेर करुना, तर म्हज्या काळजाचेर केल्या. मागीर हो विठू चाळवचोना तर किदें ?"

"बरें तें आसूं. खोमीस धुवपाक उदक हाडूं मू ?"

"नाका नाका, अशेंच किदेंय पुसपाक दी. म्हाका कळाव जातलो."

तेन्ना वासूबाबान दिल्ल्या पेपरान दाग पुशीत तो तिडक चिड्डयल्लेवरी किदेंतरी बडबडपाक लागलो. अचकीत तेका कसलीतरी याद जाली, " विठूदाद, तूं 'बार' घालपाक खंयतरी लागीच जागो सोदतालो न्ही."

"हय, आसा खंयीं ?"

"आसा, लागीच आसा. सामको रस्त्याक तेकून तिस्कारसो. चड म्हारग पडचोना आनी कसल्यो खटपटीय करपाची गरज ना. तुवेन बार्राचे तयारेक लागल्यार बरें."

"तशी तयारी आसाच. सरपंच धरून मंत्रीमेरेन म्हजे. हांवेन फक्त उतर घालपाचें आनी वावराक लागपाचे."

"एक सांग. हो तो मुकारलो जागो तुजो न्ही ?"

" हय, पुणून थंय देवाचें झाड आसा न्ही. त्या केळाचेर आमच्या इतलोच हेर भाविकांचो हक्क आसा. तेन्ना देवाक आनी लोकांक दुखोवप समा जावचे ना. "

"तें बरें आसा वासूबाब, जाग्याचें हांव पळयता. सद्या शिनेलाचे दोन हजार काडात."

तेन्ना वासूबाबान दिल्ले पयशे घेवन तो कसल्यातरी निश्चेवान भायर सरलो. पुणून केळामुळांत तेका परत पळोवन कावळे चडूच आड्डुपाक लागले. तसो तोय चाळवलो आनी दांत - वंठ चावत केसांक जाल्ल्यो गाठी सोडयत नेटान धेपां मारीत गेलो.

दोन दिसानी गावांत खबर पातळटा; कोणतरी वाटसरू येवन खय त्या केळाच्या मुळांत न्हिदलेलो. तेका खय बरे रातीर त्या झाडाच्या खांदयानी बावगोन बरो वगत मुड्डीलेवरी केलो. तेज्यो त्यो बोबो खूब जाणांनी आयकल्ल्यो. उपरांत तो कसोतरी सुटून थंयच्यान जीव घेवन पळ्ळो.

गजाल आयकून सगळेच काचाबूल. आडेकडेच्या गाडया - वाड्यांचेर नेटान गजाली जावपाक लागल्यो.

“ आरे, हें कशें जावंक शकता. आयजमेरेन त्या देवाच्या झाडान लोकांक आदारूच केला. म्हणुनच तर लोक हात जोडटा.”

“ मागीर हें अशें कशें घडलें तर ?”

“ आरे, देव म्हण वगीच कोणाकूय दुखोवचो ना....”

“ नारे कोणय पिसो बी आसतलो. ना जाल्यार सोपनांत बी बडबडटालो दिसता.”

गजाल चलता चलता तशे लोकांचे कान इल्ले इल्ले लागी येताले. भासाभास वाडटाली.

“ आरे, हांव म्हणटा तेका केळान मुड्डीतना कोणेन पळयल्लो, तुवेन ? वगीच तोंड वाडयतले.”

“ हय मरे ! तुका ही गजाल फट दिसता मरे ? मागीर आयज सांजे तूं थंय न्हिदून दाखय पळोवया.”

“ हांव वगीच किद्याक न्हिदतलो. म्हाका घर ना तर.”

“ मागीर व्हडले व्हडले किद्याक उलयता. जायना जाल्यार शेपडी फाटल्यान घालून वगीच राव मरे.”

“ हांव किदें भिता तर ! तुजें किदें पिड्ड्यार तें सांग.”

“ हयवय. किदें तरी मेळुकच जाय, वगीच किद्याक धाडस करपाचें ? शंभो, तूं भियेव नाका. तुका वांगड जाय जाल्यार हांव आसा. पळोवया आमकां कोण खाता तो.”

“ आरे शेड्ड्या, झाडांय मनशांक खातात, हें तुका खबर ना.”

चलतली भासाभास आयकून मांडून रावल्लो विठूदाद मुकार सरता आनी चार – चवगांमदी शंभूक आनी शेड्ड्याक किंकोत केल्लेवरी म्हणटा, “ आरे, हो म्हणटा तें खरेंच. दोंगरावेली झाडां मनशांक खातात. तशें होय केळ सवकला आसतलो.”

“ हयवय, आफ्रिकेंत बी तसली झाडां चड. केळ होवूय आफ्रिकेंतलो आसतलो. पाकल्यानी हाडलेलो. तशें तेजो रंगूच सांगता.”

“ हयतर, हांव मात पयर बरो सालवार. हांव समजलो कावळो हागलो. पुणून मागीर हात लावन पळयल्यार दीक. माथ्याक दशिल्लो हात कसोच सुटना जालो. थंयच्यान धांवलो म्हण सालवार. नाजाल्यार थंयच घट जातलो आसलो. तुमकां फट दिसता जाल्यार वासूबाबाक विचारात. शंभो, तूं आनी धाडस करूं नाका. म्हारग पडटलें.” विठूदाद सामको भंयाभीत जाल्लेवरी आपलो अणभव सांगता.

“ च्चे ! हांव असले गजालीचेर विस्वासूच दवरिना.”

“ आरे, म्हाका दिसता, देवाच्या झाडापोंदा त्या वाटसरून किदेंतरी बुरशेपणां केल्ली आसतली. वगीच तें लोकांक अशें भेसडावचेना. जीव नाका जाल्यार धाडस कर.”

“ विठूदाद, वगीच भंय घालू नाका.पैज लायता जाल्यार उलय. हांव आनी शेड्डो थंय न्हिदून दाखयता. तेंय फाल्याचे उमाशेक.”

“ म्हाका नाका रे तुमच्यो भानगडी,” अशें म्हणत विठूदाद चलत रावता. पुणून हेवटेन पैज थारता. उलोवणी रंगता.

उमाशे दीस खऱ्यानीच दोगय केळामुळांत न्हिदता. पुणून दुसरे दिसा गावांत खेरिदूच बोवाळ जाता. शंभूक आनी शेड्ड्याक पिशें लागता. कोणाकूच आयकना. फकत,“ धांवा रे, आमकां सोडात रे, खाल्ले रे” अशें म्हणत मेळत तेवटेन धांवत रावता.

तें पळोवन लोक चडून भियेतात. रातचे सोड, दिसाचेय तेवटेन कोण वचना जाले. वासूच्या घरची तर सामकीच आखडून रावपाक लागली. आपल्या भुरग्यांच्या फुडाराखातीर घर सोडून वचपाची वासून तयारी केली.

लोक मात चोम्या - चोम्याची जमून उलयताले.

“ म्हाका दिसाता त्या केळाचेर कोणतरी खेत्री येवन बसला आसतलो. तोच सगळ्यांक भेसडायता.”

“ म्हाकाय अशेंच दिसता. खेत्री ना तर देंवचार.”

“ ना जाल्यार भुतां - आलवतांचे भिरें बसला आसतलें.”

“आरे, भुतां -खेत्री आसता म्हण कोणें सांगलां तुमकां. तुमी केन्ना पळयला देंवचाराक?” एका तरनाट्याक अचकीत शाणपणां येवजतात. तेका ही सगळी फकाणाच दिसतात.

“ आमी पळोवना म्हण किदें जालें . लोक सांगता तें किदें फट.”

“ लोक किदेंय घडोवन सांगतले. तें आमी खरें धरपाचें ?”

“ आरे, शेड्ड्याची आनी शंभूची तरी गत पळोवन उलय रे.”

“ किदें उलय ? ती सगळी नाटकां.”

“ आरे अ ऽ य मास्तराच्या चेड्या, तुजी ती शाणपणां वचून बापायक सांग. शाळेतल्या भुरग्यांक तरी शिकयतलो.”

तेन्ना तेणेन आपलेपरी लोकांक समजोवपाचो खूब येत्न केलो. पुणून कोणेच तेजे आयकलेंना. तेका धांवडावन घातलो.

लोकानी रोखडीच मांत्रीकाक आपोवपाची आनी घाडयाक खुदोवपाची तयारी केली. कांय दिसाळ्यानीय मीठ – मसालो लावन त्या केळाची फोटवासयत खबर छापली आनी तो एक मोठो रुचीक प्रस्न करून उडयलो.

तें केळाचे झाड खूब वर्सां आदलें. एका किंदळाच्या झाडाक वेडावन व्हड जाल्लें. केळाच्या वेंगांत किंदळ खंय लिपला तेंच कळनासलें. मुळांत कांय घुडयो आनी मातयेचे घोडे दिसताले. लोक केन्नाय थंय वात – उजवात लायताले.

जालें. नागरगाळींतलो घाडी येवन केळामुळांत खुदपाक लागलो. लोकूय गांवाचेर कसलें संकश्ट येयलां आनी कोणाची चूक पडल्या तें पळोवपाक जमले.

घाडयान एक बारिकशी पल्ली पेटयली आनी भितर तेल, तांदूळ, मिरसांगो अशें किदेंशे घालीत धुंवर करपाक लागलो. तेन्ना तेका हातभार लावपाक फकत विठूदाद मुकार येतालो, बाकिचे भियेवन कुशिकूच रावताले.

अचकीत तेणेन देवस्पण सोपयलें आनी आपलो निर्णय सांगलो, “ केळाच्या रुखाक पिशें लागलां” अशें म्हणून पल्लेंत कळशिभर उदक ओतले आनी गोबोर हुबोवन धुंवर केलो.

तेन्ना भियेत भियेत विठूदाद उलयलो, “ बाबा, आतां आमी किदें करपाचे ? हो गांव आतां आमी सोडचो पडलो ?”

“ विठूदाद, भिवपाची गरज ना, आनी गांवय सोडपाची गरज ना.”

“ मागीर बाबा, हाजेर उपाय ?”

“ आरे, पिसवल्ल्या कुत्र्याचे आमी किदें करतात ?”

“ समजलो, बाबा समजलो.” अशें म्हणून तेज्या बोटव्यांत किदेंतरी धोंगशिलें आनी विठूदाद नेटान चलत रावलो.

पुणून हेवटेन बाबाचो निर्णय आयकून लोक चडूच काचाबूल जाले. असली भिरांकूळ गजाल आदी कोणीच आयकुनासली. केळाचो शेजारी वासूबाबान तर भंयान आकूळ – पिकूळ जावन हातरूण धरलें. लोक म्हणपाक लागले, शंभू आनी शेड्ड्याफाटोफाट वासूकय केळान झपाटलो. आनी कोणय दुयेंत पडलो जाल्यार लोक एकूच निमीत सांगताले, केळाची बादा जाली. पुणून उपाय करपाक कोणूच मुकार सरनासले.

तेन्ना कोणेतरी फुडाकार घेवन लोकांक विठूदादागेर जमयले. सगळ्यानी एकूच थारायलें. पिसावल्ल्या सुण्यावरी केळाक धर्तरी दाखोवपाची. पुणून झाडाचेर धपको कोण घालतलो ? प्रत्येकजाण भियेवन आपल्या भुरगे - बाळांचें येवजिताले. कसलोय बांदिकार जायत म्हण सगळ्या गजालीपासून पयसूच रावंक सोदताले.

आतां त्या केळाचो भंय गांवच्या लोकां वांगडा हेरांनीय धरलेलो. लोक तेका केन्ना पळोवं नासलेलेवरी बारिकसाणेन नियाळीत उलयताले.

" आरे, पळयात तरी, केळाच्यो खांदयो झपय मारपाक जपलेलेवरी हातकशे फांकारून रावल्या."

" आनी हेते गोळ पळय कशे हालता ते. केन्ना कोणाक गोळाक लायत तें सांगपाक जायना."

" आरे आरे, त्या किंदळाक तेणेन सामकोच मुड्डिलो रे ! "

" आदी ह्या केळार कितली शेवणी आसताली. आतां एकय ना."

" आरे, केळ, करवत, कुंबयो ही भश्टकारी झाडां. तेंचेर देव कसो आसतालो. कोणेनतरी पिशान आदी तेका देवसपणाचो मान दिलो. तो आतां सगळ्यांक बादला."

" तें सगळें खरें. पुणून तेका आता मारून लासतलो कोण ?"

अशें चलतलें उलोवणें आयकून भुरगीं - बायलां तर चडूच तेज्या पासून पयस रावपाक लागली. आदी खेळगडी - भुरग्यांच्या आवाजान तेजें मूळ सदांच गजबजलेलें आसतालें. आनी आतां किण्ण.

केळ मारपाक कोणूच मुकार येना तें पळोवन विठूदादान लोकांक सांगलें, " आतां शंबरांक पांचशी दिवन तें हाणचें पडटलें. झाड सगळ्यांक मारिल्ले जाय म्हणटकच रान खात्याचो विरोध आसचोना आनी मारतल्यांक दिवपाक सगळ्यानी पयशे काडचे पडटले." तेन्ना सगळ्यानी हयकार दिलो.

पुणून कुराडीक हात घालतलो कोण ?

इतल्यान कोणेतरी खबर हाडली ; शेड्डो आनी शंभू कोणाचेर तरी राग काडलेलेवरी त्या केळाक हाणीत आसात. तेन्ना सगळेजाण तेवटेन धावले. पळयल्यार तेंका वेगळेंच चित्र दिसलें. मास्तरालो चेडो चार - पांच भुरग्यांक घेवन केळाक मारुनये म्हण आडायतालो. तेन्ना सगळ्या लोकानी मेळून तेंका कुशीक काडले आनी झाड मारपाक वाट मेकळी करून दिली.

त्या भुरग्यानी खूब बोवाळ केलो ; झाडांक पिशें लागना, इतली सावळी दिवपी व्हड झाड लागी खंयच ना तेन्ना तें मारुंनाकात, तें देवाचेच झाड भुरग्यांखातीर तरी दवरात म्हण तेंच्यानी जायतें सांगलें. पुणून कांयच उपेग जालो ना. त्या आडदांड मानयानी त्या मोव झाडाक केन्नाच अर्दें केलें. मदलो किंदळ घट आसतलो अशें दिसतालें. पुणून तो भितरल्यान पोकळ जाल्लो. आनी आतां तें झाड उडोवपाक लोकूय हातभार लायताले. तें पळोवन विठूदाद हातरुणार पडलेल्या वासूबाबाचे खबरेक गेलो.

तेका पळोवन तो थरथरत उठलो. तेन्ना विठूदाद म्हणपाक लागलो, " वासूबाब, तुका 'बार' घालपाक पिसावल्लो केळ सुवात मेकळी करून दिता. आतां मनांत कसलोच भंय धरिनास्तना तयारेक लाग. कावळ्यांच्या रागान काळ्या केळाचेर काळ येयलो खरो. पुणून पयलो पेग मात म्हाका दिवचो पडटलो, तोय फुकट."

तें आयकून विठूदाद आबूज जावन कावळ्यावरी वाकडे नदरेन तेका पळयतूच उरलो. तेन्नाच जमनीर कोसळटल्या केळान आकांताची किंकाळ मारून गांवांक हालयलो.

# ५

# कूड

सांजच्या सुमार पांच वरांचेर पुण्यां रेल्वे स्टेशनाचेर गाडयेची वाट पळयत बसलेलो. थंय लागीच दोन चेडवां किटकिट्टालीं. तीं हेवटेन तेवटेन पळयता तें पळोवन, जणू काय ती म्हाकाच पळयता असो दुबाव येवपाक लागलो. तशी दिसपाक वायट नासलीं. भेसावयल्यान बरी शिक्षीत आसतली कशी दिसं. खांदाक लायल्या पर्सिवयल्यान तीं खंयतरी कामाक वचून येयल्या जावंक जाय. पुणून तेंच्या कपड्यांचो घमघम आनी मुखामळावयलें ताजेंपण पळयल्यार ती निक्तीच भायर सरून खंयतरी वचपाक रावल्या; काय तीं कोण येवपाची वाट पळयता ? हरशी कितल्योशोच गाडयो येयल्यो, गेल्यो. लोकांची गर्दी जाली, देवली. कोण चडले, कोण देवले. कोण घश्टले. बोवाळा – बोवाळांत आड्डले. कोण सामानापोंदा चिड्डले. जिवाच्या आकांतान गाडयेफाटल्यान धांवले. जाण्ट्याचे बडयेक आदळून पडले. कोण हांसले, कोण रडले. एका एका प्लॅटफॉर्मार मदीच धडधडलें, खडखडलें. पयस वयतले शिटयेवांगडा निवळलें. अशें परतें परतें जायत रावलें. पुणून चलतले गडबडिचो त्या चेडवांचेर कांयच परिणाम दिसलोना. म्हाजी मात नदर इल्ली इल्ली आपशींच तेंचेवटेन वडपाक लागली. तेंची नदर चुकयतले म्हाजे दोळे वगीच तेंच्या पायांकडेन खेळपाक लागले. चुडिदाराचें नक्षी – काम पळोवपाच्या निमतान कुडिचो अदमास घेताले. त्या अदमासावांगडा जायतें अणभवताले. कितलेय जाल्यार

दोळे ते, धांपल्यारूय मेंदवाक जाय तें खाण दितालें .तीं मदीच 'खोक्' करुन हासलीं. तेन्ना हांव दुबावलो, अजापलो आनी मातसोसो भियेवन लजेन तकली सकयल घालून वगीच रावलो. आरे ! म्हाजे दोळे आनी दोळ्यांतली चिंतना तेंचो विनयभंग करता हें तेंका कळ्ळें काय ? काय हांव भिवकुरो. म्हाजे दांडगे कुडींत कसलीच धिटाय ना, चोर नदरेन अबलांचेर बलत्कार करपी दादलेपण नासलेलो देखणो पुतळो. ह्या अर्थान बी तीं म्हाका हांसुना मूं?... खरेंच त्या हांसपान म्हाका लिपूच गंदळून उडयलो. म्हाज्यांतलो 'हांव' हालयलो, झेडपिलो. गर्वान तायट जाल्ली मान इल्ली इल्ली बावगली. तरीय आंगार एके खेरिदूच उमेदीन खंयतरी काटो फुलतालो.

इतल्यान गाडी येयली. हमालानी बोवाळ केलो, " चलो चलो, गोवा एक्स्प्रेस आयी !" थंय गर्दी केल्ल्या लोकानी आपापलें सामान उखल्लें. हांवय म्हाजीं बॅगां सांबाळीत डब्याचो नंबर पळोवन वयर चडलो. सीट नंबर पळोवन बॅगां सारकी थेयली. म्हाज्या कंपार्टमेंटांत एकटोच कोणतरी आसलो. केन्ना पुणें पळोवंक नासलेल्यावरी जनेलांतल्यान जाता तितली तकली भायर काडून पळयतालो. किदें पळयता काय ? कॉलेजीच्या भुरग्यांक, काय त्या ऽ आयस्क्रीम खातल्या बायलांक ? कोणाकूय पळोवं म्हाका किदे, अशें चित्तनाच एक धायेक वर्सांचे चेडू येवन तेजेकडेन भीक मागपाक लागलें. पुणून तो कांय दिना जालो. वेदोळ पयस भोंवतली तेजी वखवखी नदर आतां त्या चेडवाचे कुडिचेर थिरावली. येद्याशा भुरग्याक हलकटावरी पळयतना तेका मात्तूय लज दिसना काय ? हांवे सिटावयली भिकणां – कल्लां फाफडिली. बॅगांतले चादर काडून घडयेसकट सिटार दवरलें आनी पेपर घेवन बसलो. रेल्वे सुटली. कांय खिणाभितरूच वेग धरलो. हांवेनूय जायत्या खबरांचेर नदर भोवंडायली. खून – बलत्कार – विनयभंग – शिंदळकी –एक एक रंग...

इतल्यान अवचीत 'ती' वेदोळची चेडवां येयली. कंपार्टमेंटांत घमघम सुटलो. त्या वांसाबरोबर शिरंतरांय फुल्लीं. एक खेरिदूच उमेद जागी जाली. वगीच आंगाक कातकुल्यो जाल्ल्यावरी जावपाक लागलें. तेंच्या मुखामळावयलो हांसो आजुनय उणो जांवनासलो. तन्ना म्हाज्याय ताडार आपशोच हाश यथल, आनी ता काण ता उमदीन तका मान्यानी 'बस् येता' अशें खुणावपाक लागलो. तीं बसली. रोखडेच हेवटेनचे तेवटेनचे विशय काडून गजाली सुरू जाल्यो. जणू काय आमी बरीच एकामेकाचे वळखिची आसलेल्यावरी. उलोवणें आयकल्यार कोणाकूय दिसपाचें, हीं चौगांय एकाच घरांतलीं, खंय तरी पयस भोवपाक वयता. तो तर सामकोच उमेदी प्राणी. मदीच पियेल्ले च्यायेचे पयशे तेणेच

फारीक केले. उपरांत आपोलूय घेतले. उलयता उलयता आमी दोगूय गोंयांत वचपाचे आसा हें तेकां कळ्ळें. तेन्ना तिवूंय गोंयांतूच वयता म्हणपाक लागलीं. तें आयकून मात हांव दुबावलो; बायलमनशा म्हण इतले पयस वचपाक अशेतरेन भायर सरता ! हातितली येदिशी पर्स सोडली जाल्यार आनी तेंचेकडेन कसलेंच सामान नासलें. शिवाय तेंच्या उलोवण्यांतली शिटुकसाण पळयल्यार कोणाकूय दुबाव येवपाचोच. तें किदेंय जांव. हांवेन मनांत येवजिलें, गोंयांत पावमेरेन तरी टायमपास बरो जातलो.

मदीच म्हाज्या सामकार जें चेडूं बसलेलें तेणेन आपली पर्स उगडली, आनी हारशी काडून आपलें मुखामळ पळोवपाक लागलें. मागीर परत हात पर्सींत घालून किदेंतरी सोदपाक लागलें. लिप्स्टीक ! ओह ! ती बुलिकशी सकयल पडली. ती काडपाक तें, तशेंच बावगले. तेन्ना तेज्या त्या सौंदर्याचेर आपशीच म्हाजी तिरपी नदर गेली. तेंय मोठें मालकिर्याद ! ती बुली उखलता उखलता चोर नदरेन म्हाका पळयत, तेणेन म्हाजी चोरी सारकी धरली. तेन्ना म्हाका मातशें आखडल्ल्यावरी जालें. कितलोय जाल्यार प्रतिष्ठीतपणामुकार एक लेज्जेचो प्रस्न. मागीर हांवेनूय चिंतले; आपली लज जर तेका दुसऱ्यामुकार सांबाळपाची आसली जाल्यार तेणेन आपली पडटली ओडणी किद्याक सारकी सांबाळ्ळी ना. पुणून तेजे ते पालशे नदरेन हांव मात सामकोच विचित्र अशा भोव-यांत घुस्पल्ल्यावरी जालो. कोण काय हीं ?... म्हाज्या दोळ्यांमुकार तरेकवार प्रसंग आनी जायत्यो खबरों येवपाक लागल्यो. तेन्ना सोताक हांवेन सादूर करपाचें थारायलें. बॅगाक आनी सुटकेशीक सरपळी घालून कलयत लायल्लें, तें सारकें तपासलें. आनी मदीच उठून टॉयलेटिवशी गेलो. पयशे, म्हत्वाचीं कागदां भित्तर दवरिल्लीं, तीं जाग्यार आसा म्हणपाची खात्री करून घेतली आनी परतलो.

येवन पळयत जाल्यार भलतेंच चित्र दिसलें. कोणतरी दोग जाण येवन तुटकी - तुटकिशी भाशा उलयताले. ते किदें म्हणटा तें कळटालें. पुणून त्या उलोवपांत एक 'कोड भास' लिपलेली. तेन्ना पयलिचो म्हाजो वांगडी कोनशाक वग्गी बसचो तसो जनेलाकडेन बसोन तेंचें उलोवणें बारीक आयकतालो. हांव येवन थंय उबो रावतकच म्हाज्या जाग्यार बसलेल्याक एका चेडवान उठयलो. तेन्ना हांव मोन्यानी वचून चादर सारकें करून बसलो. दुबावीत जाल्लें मन अदिकूच घुस्पलें. कोण काय तीं ? आनी हे कोण काय ? हरशीं बरे स्टायलीश आसा. उलोवपांत एक खेरिदूच लकब आसा. झेत - नेट - पॉज - हिरोगिरी सगलें आसा. ते कोणय आसूं, आमकां किद्याक पडलां अशें चिंतून हांव तोंड वळोवन

जनेला – भायर पळोवपाक लागलो. भायर मात मात वाडटल्या काळखाबरोबर मनांतलो दुबावूय घंयरेवंपाक लागलो. भितरल्या भितर जी अळंगी उमेद जागी जाल्ली तिज्या जाग्यार खिणांपयली जें आपलेंपण आनी भावुकता तेंच्याविशी मनांत आसली ती विरघळटाली.

उलयतां उलयतां ते हांसलेशे केले आनी चलत रावलें. कांय खिणां उपरांत तींय उठली. आनी आमी सामकेच अजागळ आसलेल्यावरी आमकां लेखून हासलिशीं करून ते गेल्ले तेवटेन मोडतशी गेलीं. कितलोसोच वगत थंड थंड जालें. हरशीं काळोख चिरीत धांवतले गाडयेचो कांन फोडपी आवाज येयत आसलो. इतलो वगत त्या आवाजाचें म्हाका भानूच नासलें. पुणून तीं दोगांय गेल्या उपरांत जायते आवाज घोंगेवपाक लागले. च्या – खावडवाल्यांचो आवाज, फाटल्या – फुडल्या कंपार्टमेंटांत केकेतल्यांचो बोवाळ. आनी त्या आवाजावांगडा धुल्ल–मिस्त्रित गरमेचो त्रास जावपाक लागलेलो. खिणांत त्या सुखदिण्या रेल्वे प्रवासाचो उबग येयल्ल्यावरी जाले. वेटर सांगलेलें जेवण घेवन येयलो,पुणून जेवपाकच मन जायना जाले. वगीच एक एक कालयलेशें केलें आनी जाता तितले उदक पियेवन ताट पोंदा दवरलें. तेन्ना म्हाज्यावांगडा जो मुकारलो जेवतालो तेणेंय आपले ताट तशेंच दवरलें. तेन्ना हांव तेका पळयतूच उरलो.

तशें तेणें हांसलेशे केले आनी म्हाका म्हणपाक लागलो, ‘‘गरमी बहोत बढ गयी है ! खानेको भी मन नही करता !’’

हांवूय हांसलेशें करून वगीच रावलो.बरो वगत भायर पळयलें.हरशीं भायर कांयच दिसनासलें. पयस खंय खंय लायटी पेट्टाल्यो. खयतरी पयस गाडयो धांवताल्यो. तशें पळोवपाकय कांयच नाकासलें. फकत त्या चिंतनापासून पयस जावपाचो यत्न करतालो. भायर म्हण कितलो वगत पळयतलो. मातसो उबो रावलो. तेन्ना नदर आपशींच हेवटेन तेवटेन घुंवपाक लागली. ती खंयसरूय दिसता काय म्हण सोदपाक लागली. तोय फाटीं–फुडें एक लांब पासय मारून येयलो तेन्ना म्हाका तेका ‘तीं खायीं दिसल्या? ’ काय म्हण विचारिनशें दिसलेलें ,पुणून वगीच रावलों. पुणून तो म्हाजी नदर पळोवन भितरल्या भितर हांसलो. घडये म्हाज्या मनांत किदें चल्लां हेजो तेका अदमास येयल्लो आसतलो. हांवय मातशें हासलेशें करून न्हिदपाची तयारी करपाक लागलो.

तो तेवटेन हांव हेवटेन,दोगय आड पडले. पुणून दोळो लागना जालो.पेपर वाचतलो म्हणल्यार जीव जड जाल्लेवरी दिसपाक लागलो. तो मात कसलेंतरी पद गुणगुणटालो. तेन्ना म्हाज्यान रावपाक जालेंना.

“ क्या भाय, गाना तो गा रहे हो,थोडा हमे भी सुनने दो ! ”

“अब जोर कहीं का? बुलबुल होते तो बात कुछ और होती ! लेकीन वो तो उड गये!”

त्या उतराचेर म्हाज्यान हांसप आडावपाक जालें ना.हांसतूच म्हणलें,“ लेकीन वो दोनो गयी कहां ? क्या वो आदमी उनके रिश्तेदार थे ?”

“रिश्तेदार ?.... अंऽ बोला तो हां,बोला तो ना ! लेकीन एक रिश्ता जरूर था ! ... तन और धन का रिश्ता !” त्या उतरार हांव तेका पळयतूच उरलो. तेन्ना तो फुडें म्हणपाक लागलो,“ रुपैया गोल है, और ये दुनिया गोल-माल है ! जिसका सिक्का चमकता है, उसिका इक्का जीत जाता है !”

ह्या तेज्या उलोवण्या उपरांत म्हाज्या तोंडातल्यान भायर सरपाक उतरांच नासली. पुणून हांव मात तेज्या उतरानी पुराय घुस्पल्लो. कसले तरेचें काय तें नातें ? ‘तन और धन का रिश्ता ... ’ नाका जाल्लें तें चिंततां-चिंततां केन्नाच दोळो लागलो.

मध्यान रातीर कसले तरी जागीन हांव उठलो. पळय जाल्यार सगळो बोवाळ. गर्दी करून लोक भितर सरताले. तकली भायर काडून पळयलें, मिरज पावल्ले. आमी उठून बसले,लोक सिटां सोदताले. कोण एकलो बायल-भुरग्यांसयत समतो बिराड कसो घेवन आमच्या कंपार्टमेंटांत-येवन सामान दवरुपाक लागलो. तेंका रोखडेंच न्हिदपाचें आसलें. सिटां सोडलीं. न्हिदपाची तयारी जाली. इतल्यान कोणतरी एक बायल भुरग्याक घेवन येयली आनी जागो सोदपाक लागली. हरशी सगळी सिटां भरल्यां. तिका जागो ना. शेजाऱ्यां तर केन्नाच न्हिदलेली. पुणून तिजेकडलें तें आठ-णव म्हयन्याचें भुरगें पळोवन म्हाका काकळुटशी येयली. म्हाजें सकयलें सीट. बाकिच्यांक पळयत, पळयत हांवे तिका ‘बस’ म्हण सागलें. मदलें सीट सोडलेल्यान सारकें बसपाक मेळनासलें. तरीय ती बसली. हांवूय पांय लागी करून जनेलाक तकली लावन जागृत न्हिदलो.

रोखडेंच तिणेन आपल्या भुरग्याक दुदाक धरलें. तशी हांवेन पेट्टली लायट पालयली. कोण काय ही ? पळोवपाक बऱ्या घराण्यांतली कशी दिसता. झळझळीत साडी. फिट्ट पोलको. बरे घट्ट उगयल्ले केस. सामकी शाळेची बाई कशी. त्या मंद उजवाडांतय तिज्या मुखामळावयली फांक आनी दोळ्यांतली तिखसाण सारकी झळकताली. खंयच्यांय दादल्याक एकेच नदरेन घायाळ करपाचें तेज तिज्या दोळ्यांतल्यान भायर पडटालें. म्हणुनच तर तिचे सोबितकायेची भांग म्हाज्या दोळ्यांचेर चडून हांव तिका सिटार बसोवपाक

तयार जाल्लो. हांव सामको अस्वस्थ जालों. कोण काय ती ? अशीच हांवेन एक सोबीत आनी निरागस मुखामळ आसलेली एक बायल पळयल्ली याद जाली.

थोडे दीस हांव कोल्हापूरा एका पोरन्या घराचे माळयेर भाड्यान रावतालो. थंय लागीच एक हॉटेल आसलें. त्या हॉटेलाचे निमाणे माळयेर, एके कडेचे कुडींत एक बायल केन्ना केन्ना दिसताली. मद्दम वयाची. पुणून जणू काय आपूण भुरगीच आसा अशी वागताली. तशी दिसपाक बरी आसली. गोरीच. वाटकुळ्याच तोंडाची. पुणून केन्ना केन्ना खंयच्याय वगतार तिजे कुडींत सरतल्या दादल्यांक पळोवन हांव जायते फावट नाका जाल्लें चित्तालो. तिज्या सोबावाविशीं दुबाव घेतालो. पुणून ती वाटेर दिसल्यार सती सावित्री कशी भासताली. मागीर मनांतले दुबाव आपशींच पयसावताले. पुणून ते कुडीविशी म्हाजी नदर सदांच घुस्पागोंदळान उरताली. फकत अमकेच तरेच्या लोकांक राखीव दवरिल्ल्यावरी. एकएकदा ती कूड आनी ती अस्तुरी रातच्या वगतार नदरेक पडतकीर , न्हिदलेलेकडेन कितलेशेच प्रस्न दोळ्यांमुकार घुंवताले...

भुरग्याक दुदाचें काडटां काडटां तिणेन तकली म्हाजेवाटेन घुंवडयली.

“ आपण कुठे, गोव्याला का ?”

हांव कांय खीण वगीच रावलो. पुणून रोखडेंच 'हय' म्हण सांगलें.

बरो वगत तीय वगीच रावली. भुरगेंय न्हिदलें. सारकें बसपाकय मेळनासलें. आनी म्हाज्यासारको एक दादलो आसतना एके परके बायलेक त्याच सिटार भुरग्याक घेवन न्हीद म्हण तरी कसो सांगतलो ? रेल्वेंत रातचें हेर कंपार्टमेंटानी वचपाक वा लागी तरी उबें रावपाची माणसुकी आसता ? कोणय चोर समजून धांवडावन घालीत म्हण भंय आसता. आनी सकयल न्हिदतलो म्हणल्यार नव्या सोयऱ्यानी सगळ्याक अशेंच सामान उडयलां. किदें करचें कांयच समजनासलें.

“ माझ्यासाठी आपल्याला त्रास झाला.”

“ नाही, त्रास कसले !”

“ आपल्याला व्यवस्थित झोपायला मिळत नाही ना.”

“ राहू दे, काय करणार... पण आपण अशा एकट्याच कुठं ? गोव्याला का ?”

तें आयकून ती कांय खीण वगीच रावली, आनी मागीर अचकीत 'हो - होय' म्हणपाक लागली. तेन्ना हांवेन फुडें विचारलें,

“ अशा रात्रीची लहान मुलाला घेऊन !”

" नाही म्हणजे... ह्याच्या वडलाना अपघात झालाय असं कळलं. बघायला दुसरं कोणी नाही, म्हणून अशीच निघालीय."

"अपघात म्हणजे...!"

".. ह्यांच्या स्कुटरला बस लागली."

"मग .. रिजर्वेशन केलं नव्हतं का ?"

"कुठलं रिकर्वेशन. जनरलची तिकीट घेऊन आलेय. आपण सीट दिलीत म्हणून बसायला तरी मिळालं. नाही तर याला घेऊन मी कुठं राहिली असती. तुमच्यासारखी माणसं खूप कमी असतात."

हें आयकून कुशीक न्हिदलेलो पयलींचो वांगडी खांकरलो. घडये तेका म्हाका किदें तरी सांगपाचें आसा अशें दिसतालें. बरो वगत तो तोंडार चादर घेवन एकाच दोळ्यान तिका बारीक नियाळटालो. तेजो तो बिटबिट्टलो दोळो म्हाका सारको दिसतालो. मंद उजवाडांतय तेज्या दोळ्यांतली आंबसाण सारकी पारखूं येताली.

कांय खीण मोन्यांनी गेल्या उपरांत हांवेन तिका विचारलें,

" कुठं·उतरणार ?"

" बेळगावला."

" काय ! ?"

" नाही म्हणजे... बेळगाव पुढं, गोव्यातल्या पहिल्या स्टेशनवर." ही तिजी गडबडी उतरां आयकून म्हाका तिजो दुबाव येवपाक लागलो. तेन्नाय तो वांगडी परत खांकरलो.

इतल्यान दुबाव घेवपासारके कोणतरी गुणगुणत येयले. चोर बी न्हू मू ? ते गायतलें पदूय वळखिच्चेशें दिसतालें. ते अशे किद्याक भोंवता काय ? तेंका पातयेवपाचे ना. अशें चिंततां आसतनाच तिणेन म्हाका "भाऊ" म्हणले आनी, " याला जरा घ्याल का लगेच तिथं जाऊन येते." अशें म्हणून समते त्या भुरग्याक म्हाजे सुवादीन केलें. आनी पदर सावरीत नेटान गेली.

हातितलें भुरगें सुस्त न्हिदलेलें. तेका बाबड्याक कोणें धरलां, खंय आसा, खंय वयता, कांयच खबर नासलें. हालतले गाडयेंत पाळण्यांत आसलेल्यावरी तेका दिसता आसतलें.

आरे ! ही बायल खंय पावली ? लागी लागी अर्दवर जाले. खंय गेली काय ही?

उबे रावन हेवटेन पळयलें. तरी दिसली ना. आतां मात हांव लीप दुबावलो. भंयान पांय थरथरपाक लागले. ह्या भुरग्याक म्हाजे सुवादीन दिवन पळ्ळी बी काय ? हिणेन कोणालें भुरगें चोरून बी हाडुना मूं ? काय कुमारी माता ! आतां ह्या भुरग्याचें किदें करपाचें ? ह्या विचित्र अणभवान दोळ्यांतली न्हिदूच गेली. कोणेय विचारल्यार किदें सांगपाचें ? सद्या आनी लोकालीं भुरगी चोरयेक वयता म्हण बोब चल्ल्या. पुलीस आनी येयल्यार हांव तेंका किदें सांगतलो ? कोणालें भुरगें म्हण सांगतलो. तेजी आवय कोण म्हण सांगतलों ? कोणे दिलें म्हणटलो ? खिणांत जायते प्रसंग दोळ्यांमुकार नाचपाक लागले. पांय जाग्यारूच उरना जाले.

इतल्यान कोणतरी दोग–चोवगजाण येवपाक लागले. आरे देवा, पुलीस ! आर्म आनी दांडे घेवन सासपीत येता. बेगिबेगीन त्या भुरग्याक घेवन सिटार लवंडलो. चादर आंगार ओडले आनी तें भुरगें दिसचेना अशे तरेन न्हिदलो. हांगा - थंय दांडे मारीत पुलीस येयले आनी दुबावानशे आमच्या कंपार्टमेंटाकडेन रावले. हांवे अचळय पळयलें, ते वयर सकयल बारीक नियाळटाले. तेंका कसलो दुबाव येयल्लो म्हण देवाक खबर. म्हाजें आंग तर सामकें धडधडटालें. पुणून रेल्वेच्या धडधड्यामुकार कोणाक कांयच कळनासलें. तेन्नाच म्हाका सिटार ओलें लागलें. आरे देवा, भुरग्यान 'सुसू' केल्लें. तरीय तस्सो रावलो. पुलीसांक जाग दाखयल्यार किदेंय विचारीत म्हण भंय. भुरगें चोरयेचें बी आसल्यार ? सगळी ओलसाण कपड्यांनी ओडून घेतलेली. खारसाणशी मारताली.

त्या सामानाचेर दांडेशे मारले. सामान हालयलेशें केले आनी पुलीस मुकार गेले. हांव अचळंय उठलो. शेजारचे सगले लोक सुस्त न्हिदलेले. पुणून हांव मात लाचार - गुन्यांवकार कसो त्या भुरग्याक लिपयत चोर जावन तळमळटालो. मोठे उमळशिकेन देवाची कशी तिजी वाट पळयतालो.

करता करता बरोच वगत जालो. तिजो पत्तोच ना. रातच्या वगतार तिका खंय म्हण सोदतलो, आनी कोणाक म्हण विचारतलो. इतल्यान रेल्वे थारली. खंय पावले काय?... बेळगांव ! हांव तसोच त्या भुरग्याक घेवन भायर सरलो. हेवटेन - तेवटेन धांवत तिका सोदली. वगीच दुबावान लोकाल्या बायलांची मुखामळां पारखिली. परक्यांच्यो म्हण वगीच नदरो सोसूं येता ? खूब लोक देंवले, गेलें. पुणून ती खंयच दिसली ना. उलो म्हण तरी कोणाक मारतलो ? भंयान जीव आकुळ्ळो. एकेवटेन ताळो सुकलेलो. पुणून–

इतल्यान गाडी सुटली. तसो धांवत वचून परत बसलो. तरी नदर भायर – भितर तिकाच सोदताली. जाल्ले धांवपळींत भुरगें केन्ना उठलें तें कळ्ळेंच ना. लायट पेटयली. तशें तें दोळे बिटीबिटी करून म्हाकाच पळोवपाक लागलें. हांव परकी म्हण तें म्हाका वळखलें काय ? पुणून रडलें ना, वगीच रावलें. तशें हांवेन, 'तुजी आवय खंय' काय म्हणून विचारलें. तेन्ना तें आपले माणकुले गाल फुलयत हांसलें. मागीर आनिकय किदें किदें विचारलें. तशें तें अदिकूच हांसपाक लागलें. तेज्या त्या निश्पाप – निर्मळ हांसपान हांव पुराय जगाक विसरलों. म्हाजेर येतलें बगलट – संकश्ट आनी भंयान जाल्लो गुळो सगलें – सगलें विसरलो. हांव आंकवार नासून एका भुरग्याचो बापूय जाल्लो. बापायपणाचें पुराय सूख अणभवतालो– एका विचित्र, पुणून जिवाक थाकाय दिवपी सुखांत हांव न्हांतालो...

इतल्यान त्या वांगड्याक कोणतरी चावलो म्हण तो जागो जालो. म्हाका त्या भुरग्यावांगडा गजाली मारता तें पळोवन हांसलेशें करून म्हणपाक लागलो, "क्या बन गया बकरा ! यहाँ बकरेकी यही हालत होती है !"

तेज्या त्या उलोवण्यान हांव भानार येयलो. इतलो वगत विसरल्लें भिरांतेचें सपन परत आंगात शिरशिरलें. ह्या भुरग्याचें आतां करपाचें किदें ? कोणाक दिवपाचे ? खयीं रस्त्याकुशीक उडोवपाचें काय घरा व्हरपाचें ? घरा व्हेल्यार, खंय मेळ्ळे ? कोणाचें भुरगें? कोणे दिलें म्हण सांगपाचें ? खरें सांगल्यार लोक म्हाका पिश्यांत काडचेना ? लोकाली अशी गोड भुरगी अशीच वाटेर मेळटात ? च्ये ! सामको सोश्यावरी पासाक फारवल्लो.

पुणून एक मन भितरल्या भितर कसली तरी तयारी करतालें. ना, ह्या भुरग्याक उडोवपाचें ना, तेजे हाल जावपाक दिवपाचे ना, घरा व्हरपाचें. कोण किदें म्हणटा तें म्हणू, तेका पोसपाचें. आरे पुणून कोण तें, चेडो काय चेडू ? त्या तरेकवार हुलनाच्या कपड्यानी हात घालपाचो म्हाका धीर जालो ना. आसूं, कोणय जावं. तेका आपलेशें करून वाडोवपाचें.

हांवेन घडयाळ पळयली. पांच जायत येयल्ली. आनी थोड्या वगतान उजवाडटलें. हांव गोंयां पावतलो. कु ळ्यां देंवन रिक्षा करप. समते घराकडेन व्हरप. आवय मातशी बेजारतली. कोणालें भुरगें उखलून हाडलां काय म्हणटली. पुणून तिका भुरग्यांची खूब अपुरबाय. आपशींच निवळटली. बाबाक तसलें कांयच लागना. तुमकां जायतें करात म्हणटलो. लोकांचें बरें आसा–

गाडी इल्ली इल्ली सवकास जावपाक जाली. किदें जालें काय ! लोंढा पावले.

लोक सामान काडपाखातीर बोवाळ करपाक लागले. आमचें नवेलें बिराडय उठलें. गाडी थांबली. पुणून वगीच म्हाजें काळीज धडधडपाक लागलें. थंडी आसुनय घाम येता काय जालें–

अचकीत कोणतरी नेटान येयली. भेस तोच. पूण अस्तावस्त. केस सदळ जाल्ले. हय, तीच ती ! भुरग्याचेर नदर पडनाफुडें 'सू' केलें. मुठितलें किदेंतरी काळजाकडले तिजोरेंत मुंगरिलें आनी समतें म्हाजेकडल्या भुरग्याक उखल्लें . खिणभर म्हाका किदें उलोवचें आनी तिका कशें तापोवचें तेंच कळना जालें. तेन्ना तीच म्हणपाक लागली–

" माफ करा. हे काही मी मुद्दाम करत नाही. आपल्यासारखे कोणतरी असतात म्हणून आमचं पोट चालतं. हा संसार मतलबी आहे. आपल्या फायद्याशिवाय लोणालाच काही देत नाही !"

अशें म्हणलें आनी ती नेटान चलत रावली.

हांव मात तिका तोंड वरशें करून पळयतूच उरलो. आतां इल्लें इल्लें म्हाज्या लक्षांत येतालें, 'तन और धन का रिश्ता' म्हणल्यार किदें तें...

# ६

# सरपंच

'सरपंच' ह्या नावानूच सगळे लोक तेका वळखतात. तेजें नांव 'रुपलो' हेंय थोड्यांक खबर आसचेना. सरपंच म्हणटकच गांवच्या सरपंचाची लेगीत घड्ये याद जांवचेना, पुणून ह्या रुपल्याची अवश्य जातली. तो बाबडो सरपंच खंयचो, सादो पंचूय म्हण केन्ना वेचून येवना. तरीय लोक तेका 'सरपंच' म्हणटात. पयलीं पयलीं तेका 'सरपंच' म्हणटकच उमेद जाताली. मागीर मात राग येवपाक लागलो. हालिंसराक मात 'सरपंच' हें जणू तेजें नांवूच जालां. 'सरपंच' म्हूण उलो मारल्यार बरो 'ओ ऽ' म्हणटा. हरशीं बाबडो सोबावान सामको सादो – भोळो. कोणेय तेका किदेंय सांगल्यार रोखडेंच पट्टा. कोणाक केन्ना 'ना' म्हणचोना. जाता तें काम कण मोडून करतलो. कोणायच्याय उल्याक केन्नाय धांवन वचपी. आपले आवयचेर तर तेजी उपाट माया. तिका जाता तितली खोशी दवरपाक तो सदांच वावुरता. पुणून बाबडो खूब फावटी लोकांच्या सांगण्यान तिजेवांगडा झगडींय करता. झगडून एक एक दीस उपाशीच रावता. पुणून तिका केन्ना एक गाळ संवचोना वा कसलें एक वायट उतर म्हणचोना. फकत घरांत एक तरी झगडें जावंक जाय, आडेकडेच्या लोकांक तेंच्या अस्तित्वाचो बोवाळ आयकूंक येवंक जाय, ह्या हेतान जणुकाय तीं झगडटात, काय घरांत टिव्ही, रेडिओ बी काय ना म्हण सोताचे मनोरंजन करून घेवपाखातीर तीं झगडटात म्हणपाचें कांयच कळना.

हय. तेका सरपंच किद्याक म्हणटात हें पयली सांगचें पडलें ना. तेन्ना पंचायतीची वेचणूक जाहीर जाल्ली. वचत थंय मेळत तो 'हांव तूं, हांव तूं'. करताले. त्याच वगतार कोणेन तरी आमच्या रुपल्याक फुलयलो; तेज्यासारको शिकलेलो भुरगो सरपंच म्हण निवडून येवपाक जाय. हे जाण्टेले निवडून येता आनी पंचायतीन वचून फकत खुर्च्यो तापोवन येतात. तेंका धड वाचपाकूय येयना आनी धड बरोवपाकूय येयना. थोडे तर फकत आंगटे - बहादूर. आपलो बरो जांबळोच आंगटो कागदार काडप इतलेंच तेंका खबर आसता. ते केन्ना सभेंत दोन उतरां उलयनात. पुणून तोंडान शापोता सांगपाक मात बरी कळटात. म्हणुनच वेचून येतात. आपल्या घरची उदरगत करप तेंका शक्य जालेंना, ते गांवची किदें मडे करतले ?

पुणून रुपलो तसो ना. तो बरो शिकला. णवी फेल जावं, पुणून बरो वाचूंक - बरोवंक जाणां. सरपंच - पंच जाल्यार कसलोय अर्ज वाचूंक तरी शकतलो. कोणायची कसलीय कागाळ आसल्यार वा कोणायचें किदेंय काम आसल्यार आपूण सोता मुकार सरून तें करतलो. हितून मात्तूय दुबाव ना. तेन्ना हे फावट किदेंय करून रुपल्यान वेचणुकेक रावपाकूच जाय. जो किदें च्या-पाणयाचो खर्च येतलो तो कोणे कोणे करपाचो तें थारयले.

पुणून रुपलो कसोच तयार जायनासलो. तो म्हण्टालो, आपल्याक पंचायतिंतलें कांयच खबर ना. सायबांचो भंय दिसता. केन्ना खंयच्या ऑफिसांत वचून नकळो, भाशण करपाक कळना. पंचायतीन वचप म्हणल्यारूच कडकडो येता. मागीर लोकांची आनी पंचायतिंतली कामां तरी कशी करतलो ?

तेन्ना कोणे-कोणेन तेका धीर दिलो. पयलीं फकत वेचुनच येवपाक जाय मागीर सगळें कशें आपशीच कळटा तें देखी दिवन पटोवन सांगलें. कामा करपाक सचिव आसताच, तेणे फकत खुर्चेर बसून सायन मारपाची. तेणेन कसलें काम करिना जाल्यार जाता. पंच म्हणून लेगीत निवडून येयल्यार म्हयन्याक पंदराशी रुपया तरी मेळटलेच. अशें जायतें तेका पटोवन सांगलें. तरीय तो तयार जायना जालो.

पुणून निमाणे तेजेर लटकें चेपण हाडून आनी उतरानी घुस्पोवन तेका 'हय' म्हणपाकूच लायलें.

जालें. कोण कोण सांगता तशें आनी हेर उमेदवार करता तशें तशें आपूण करपाक लागलो. आपलेकडले पयशे सोपयले ते सोपयलेच आवयचेय गाठीचे पयशे मोडले. तो घरा-घरांनी भोवून आपलो प्रचार करतालो. आपूण वेचून येयल्यार किदें किदें करतलो

तेची तो वळेरीच वाचून दाखयतालो.

तेन्ना कोणेनतरी तेका म्हणलें, "मागीरचें मागीर, आमच्या ह्या रस्त्याक फोंडकुलां पडल्यां तीं पयली पुरय. मागीर आमी तुका मतां घालता. ना जाल्यार फाल्या तूं आमची कामां करतलोच काय ना तें कशें कळटलें ?"

तेन्ना तेजो नाइलाज जालो. तो तर सोता मानायपणाचें कसलेंय काम करपी, तेणेन वांगडा मानाय घेतले आनी सोता खंयच्यान तरी कवर हाडून रस्त्याचें काम केलें.

तशे लोक तेका अदिकूच फुलोवपाक लागले. आनी उतर दिवन तेकाच मत घालतले म्हणपाक लागले. तेजीय खात्री जाल्ली. आपूण आता वेचून येतलोच. तशीं तो व्हड- मोठी आश्वासनां दिवपाक लागलो. साद्या रस्त्यावयल्यान डांबरिकरणाचेर पावलो, दोतोरावयल्यान हॉस्पिटलाचेर पावलो. इश्कोलावयल्यान कॉलेजीचेर पावलो आनी साकवावयल्यान पुलाचेर पावलो. बारकेल्या खेड्या-गांवांत शारांतल्यो सगल्यो साधन-सुविधा हाडपाचें उतर दिवन आपल्याकच सरपंच म्हण वेचून काडात म्हणून लोकांक पांयां पडपाक लागलो. तेन्ना तेका पळयत जाल्यार जातिचों राजकारणी कसो दिसतालो. धवी बंडी आनी गांधी टोपी घालून बरो लोकांक हात जोडून सांगतालो. आपल्याक सरपंच करून गांवाची उदरगत करपाक संद दियात. पुणून सरपंच जातलो जाल्यार पयली पंच म्हण वेचून येवपाक जाय हेंय तेन्ना तेज्या मतींत येयनासलें.

दीस अशेच गेले. वेचणुकेक फकत दोन दीस उरलेले. इतले दीस तो कोणा - कोणाक घेवन भोंवतालो. पयशे मोडटालो. पुणून हेर उमेदवार तशे कोणूच भोवनासले. त्या शिवाय तो उबो रावला त्या वार्डांत खासा गांवचो सरपंच रावला. तोय किद्याक भोंवना काय ? घडये आपुणूच वेचून येतलो म्हणपाची बाकिच्यांक खात्री जाल्या म्हण ते कोणूच भोवना आनी पयशेय मोडिना, अशें येवजून तो आपणाचेरूच खूश आसलो. पुणून निमाण्या दोन दिसांक चित्रूच बदल्लें-

तेका आपणावांगडा भोवपाक एकलोय मेळना जालो. इतले दीस भुसाक आनी सो-या - घोटाक तेज्या वांगडा भोवपी, तेका फितलावपी सरपंच्याच्या पंगडांत दिसपाक लागले. आदी तेका मुकार काडपाक धीर दिवपी आनी फुडें अशें करचे, तशें करचें म्हणून फुलोवपी एकलोय दिसना जालो. आपणाक पिसो बी केलो काय ? अशें तो येवजितां-येवजितांच वेचणूक जाली.

निमाणे जावपाचें तेंच जालें. हो आपटून पडलो. समतें नांकफोडून घेतलें. त्या

वार्डांत सरपंचूच परतो वेचून येयलो. आनी हेका कितलीं मतां पडली, जाल्यार फकत तीन! तो निकाल आयकून तेका बरोच धक्को बसलो. तेजे तकलेचेर एक खेरिदूच परिणाम जालो; लोकांनी आपणाक असो किद्याक फटयलो काय ? आपल्याक मतां किद्याक घातली ना काय ? अशें चिंतून चिंतून तेणेन दुकां गळयत आपली तकली पिड्ड्यार करून घेतली. वगीच हेजेर-तेजेर तापलो, आपले आवयवांगडा झगडलो आनी कांय दिसानी परत आपल्या मार्गार येयलो. पुणून एक गजाल मात तेजे तकलेंतल्यान कशीच वचना जाली. आपणाक तीन मतां पडली खरी. एक आपलें, दुसरें धर आवयचें आनी तिसरें कोणाचें काय ? त्या तिस-या मतावांगडा तेणेन जायती नांवां जोडून पळयले. पुणून एकलोय जुपना जालो.

एक व्हड म्हाभारत घडचें आनी मागीर सगळें निवळचें, कांय खीण विजय रथार बसचें आनी अवचीत फोंडकुलांत पडचें आनी तोंडात पडटलें फळ कोणेनतरी वयल्यावर जिखचें अशें किदें तरी जाल्लेवरी तेका दिसलें.

संवसारांतलें एक जिवें सपन तेणेन अणभवल्लें. मनशाच्या सभावांतले कांय पैलू आनी आबुजपणानी घाळ रावल्यार कशेतरेन फातराचें शीत जेवचें पडटा, हो एक धडो तो शिकलो. हे घडणुके उपरांत जरी तो लाचार कसो जाल्लो तरी तेका गांवच्या आडंग्या लोकानी एक खाशेली पदवी दिल्ली. सरपंच.

वेचणुकेक उबो रावलो आनी सगळ्याच वाटेनी आपूण फसलो अशें तेका दिसपाक लागलें. गांवांत कोणायगेर शेता-भाटांत वा आनी कसल्याय वावराक वचपाक तेजें मन तयार जायना जालें. तेका सोताचीच लज दिसपाक लागली. गांवांत रावच्यापरस खंय तरी पयस वच्च्यें अशें दिसपाक लागलें. पुणून खंय म्हण वयतलो. तश्यो वळखी तरी खंय आसा ? सोयरी-दायरीय तसलींच. कोणायगेर रावतलो म्हणल्यारूय सगळ्यांगेर दळडीर पुजलां. आनी आतां बेकार रावुनतरी कशें चलतलें. जें किदें गांठीक आसलें तेंय सोपयले. घरांत बेश्टोच लळून लळून आसता म्हणून आवयूय बेजार जावपाक लागली. करतलो किदें, खंय म्हण वयतलो ? अशेच स म्हयने सोपले.

पलतडचो तेजो इश्ट, रंगा दोन वर्सां फाटी कुवेट गेल्लो, तो येयला. ही खबर कोणेनतरी तेका दिली. तेन्ना तो किदेंतरी येवजून तेगेर गेलो. वचनाफुडें तेका बरी बशिभर तरेकवार खाणां दिलीं. हेवटेंतल्यो-तेवटेंतल्यो गजाली करतां करतां रुपल्यान आपली बेकारपणाची गजाल मुकार काडली.

तेन्ना रंगा तेका म्हणपाक लागलो, " पळय रुपल्या, तूं कुयटा वचपाक सोदता खरो. पुणून आयज–काल थंय वचपाक ज्यो अडचणी येता त्यो निस्तारप तुज्यान जांवचेना. शिवाय आतां थंय पयलिंच्यासारकी जोडूय ना. गल्फांतसून सुटकेसी भरून हाडपाचे दीस गेले. थंय वचून जीव भंयार दवरच्यापरस, हांगांच कसलेंय बरेशें काम करून वा कसलोय बारिकसो बरो धंदो करून जें किदें मेळटलें तितूनच सूख आसतलें."

"पुणून ह्या गावांत कसलो धंदो करतलो, आनी शिरवीस तरी कसली मेळटली?"

" मनशाकडेन फकत तकलीच जाय, आनी काम करपाची इत्सा."

" हांव कसलेंय काम करपाक तयार आसा, पुणून कामां मेळटा खंय ?"

" किदें सांगता रे तूं ? म्हाका येयल्यार फकत चार दिस जाल्यात. पुणून गांवांत किदें घडलां आनी खंय किदें चलता तें सगळें खबर आसा. निबेलांतले ते मिना – खणीचें काम आतां नेटान चालू जावपाचें आसा. ते कंपनीक आतां जायते कामगार जाय खंय. सरपंच तर तुजे वाटेरूच रावता. तेन्ना तेजो वशिलो लावन बरेशें काम मेळटा जाल्यार पळय. हांव जाणां, तुजें तो उतर केन्नाच भायर उडोवचेना."

" ना, पुणून हें... म्हणजे..."

" आरे, थोडे दीस तुका दिसवड्याचेर काम करचें पडटलें. मागीर जातलो फिक्स. कंपनिचो पगारूय बरो आसता. मायनिच्या कामगारानी पळयल्यां मरे आतां कसलीं घरा बांदल्या तीं."

" त्या खातीर म्हणना हांव.. पुणून ..."

" तुका हांव सांगता न्हू. थोडे दीस मातशे वताचे त्रास जातले. मागीर जातली इल्ली इल्ली संवय."

" काम करपाचें म्हणना हांव. सरपंचाक ही गजाल..."

" आरे सरपंचाक सगळें खबर आसा. हांव सकाळी कंपनीच्या मॅनेजराक मेळपाक गेल्लो तेन्ना तो थंयच आसलो. हांवेन जेन्ना मॅनेजराक हांव नवो ट्रक कामाक लावंक सोदता अशें सांगलें, तेन्ना तो 'जांवचेना' म्हणपाक लागलो. पुणून सरपंचान 'आमचोच तो ' अशें सांगनाफुडें तो तयार जालो."

" म्हणजे, तूं ट्रक घेता तर !"

" हय तर, आनी आनी परत भायर वचपाचों ना. शिवाय हांव आसतना म्हाका आनी वेगळ्या ड्रायव्हराची गरज ना. सगळी जोड भितर. तो सुट्टकच दुसरो घेवपाचो."

तें आयकून रुपलो चितपाक पडलो, मागीर तिसरो, चवथो, पांचवो... रंगा मागीर व्हडलो पात्रांव जातलो. च्ये ! हांवय कुयटा गेल्यार बरो...

"किदें चित्तारे ? असोच सरपंचाकडेन चल आनी तेजी चीट घेवन समतो मॅनेजराक मेळ. तुजें काम जालेंच म्हणून समज. चल चल वेळ होगाडावं नाकां."

"आं ऽ हय, हय, तशेंच करतां." अशें म्हणत तो समतो उठलो आनी सरळ चलत रावलो.

वाटेरूच तेका कांता गावलो. तो सरपंचाचो मनीस. वेचणुकेवेळार, तो तेजोच प्रचार करतालो. तेकाच घेवन सरपंचागेर गेल्यार बरो अशें चितून रुपल्यान तेका आडायलें.

"कांता, राव रे. तुजेकडेन एक काम आसलें."

"किदें तें बेगीन सांग. टायम ना म्हाका. खणीर वचपाक जाय. अर्जंट एका मनशाक मेळपाचें आसलें."

"हें ऽ रे. सरपंचाक मातशें मेळपाक जाय आसलें."

"किद्याक ?"

"निबेलांतले खणीर कामाक लोक जाय खंय. मातशें म्हाजें नांव सरपंचाकडेन दी मरे."

" कांय उपेग जावचोंना. हांव काल त्याच कामाखातीर तेजेकडेन गेल्लो, जाल्यार म्हणपाक लागलो, 'तूं कॉम्प्युटर शिकलेलो जाल्यार सांगपाक जातालें. हरशिले जायते लोक आसा खंय तेंचेकडेन.' पुणून फोरमॅन सागतालो. मास्तर, हेल्पर बी जाय म्हणून."

"मागीर, तूं किदें करतलो ?"

"समतो वचोन मॅनेजराक मेळटा."

"तुजें बरें आसा रे, आमकां कोण वळखता ? सरपंचूच किदें म्हणटा तें पळयता."

" सरपंच तुका लागी तरी करतलो मरे. मत्तावगतार तुका भोवोनाका म्हणून सांगलेलें मरे. तरी तूं भोवलो. आनी वयल्यान 'तेका किदें कळटा, तो किदें शिकला ?' अशें तूं सांगतालो मरे. मागीर तो राग तेका आसचेना."

तें आयकून तो वगीच पडलो. नेटान चलतल्या कांताक कांय वेळ पळयलो आनी वाटेक लागलो. चिंतनानी तकली भेरेल्ली–

'च्ये' वगीच त्या मतांचे भानगडींत पडलो. लोकांनी म्हाका फटयलो तो फटयलो, सुखाचो जीव मात बेश्टो त्रासांत घालून घेतलो. सरपंचान हरशी सांगलेले, वगीच गडबड

करूं नाका म्हणून. तेन्ना हांवेन तेजें आयकलें ना. आनी आतां तो म्हाजें आयकतलो ? हरशी तेज्या मोठेल्या दोळ्यांक पळोवनूच म्हाका भंय दिसता. तेज्या सामकार एक उतर उलोवपाक म्हाका धीर जायना. पुणून ते दिसा खंयची शक्त येयल्ली काय ? निदान हांवेन तेका तीं उतरां तरी म्हणपाची न्हू. तेन्ना हांवेन केद्या झेतान तेका सांगलेंलें, 'भावो, आंगट्या-भादुरांचे दीस आतां सोपले. आतां शिकलेल्यांचें राज्य येयला. गांवची आनी देशाची उदरगत जातली जाल्यार नव्या विचारांच्या तरनाट्यानी निवडून येवपाक जाय. त्या खातीर तुमकां सांगता, जाता जाल्यार तुमी फाटीं सरून म्हाका तेको दियात. आनी नव्या फुडा-यांकडेन सत्ता सोपयात'. केद्या अभिमानान आनी कशी छाती फुलोवन हांव तेन्ना उलयल्लो. आतां खंय गेलो काय तो म्हाजो झेत. तेन्ना हांव साक्षात सरपंच जाल्लो. आनी आतां ? झिरो. पुणून तेणेन किदें म्हणलेलें तें मात खरें जालें. म्हाजी कितली किंमत आसा ती कळटली म्हणटालो. कळ्ळी. हं ! फक्त तीन मतां !

चिंततां चिंततां तो सरपंचाल्या घराकडेन पावलो. दारांत पावतकच वगीच तेजे पांय घुस्पटपाक लागले. तेका पळोवन सरपंचाल्या चेड्यान हट्किलो,

“ओ ऽ सरपंच, आमकां पार्टी बी ना मरे ! लोकांक तुवेन चिकनां दिली खय. आमकां एक सादी च्याय दिवप ना मरे.”

तें आयकून तेका राग येयल्लो. पुणून किदें करतलो

“आरे, हांगा यो रे. चार दीस काम आसलें. कवाथ्यांची मुळां काडपाची आसली. आसा बेकार ?”

“ना. मातशें...”

“समजलो. समजलो. कितलोय जाल्यार आतां तूं सरपंच. असली दिसवड्याची कामां आतां तुवेंन करप? आतां तुवेन फकत ऑफिसानी बसून सायनी मारपाच्यो.”

ती तेजी उतरां आयकून तेका सट्ट जालें. हरशी तेज्या तोंडार तेका सांगपासारकी जायती शापोतां येयल्ली. पुणून राग गिळून वगीच रावलो, तरी तेणेन म्हणले, “भाऊ आसा ?”

“ना. पंचायतीन गेला. किद्याक ?”

“हरशींच. एक काम आसलें.”

“कसलें ? सरपंचाक बी उडोवपाचो ना मरे ?”

“बाबू, तुंवूय म्हाजी फकाणां करता !”

“ आरे, फकाणां कसली ? शिकलेलो मनीस तूं. तूं किदेंय करूंक शकता.”

“ बरें तर फाल्यां येता.” अशें म्हणत तो वचपाक लागलो. तेन्ना तो तेका ‘राव राव’ म्हणटालो. पुणून तो रावलोना. पिकासांव जाल्लेवरी तकली जड करून चलत रावलो.

उपरांत तेणेन अशोच दोन - चार दीस सरपंचागेर पावटी मारल्यो. पुणून तो तेका गावलो ना. सरपंचाच्या उतरार कोण कोण खणीर कामाक लागत आसले. पुणून तेका सरपंच मेळच नासलो. काय तो घरांत आसून तेका बळयां मेळपाक सोदिना, हेंय कळनासलें.

एक दीस किदें तरी थारावन एक अर्ज बरयलो आनी बद्द खणीर गेलो. गेटीर विचारलें. गॅरेजीन विचारलें. ऑफिसान गेलो. कोण कोण सांगता तेका तेका मेळ्ळो. पुणून एकलोय तेका ‘कामाक यो’ म्हणपी मेळ्ना. सगळेच जाण ‘फाल्यां यो , विचारून सांगता, खबर ना. ’ अशें किदें तरी सांगताले.

चार दीस अशो पावटी पडटकीच तो बेजारलो. तेणेन कामाची आशाच सोडली. वळखिचे जायते जाण कामाक लागताले. तेन्ना तेणेन कोणा-कोणाक विचारलें. तेंच्यानी सांगलें, ‘अर्जाचेर सरपंचाची सायन आनी पंचायतिचो शिक्को मारून हाड आनी समतो मॅनेजराक मेळ. तो तुका कामाक घेयना जाल्यार पळय.”

हें आयकून तेका परत आस्तशी जाली. सरपंच किदें म्हणटा तें म्हणूं, अशें येवजून तेणेन सरपंचाक परत मेळपाचें थारायलें. एका ब-या कागदार कोणाकडल्यान तरी अर्ज बरोवन घेवन तो पंचायतीन वचपाक भायर सरलो.

पुणून वयता आसतना तेजी पावलां जड जाताली. आपूण एक हरलेलो उमेदवार. पडीत पंच. आपल्याच लोकानी जेका तीन पयशांची लेगीत किंमत दिवना असो लाचार केल्लो नवो राजकारणी. पंचायतीन जे लोक आसतले ते आपल्याक हासलेबगर रावचेना. आपली फकाणां करतले. आपल्याक किदें किदें म्हणत हासतले. ग्रामसेवक. सेक्रेटरी, तलाटी हे जरी तितले वळखना तरी ‘पराभूत’ तोंड घेवन भितर सरचें पडटलें. एकेतरेच्या खेरिदूच रुपाची वळख करून दिवची पडटली. जी वळख, लज घाणाक दवरिल्ल्या मनशाची आसतली. तरी थंय वचपाक जाय. सरपंच किदेंय म्हणूं, तेका मेळपाक जाय. सदांच आवयच्यो गाळी आयकुच्या परस आनी पोटाक चिमटो काडच्या परस सरपंचाची एकेच पावटी उतरां आयकल्ली बरी. निमाणे आतां तेका दिसतालो, जिविताचो प्रस्न.

तेणेन पयसुल्ल्यान पळयलें, पंचायतीन खूब लोक आसात. कसली तरी गडबड चल्ल्या. किदें करता काय ? तो तसोच भितर सरलो.

तेणेन बावगून पळयलें सरपंच ना. तेज्या रूमांतल्यो खुर्च्योय भायर काडल्या. सेक्रेटरी, तलाटी बी सगळे आसा. मागीर सरपंच खंय गेलो काय ? तो दुबावलो.

इतल्यान खंयच्यान तरी सरपंच येयलो. रुपल्याक पळोवन थंयच रावलो आनी आपल्यो अर्द-पिक्ल्यो मिश्यो फुलयत तेका हासत म्हणपाक लागलो, " आरे , सरपंच मरे, यो यो बस. आरे, तेका एक खुर्ची दियात रे बसपाक !"

" सरपंच म्हणटकीर तेका सादी खुर्ची कोता येता ? तेणेन आतां हे खुर्चेर बसचें पडलें ना." थंयच कुशीक दवरिल्ले उशाचे खुर्चेक बोट दाखयत सरपंचावांगडा येयल्लो पंच उलयलो.

" आं ऽ हय, हय, बस बस. गांवच्या सरपंचाक मान मोठो. तेणेन मोठेच खुर्चेर बसपाक जाय. " दुसरो एकटो उलयलो.

तेन्ना तो काकळुटेक येयल्ल्यावरी म्हणपाक लागलो, " ना, ना, हांव बसपाक येवना. म्हणजे बसना. म्हाका.. म्हाका एक सायन जाय आसली."

" आरे, तुका आनी म्हाजी सायन लागता ! तूं सरपंच मरे. यो यो बस. " अशें म्हणत सरपंचान तेका बळयां ते खुर्चेर बसयलो, तसो तो आखडतसो बसलो. कडेक काडलेली, तरीय ती सरपंचाची खुर्ची आसली. पोरनी जावं, बसतनाच झेत येवपासारकी. पुणून हो कसल्या झेतान म्हण बसतलो. बसून वयल्यान लजेक पडलेलो.

" आरे रघू, सरपंचाक च्या - पाणी हाड मरे. " कोणेनतरी पिवनाक फर्मायलो.

" बरें. कसोय जावं. तूं आतां सरपंचाचे खुर्चेर बसला. म्हणजे आमचो सरपंच. आतां करता मरे आमची कामां ? म्हाका सायबा एक शिरवीस जाय. कसलीय जाता. पिवनाची आसूं ना जाल्यार सान्न मारपाची." सरपंच नेटान उलयलो, तसो आपशींच एकएकल्याक नेट येवपाक लागलो-

" म्हाका सायबा, घराखातीर रीण जाय."

" सरपंच, आमचो रस्तो मातसो बेगीन जांवदी आं."

" आमकां फकत नळ आनी लायट मेळ्ळ्यार पुरो."

" पयलीं हॉस्पिटल, ग्रावंड आनी निबेलांतलो पूल जावपाक जाय."

" आरे, रावा - रावात रे. सगळे वांगडाच किदें सांगता. तेका याद उरूं नाकां तें.

आरे, सेक्रेटरी, तो बूक घेवन मातसो हांगा यो. आनी हो सरपंच किदें सांगता तें मातशें बरोवन घे.'' अशें सरपंचान म्हणनाफुडें. सेक्रेटरी बेगोबेग येयलो.

जणू काय पंचायतिचे बसकेक सुरवात जाल्या कशी दिसताली. थंय आसलेले लोक गर्दी करून नव्या सरपंचाची मजा पळयताले. पुणून तो मात वोगीच आसलो.

सेक्रेटरी एक रजिस्टर घेवन तेज्या फुड्यांत रावलो, आनी म्हणपाक लागलो, ''सांगात, किदें किदें बरोवपाचें ?''

तेन्ना तो आबूज जाल्लेवरी जावन हेवटेन तेवटेन पळोवपाक लागलो. तें पळोवन सरपंच परत धेंकलो, '' आरे, उलय मरे. किदें किदें कामां करपाची तुजी इत्सा आसा ती सांग मरे. हो पळय, सेक्रेटरी बरोवन घेवपाक येयला. किदें तें सांग आनी मेकळो जा. शिवाय बाकिचेय पंच आसा. तूं सांगता तो थाराव एका मतान पास करुया.''

'' ना, ना, तुमी म्हाजीं फकाणां करता.''

'' तूं सांग तरी. किदें किदें करपाचें आसा तुका ?''

'' खऱ्यानीच सांगपाचे ?''

'' मागीर आमी हांगा बसल्या किद्याक तर ?''

'' अं ऽ आमच्या घराकडेन तो व्हाळ आसा पळय. तेका बारिकसो पूल बांदपाक जाय. सायकल वयता तसलो. पावसान आमी तेका आडी घालता. पुणून आवयच्यान आडयेवयल्यान चलपाक जायना. आनी जेन्ना व्हाळाक उदक वाडटा. तेन्ना तिका पलतडी गांवांत वचपाक मेळना आनी गांवांत आसल्यार घराकडेन येवपाक मेळना.'' रुपल्यान सपनात उलयल्ल्यावरी सांगलें.

'' बरें तुजो थाराव पास. आनी किदें ?

'' अं.. हेर जाण्टेल्यांक पयशे मेळटा तशे आवयक-''

'' बरे करुया. फुडें ?''

'' आनी.. आनी कांय ना.''

'' ना ? आसतलें. पळय पळय याद कर.''

'' ना. कांय ना. इतलेंच.''

'' पळय सारकी याद कर. मागीर पिकासांव करून घेयशी.''

'' सांगपाचें म्हणल्यार... न्हू - आवय परत परत म्हणटा म्हणून...

'' किदें तें सांग तूं. धपक्यान पास करुया !''

“ आवय म्हणटा, मरच्यापयलीं तरी तिका नातवाचें तोंड पळोवपाक जाय...”

तेजी उतरां सोपच्या पयलींच प्रत्येकाच्या तोंडातल्यान तरेतरेची उतरां भायर सरली. उतरां वांगडाच हांसो पिकलो. कितलेशेच शेवटतल्या प्रस्नांनी बोवाळ केलो. रुपल्याक आपूण कोणाक किदें सांगता आनी कोण आपणाक किदें विचारता तेंच कळना जालें.

त्या बोवाळान कोणतरी सामान भितर घेवन येवपाक लागले. नव्यो खुर्च्यो ! सरपंचाखातीर तर खास चक्रांची, तकलेमेरेन उशें आसलेली. राजाची कशी तांबडी गुंज. ती समती व्हरून सरपंचाच्या कॅबीनांत दवरली.

तसो सरपंच नेटान भितर सरलो. तेणेन पयली मातशी खुर्ची घुंवडोवन पळयली. आनी मागीर झेतान बसलो. हात खुरांचेर दवरून तकली तेकोवन वडकून बसलो. तशे बाकिचेय येवन बसले. रोखडीच गर्दिशी जाली. रुपलो मात एकटोच भायर उरलो.

गर्दी उणिशी जातकच तो अचळंय भितर सरलो.

“ आरे, आनी किदें उरलां तुजे ?” सरपंचान खुर्ची झोपाळ्यावरी झेलयत तेका विचारलें.

तेन्ना हातिंतलें कागद फुडें करीत तो ल्हवू म्हणपाक लागलो, “ भाऊ, एक काम आसलें...”

“ आरे, आतां जायतीं कामा सांगल्या मरे तुवें सगळी तुजीच कामा करपाची ? थोडी कामां आतां फुडल्या इलेसावांक दवर. हरशींय जाल्यार आतां फुडलो सरपंच तूंच, मागीर आनी तुका कोणाक पांया पडपाची गरज ना.”

तें आयकून तो वगीच पडलो.

“ आनी हें पळय. फालेच्यान मातसो घराकडेन यो. कवाथ्यांची मुळां काडपाची आसा. तुज्याबगर आनी कोणाक जमचेना तें... येता मरे !”

रुपल्यान फकत तकली हालयली आनी भायर सरलो. चलतां चलतां हातितले कागद केन्ना पिंजलें तेंय तेका कळ्ळें ना.

# ७

# गुंज

अमूक एका कारणाक लागून तिजो भोवमान करपाचो आसा. ही गजाल कानार पडनाफुडें खूब दिसानी तिजी नेर्वां चाळवल्ल्यावरी जाली. ती बडबडी म्हातारी त्या दिसाच्यान अस्वस्थशी दिसपाक लागली. सारकी कोणाकडेन उलयकूय ना जाली. आपले भितरूच किदें किदें बडबडत, हांसलेल्यावरी - रडलेल्यावरी करपाक लागली. कांय वर्सां पयली जशी ती करताली तशें करपाक लागली. मदीच कोंडुलांतशी रावपाक लागली. तेन्ना तिजी ती गत पळोवन लोकूय दुबावपाक लागले.

जालें. दीस थारलो. धालांचो निमणो दीस.

मांडार पळयता तो गडबडीन दिसतालो. तिजो भोवमान करपाची कार्यावळ जाल्या उपरांत गांवच्या भुरग्यांचे नाटक आसलें. धालांचें शास्त्र केलें म्हणटकीर फुडली कामां करपाक बरें पडटलें हें येवजून जाण्टीं-नेण्टीं बायलां वगीच एकामेकाचेर धेंगशेताली. देवळे मुकारली माची पयलेच फावट बरी सजयल्ली. माटवूय अंदू मातसो लांब-रुंद घातलेलो. सरभोवतणी बनेरां लांबयल्ली. गांवचो पंच आनी सरपंचीण कामां सोडून गजाली मारतल्या बायलांक आपणाल्या अधिकाराची जाणविकाय करून दिताली. इतल्यान कांय खिणाभितरूच आमदार आनी खाशेलो सोयरो पावपाचो आसा अशी खबर दुसरो एक पंच धांवत - धांवत येवन दिता. तशी सगल्यांचीच धांवपळ-बोवाळ आनी त्या बोवाळांभितर

भुरग्यांचें मदल्यानूच किरोवप, हुयेली, आपट-धपट...

म्हणटाम्हणसर अचकीत आमदाराची गाडी येवन मांडाक तेकली. तसो धालांक नेट चडलो. गायन म्हणटलेचोय आवाज वाडलो. गाडयेचें दार उगडलें. सोयरे देवले. आनी खाशेले शैलीन मांडांचे धडेर वळीन उबे रावन धालो खेळटल्या बायलांक बारीक पळोवपाक लागले, तोखेवपाक लागले, तेंची घोळटी पावलां, तरेकवार न्हेसणां, हालती भुजां, अर्द-उक्ती फाट, सट, आंबाडे, मुखामळां, ओंट सगल्याकूच आपल्यो विशयी नदरो तोपपाक लागले. आनी त्या खिदळटल्या जुवांन बायलांचे एकामेकाच्या कमराक वेडायल्ले तट्टटीत हात, त्या हातींक लागोन जाल्ली अस्तु-यांची गच्च फाती एके लयेर ल्हारेता तें पळोवन सोयरे सुखावले. दोळे मुमुरकेच हांसले.

तेन्ना त्या सोय-यांची हावटी नदर पळोवन लागीच आसलेले ते म्हातारेक अकस्मात किदें जालें तें कोणाकूच कळ्ळेना. रंभेचो भार भरलेल्यावरी ती जागच्या जाग्यार फुगडी घालपाक लागली. मदीच आड्ड्यो मारून कोणाकतरी धांवडयल्यावरी करपाक लागली, ‘‘आगो, आगो, पाखले येयले, पाखले येयले. चला-चला, पळा ! पाखट्याक हात घालच्या पयलीं जीव घेवन पळा !’’

सगळे लोक गडबडले. धालोय सोपयल्ल्यावरी केल्यो. कोणतरी सोय-यांक लागच्याच घरांत च्यायेक घेवन गेलो. वातावरण मातशें निवळ्ळें. तिजेवयलो अवसरूय उलगवल्ल्यावरी जालो. भरलेल्या माटवांत मात बोवाळ. गजाली मारतात काय झगडटात तेंच कळनासलें. सगल्यांच्या तोंडांत एकूच विशय; तिजी नेर्वां.

ती पुरायतरेन शाबुद्देर आसा आनी भोवमान सुवाळो करपाक आडखळ ना हें पारखून कार्यावळीक सुरवात जाली. तिकाय माचयेर बसयली. आपणाक लिपयल्ल्यावरी करून, दिव्यांच्या उजवाडाक भियेवन आनी वागांच्या कळपांत घुस्पल्ली बडकी बोकडी कशी त्या दादल्यामदी बसली.

दोग-तिगांची भाशणां जातकच खाशेल्या सोय-याक उठयलो. तो एक फाकिवंत सुटके झुजारी. आपल्यो मुठी आवळून अशेतरेन उलोवपाक लागलो, जशें किदें आतांच सगल्यानी उठून झुजामळार वचपाक जाय. मदी, मदीच आतकड्यो तुटसर आड्ड्यो मारपाक लागलो. आपणे त्या दुश्ट पाखल्यांक कशें नाका-पुरो केलें तें सांगून जातकच आवाज अचकीत सकयल देवयलो. मुद्याकडेन येयलो. ‘‘तुमकां खबरूच आसा. देवलो म्हणजे ह्या गांवचो देवूच आशिल्लो. आनी आतां नव्यान संशोधन जालां ताजेवेल्यान

कळटा की, तो एक आमच्या गोंयचो पैलू पाडुनाशिल्लो हिरो आशिल्लो. पोर्तुगीजांआड झुझपी एक व्हड क्रांतिकारक आशिल्लो. तुमच्या ह्या शिमेवेल्या गांवात आशिल्लें तें पोस्त म्हळ्यार गरीब आनी साद्या भोळ्या लोकांक सतोवपाखातीर पाखल्यांचें आयतें साधन जाल्लें. त्या वेळार आयकल्ल्यो कितल्योशोच गजाली आजुनय म्हजे मतींत आसात; त्या कुशीच्या अस्कडी रानांतल्यो घडणुको हो पळय आयजय आंगार काटो उबो करता. पाखल्यांनी कितलेशाच जाणांच्यो गंवच्यो मारुन त्या गुंज्या नाण्याच्या झाडाक लांबयल्यो. गुन्यांवकारांची शिरां तर ताणीं मारिल्लीच. पुणून आपल्या सुवार्थाखातीर निरापराध्यांकय कातरले. तेदेवगतार ह्याच गांवच्या देवल्यान पन्नास वर्सां फाटीं त्या अत्याच्यारी पाखल्यामदल्या एकल्याचे शीर मारून त्याच नाण्याक लांबयलें. केदो व्हडलो तो क्रांतिकारी. आमकां ताजो अभिमान दिसता...''

सोयऱ्याचें उलोप नेटार येतालें तशें ते म्हातारेचें आंग थरथरपाक लागलें. तिका किदें जाता तेंच समजनासलें. ती जागच्या जाग्यार उसळपाक लागली. पुणून सोयरो आपल्याच नेटार उलयतालो–

"अशा ह्या म्हान क्रांतिकारकाची त्या दुश्ट पाखल्यानी गंवची मारून त्याच नाण्याक लांबयली. पुणून एक सांगपासारकी व्हड गजाल म्हळ्यार, मरसर मार सोसून लेगीत ताणेन आपल्या खंयच्याच वांगड्याचें नांव सांगले ना. वा आपलो हेतूय उक्तो केलो ना. आपूण मात अमर जालो. पुणून वतां वतां कोणाकूच त्रासांत उडोवन गेलो ना. हासत हासत बलिदान आपणायलें. आनी त्या वगतार ताजी पिराय तरी कितली आसली, सामकी उणी–नव्यानूच मिसरुटां फुटलेलो एक पोर ! अशेच पिरायेंचेर ज्ञानेश्वरान ज्ञानेश्वरी बरयली, शिवाजी म्हाराजान गड जिकलो आनी हाणेन अत्याच्यारी पाखल्याची गंवची मारली. केदो व्हडलो तो गोंयच्या इतयासांतलो झुजारी. ताजो भोवमान जावकूंच जाय. आयज तो जरी आमच्यामदी नासलो, तरी ताजी घरकान शेवतूमावशी आमच्यामदी आसा. तुमी तिजो सत्कार करूंक सोदता ही बऱ्याची गजाल. हांवूय तुमच्या आमदाराक सांगूक सोदता, तिका सरकाराचे वतीन चडांत चड आदार दिवचो. ह्या म्हातारपणांत धिराचो हात–''

"नाका–नाका. म्हाका कांयच नाका. आरे कोणतरी धांवा रे म्हाका सोडा रे!!'' शेवतूमावशी अचकीत किंळचली आनी भयभीत जाल्लेवरी हेवटेन तेवटेन पळोवपाक लागली. सगले अजापून तिका पळयतूच उरले. तिणेन तुरो शेवटिलो आनी हळू हळू

मेजावयलो कपडो ओढून आपल्याक गुठलयल्लेवरी करीत ल्हवू ल्हवू भियेत फाटीं सरपाक लागली. तेन्ना माटवांत एकूच बोवाळ जालो, " शेवतूची नेर्वां चाळवली ! आतां पडली पाड !!"

सोयरे तिका समजोवपाक लागले. तिणेन खुर्चेर बसचें म्हण विनोवपाक लागले. तशी ती चडूच चाळवली. हेवटेन तेवटेन पळपाक सोदपाक लागली. कोल्यानी आडोवन दवरिल्ल्या सावदाची कशी तिजी गत जाल्ली. कोणाकूच लागी येवपाक दिना जाली. आड्ड्यो मारपाक लागली. "नाका नाका हात लाव नाका. म्हाजो घोव येयत जाल्यार एकएकल्याची गंवची मारून रकश्या नाण्याक लांबयतलो. सरा-सरा कुशीक !.."

तिजो तो अवतार पळोवन एकएकलो अचळंय कुशीक सरपाक लागलो. मागीर वाट मेकळी जाल्याशी दिसतकच ती आपल्या न्हेसणाची पर्वा करिनासतना काळखांत धांवत रावली.

दोन-तीन दीस लोकांक उलोवपाक बरो विशय मेळ्ळो-

" कायबरी भोंवताली- करताली तें ह्या मेल्ल्याच्यानी पळोवपाक जालें ना."

" हांवूय तेंच म्हणटा, किद्याक म्हणो सत्कार करपाक जाय आसलो ! आतां ही अशी पिशी जावन भोंवता ती बरी दिसता ?"

" फाटली उणींच धा-पंधरा वर्सां तिका कांयच जावंनासलें. आनी आतां हें जाण्टेपणांत चाळवलां. तें तिका सोपयलेबगर सोडचेना."

" आरे, ती जेवण सोड, उदकय कोणे दिवपाक केल्यार धांवपाक लागता. सोरो दिवन बाटयत म्हणोन."

" आमी खंय तिज्या आंगाक हात लावंक मेळचो म्हण लागी करता. आतां तुमीच सांगा. हें जाण्टेपणी तिका कसलें पिशें लागलें म्हणपाचें !"

" आतां कोण किदें विचारतलो तिका ? पुणून एक मात आं ! हांव तेन्नाय तिका पळयतालो आनी आतांय पळयतां, तिजी अशी नेर्वां चाळवली म्हणटकीर ती सामकी भुरग्यावरी उलयता. निक्तेंच वयार येयल्ल्या चेडवावरी तिजी लजकुरी भास आसता. आनी मागीर कोणय तसोच परकी मनीस दिसलो म्हणटकीर सामकी आपल्या आंगार धांवन येयल्ल्यावरी तेका फाफडिता, नाजाल्यार आपूण तरी जीव घेवन पळटा."

" हय रे, पुणून अशी किद्याक म्हण वागता ती ?"

" कोणाक खबर ! ती खय ल्हानपणांपासून नेर्वां चाळवतकीर अशीच करताली.

आपल्याचेर कोण आंन्नेरी करीत म्हणोन भियेल्लेवरी.''

" म्हाका किदें दिसता जाणां मरे. तेन्ना सामकें भुरगेपणांत लगीन करताले. आनी हिज्या तर घोवाक वयार येयल्लो तेन्नाच पाखल्यानी मारलो. मागीर पुराय जिवीत रांड जावन होगडावचें पडलें. तें दुख्ख जाल्लें आसतलें. शिवाय कोणय आपल्याचेर आन्नेरी करीत म्हण भयांनूच तिजी नेर्वां चाळवताली जावंक जाय.''

" हय, जांव येता. जो मेरेन तिज्या आंगात रगत आसलें तो मेरेन ती आपले लज्जेक आनी जिवाक जपताली. जशें आंगातलें जुवानपण उफेवन तकलेक मारलें म्हणटकीर नेर्वां चाळवताली.''

" सारकें. आनी म्हातारपण येतकीर आपशींच निवळ्ळी.''

" हय रे. पुणून ह्या वयार तिजें परतें कशें चाळवलें ?''

" तेंच समजना. ते दिसा धालाच्या मांडारूच तिजें चाळवला आसतलें''

" चाळवला किदें ? मांडाभोवतणच्या आलवतांचे वारें तिज्या आंगात भरलां आसतलें.''

" सद्या तिंका जेवण-खाण लागना, उदक-पाणी पियेना. पिसाटावरी भोंवता. हितुनूच मरना जाल्यार पुरो.''

" पुणून तुमी एक पळयलां, आयज तिजो तिसरो दीस. पुणून तिज्या आंगावयलें कापड तश्शें आसा. मातशें हेवटेन तेवटेन जालां जायत. पुणून मात्तूय लळुना !''

"शिवाय ती कोणाक एक वायट उतर दिना. कोणाक सतयना. वयल्यान वाटेक वयतल्याक 'पाखले येयले' म्हणत भियेता.''

"चुरचुरे रे बाबडेचे. आतां आनी हे पिडेन सोपली जाल्यार भुरग्या-बाळांक मातशे वारें बी लागल्यार भंयसो दिसतलो.''

"कांयच जांवचेना. शंबर वर्सां जगतली. मरणाचें नांव घेयनाफुडें ही पळय हजर जाली. आरे ! पुणून तिका कोणेन मारली बी काय किदें रे ? एक पांय वडीत कुटतशी चलता.''

"हय मरे. कोण रे मेल्लो इतलो तिज्या जिवार उठलो ?''

"राव येवनी, तिकाच विचारुया.''

"नाका नाका. आमकां आनी किदेंय म्हणत.''

"आरे, तूं बश्टोच भियो नाका. हांव विचारता... आगे मावशे, हेवटेन गे खंय

वयता ? आनी कुट्टाशी गे किद्याक ?''

ती आपलेच तंद्रेन चलताली. तेणेन अशें विचारतकीर काचाबूल जांवन थंयच रावली. दोळे फुलोवन आपल्या पायांक नियाळ्ळो आनी ब-या वगतान मान वयर करून तेकाच पळयत रावली.

'' आगे, अशी तोंण उक्तें करून किदें पळयता ? आमकां वळखना ?''

ती चड्डूच आबूज जाल्लेवरी जाली. इल्ली इल्ली फाटीं सरपाक लागली. किदेंतरी पिशेंपणा करतली अशी दिसताली. तिणेन आपलें न्हेसण कवळिल्लेवरी करून घट्ट पांगरुपाक लागली. मुकावयले पांच-स दादले हे आपल्याचेर झपय मारपाक जपलेल्या वाग कशे तिका दिसपाक लागले. तिज्या तोंणांतल्यान उतरूंक भायर सुटना जालें. 'पा पा' करीत जाग्यारूच थरथरपाक लागली.

'' आगे-आगे मावशे, किदें जाता ? उदक हाडून दिवं ?''

'' उदक... उदक न्हू, सोरो !...सोरो. धांव-धांव-धांव गो ऽ पाखले येयले !'' अशें म्हणत ती तशीच धांवपाक लागली. निक्तोच आपलो पांय दुखतालो हेंवूय ती विसरली. फाटीक कोणतरी लागला आनी जीव वाटोवपाखातीर धांवता, तशी.

सगलेजाण तिजो अवतार पळोवन वगीच पडले. ती अशेतरेन धांवता तें पळोवन एकटो भुरगोसो तिजे फाटोफाट धांवपाक लागलो, ''आगे मावशे, अशी धांवता किद्याक ? आगे राव गे, अशी पडत-मरत खंय वयता तेवटेन ? आगें हांव तो आनंद. वळखना म्हाका ? तुमच्या घराफुडलो आनंद. पळय-पळय राव. आगे, राव तरी.''

तो आपलेपरी तिका थारोवपाचो खूब यत्न करता. तरी ती रावना. तेन्ना नेटान धावन तिज्या मुकार रावन तिका आडायता. ती सामकी खासावीस जाल्ली. उबें रावपाकय जायनासलें. तेन्ना अचकीत तेका मुकार वाग कसो उबो पळोवन भियेन थंयच जमनीर कोसळ्ळी.

तेणेन तिका बारीक नियाळ्ळी. तिजी शाबुद्दी गेल्लेभाशेन तेका दिसलें. अळंग तपासली आनी हात-पांय पोशेवपाक लागलो. शिसलां चिड्डिली. तशी ती इल्ली इल्ली सावशीत जावपाक लागली. अचकीत तिणेन दोळे उगडले, आनी तेका भियेल्लेवरी पळोवपाक लागली. तसो रोखडोच तिणेन पयलिंचो अवतार धारण केलो. आनी नजो आसतनाय धांवपाक लागली. तो मात थंयच उरलो. अकस्मात तिका खंयचो नेट येयलो तेंच तेका कळना जालें. उपरांत किदेंतरी येवजून परत तिजे फाटल्यान वचपाक लागलो,

" आगे, तेवटेन रानांत खंय वयता ? हेवटेन यो, वाड्यार चल." तरी ती तशीच मुकार वचत रावली. तो मात थंयच रावलो. कारण पाखले ज्या गुंज्या नाण्याक शिरां लांबयताले तो रक्सो नाणो थंयच मुकार आसलो. आनी थंय त्या वाठारांत एकटो-दुकटो कोणूच वचनासले. सगलो शेमो भरलेलो. तो भियेलो आनी ती दिससर तिका पळयत अचळंय परतलो. आनी घडलेली गजाल बाकिच्यांक सांगली.

पुणून अजापाची गजाल म्हणल्यार. दुसरे दिसा ती शाणी जावन वाड्यार भोवपाक लागली. आपल्या देराले नातीक हाण्डेर मारून येता तें पळोवन एकलो बळयां तिका विचारपाक लागलो, " आगे मावशे. खंय घेवन वयता तेका ?"

" कोण म्हास्तर; बरो मरे ? आरे किदें सांगू तुका, पिपिरमिटूच जाय म्हणोन हें लागलें बोबो मारूंक. आतां घेवन वयता इटूल्या गाड्यार."

" पिपिरमिटां बी भुरग्यांक चड दिवंक जायना. दांत किडेतात."

" आरे म्हास्तर, तुजे शाळेंतली भुरगी अशें सांगल्यार आयकत. पुणून ह्या पोराक कोण रे समजायतलो. ज़ाय म्हणल्यार जायच. नाजाल्यार लागता खोटो घालूंक."

" दीं. दीं, जाय तितली दी." अचकीत तेका कसली तरी याद जाता. " आगे मावशे, हें गे... अं ऽ कांय ना. कांय ना. चल, चल."

तो मास्तर जरी परकी आसलो तरी गांवच्या सगल्या घडामोडिंचेर तेजी बारीक नदर आसली. शेवतू मांवशेचे गजालिचें तर तेका आजापूचशें दिसतालें. तिजेविशी चडचड खबर काडटा, तशी तेजी उमळशीक अदिकूच वाडपाक लागली. हे गाजलींत किदेंतरी गूढ लिपलां अशें तेका दिसपाक लागलें.

कांय दिसानी कोणाक तरी घेवन तो 'तें' गुंज्या नाण्याचें झाड पळोवपाक गेलो. जाण्टे जे तरेन तेजें वर्णन करताले तशें तें झाड निखालस नासलें. तेजें रूप सामकें बदल्लेलें. तो नाणो मेल्ल्यांत जमा आसलो. थंयसरूच एक पिंपळाचें झाड वाडलेलें. त्या नाण्याक इल्लो इल्लो वेडावन निमाणिशीं दुकां गळयतालो. आनी ज्या आडव्या खांद्याक शिरां लांबयताले तो तर केन्नाच मोडून - कुसोन गेल्लो. हरशीं पिंपळान बरें रूप धारण केल्लें. पुणून सरभोवतणच्या शेम्याच्या झोपांक लागून तेजी सोबितकाय लिपताली. एकतरेन तें झाड इतयासाचीच एक कुरू जावन गवाय दितालें. निर्मळ भावार्थान दुश्ट सुवार्थाचेर जैत जोडिल्लेवरी भास जातालो.

मास्तरान सगळें बारीक पळयलें आनी वांगडच्याक म्हणपाक लागलो, " ही

सुवात मात बरी रहस्यमय आसा. हांगा किदें किदें घडलां आसत तेजो अदमास बांदपूय कठीण. बाबड्यांची शेणी कापणी, मस्त्यांची मद जिरवणी आनी मानमर्यादेचे अब्रुची पावणी हांगा जाल्ली आसूंक जाय.''

''म्हास्तर, तें किदें तें हांव नकळो. पुणून हांगा इतले लागी घराक लागतलें बरें मदेर आसा आनी तें कोणाकूच दिसोना, हेजेंच म्हाका अजाप दिसता!''

'' आरे, अजाप कसलें . लोकांचो भूत-भुताटकेचेर विश्वास आसा म्हणुनूच तें उरलां.''

'' ना. ना. म्हास्तर, अमाशे-पुनवेक हांगा भुतांचे खेळ चलता खय.''

''च्ये! त्यो सगळ्यो फटिच्यो गजाली. चल या आमी.''

मास्तर जरी विद्वान नासलो तरी तो योग्य रितीन तकली चलयतालो. तो ते खबरिचे फाटिकूच लागलो. मागीर मुद्दाम एक दीस तिज्या देराक मेळ्ळो.

''बाप्पो, कसो आसा तूं ?''

'' काडटा ते दीस आमचे.''

''आनी शेवतू मावशी खंय गेली तर ?''

'' ती शेतांत गेल्या. नडणी चलता न्हू.''

'' आतां कशें आसा तिजें ?''

''हें पळयना, बरी आसल्यार कसलेंच काम उरना.''

''पुणून अशें किदें जाता तर तिका ?''

'' आतां किदें सांगू बाबा, नडिचें बी कांय ना. जायतो तेप बरी आसली. पयर अकस्मात चाळवलें. पळोवना तुवें ? घोव मरत सावन मदी मदी अशेंच करताली.''

''म्हणजे नेर्वां बी. उमाशे-पुनवेक...''

''ना. ना. तसलें कांय ना. पुणून म्हाका किदें दिसता जाणां मरे, त्या गुंज्या नाण्यावशी वयतकीर तिजें चाळवता. थंयचेंच वारें तिका बादता जावंक जाय. पुणून एकएकदां अचकीत सारकी जावन घरा परतता. पयरूय अशीच येयली आनी सुनेक वाड म्हणपाक लागली.''

''तशें जाल्यार तिज्या मनाचेर कसले तरी गजालिचो वायट परिणाम जाल्लो आसूंक जाय.''

''जावं येता. घोवाक आफुडच्या पयलींच तेजें शीर माल्ले न्हुरे पाखल्यानी.''

“किद्याक, तो किदें ‘जय हिन्दवालो’ आसलो तर ?”

“आमकां खबर ना रे बाबा. पुणून तेजेखातीर आमकांय पाखल्यानी बडयल्ले. तो दिसुयभर गोरवां राखूंक रानांत आसतालो. तेन्ना तेका खंयचे म्हणोन जयीनवाले गावतले?”

मास्तर चडूच गोंदळपाक लागलो. पुणून ते गजालिचे खोलायेन वचपाचें सोडलें ना. जणू गुंजो नाणो तेजे मानेर बसलेलो.

फावोशी संद पळोवन मास्तर मावशेक मेळ्ळो. पुणून मनांत कितलेशेच भंय–दुबाव आसले. पयलीं आयल्यो–पयल्यो गजाली केल्यो आनी मागीर सवकसायेन विचारलें–

“मावशे, तुजें लगीन केन्ना जाल्लें तें याद आसा तुका ?”

“खंयची रे आता याद. तेन्ना हांव येदेशें आसलें मरे... आं ! एक याद आसा. तेन्ना मामाच्या खांदार बसोन केळी खायत हांव हांगा येयल्लें.”

“ आनी, घो ! ... घोव केदो आसलो ?”

“ तेका मातशी बुद्द आसली.”

“तो किदें म्हणटालो तुका ?”

“खंय किदें म्हणटालो. पयस पयस रावतालो... सामकी लजेची बावली.”

“आनी मागीर मातशी मोठी जातकच ?...”

अशें विचारिना फुडें तिज्या तोंडातल्यान उतरूच भायर फुटना जालें. एकदम थरथरपाक लागली. कुडकुड्याची शीं खाल्ल्यावरी करपाक लागली. मास्तर भियेलो. आंगलट येताशें दिसतकच अचळंय उठलो आनी कोणाकतरी तिका सांबाळपाक लावन बेगिबेगीन चलत रावलो.

दुसरे दिसा चवकशी केली. तशें तिका कांयच जावं नासलें. मातसो सुशेग घेतकच आपशीच बरी जाली.

पुणून मास्तराक परत त्या विशयाक हात घालपाक धीर जालो ना.

अशेच दीस गेले. एक दीस अचकीत शेवतू मावशी शाळेंत हजर. मास्तर अजापलो.

“आगे मावशे, आयज हेवटेन खंय ?”

“ आमचे लंगडे गायक सोदतां. हेवटेन बी खयीं दिसल्या तुका ?”

“ह्या सड्यार किदें खावंक येतली, फातर ?”

“हय फातर ! खूब दिसानी सोडल्या. मातशी वगीच हेवटेन-तेवटेन भोंवतली.”

“काय तुजे गायक भुरग्यांचे पाडे बी आयकनशे दिसले ना मगे ?”

ह्या उतरार दोगांय हांसता. आनी आयकतली भुरगी तर हांसून हांसून शाळाच माथ्यार घेता.

“बरें म्हास्तर,... पयर तूं किद्याक येयल्लो ?”

“ना गे, असोच. म्हणलें तुजी खबर घेवया.”

“म्हास्तर, तूं धव्याचेर काळें करता जायत. पुणून म्हाजे हे आपशींच धवे जावना!”

“किदें जाणां... मावशे, तें म्होडकें पोस्त ना गे. थंयच्यान उल्याचे लांबायेचेर एक गुंजो नाणो आसा...”

“पुणून आतां थंय पिंपळ वाडला, हय मरे !”

“पळयला तो...”

“जाणांच आसलें... तेन्नाचें शेमें रान तें. थंय गोरवांय चरवाक व्हरं नासले. पुणून एक दीस एका राजकुंवरान पयलेच फावट आपले राणयेक चोरयां थंय मेळपाक आपयली. सगल्यो वंयों आनी दावीं तोडून निक्तीच वयार येयल्ली राणी भंय-लज सोडून थंय पावली. तिकाय उमळशीक लागलेली. दोनूय काळजां धडधडपाक लागली. हक्काचें आसुनय रान पयलेच फावट सासपिताली. पानान पान शिरशिरतालें. कोगूळ शिळोणी घालतालें. तिनसांजचें वारें आंगार काटो हाडटालें. तरी तेंका सुद्द-बुद्द नासली. तीं आपल्या वेगळ्याच राज्यांत पावल्लीं. इतल्यान -

इतल्यान दोग धये गयें-रेडे येयले. भांग भरोन राकेस जाल्ले. सामकार आयतोच सोल्लेलो केळमो पळोवन वांगडाच चाळवले. राजकुंवराक शेवटून दोगांयनी वांगडाच तेजेर झपय मारली. तसो होय चाळवलो; आकडेचें कोयतूल काडून शेमो शिनीत रावलो. तेन्ना एका गंयांचो पांय हांडलो जाल्यार... दुस-याची गंवचीच...!!”

“ म्हणजे ते पाखले... तुजो...!”

# ८

# सूख

जात्रेक गेल्लेकडेन काळखानशें कोणेनतरी तिज्या चेडवाक घट धरलें. आनी थंयच मातसोसो बोवाळ जाल्लो. ही गजाल कांनार पडनाफुडें जायत्यो गजाली तिज्या दोळ्यांमुकार येवन तिका आवयपणाच्या जापसालदारकेची जाणविकाय करून दिवपाक लागल्यो. एक एक येवजून येता तशें एक - एक आंगाक किसर रोमलेल्यावरी जावन सबंद आंगार काटो उबो रावलो. वगीच राकेशी भिरांत काळजाक आपटून हुस्क्यान हड्डें धडधडपाक लागलें. हेवटेन - तेवटेन कोणतरी ओडटा काय केंस हुरबडयता तेंच तिका कळना जालें. खिणाभितर आंगातली शक्त वचून अचकीत म्हातारपण येवचें तेवरी जावन तिका हातरुणारूच पडून रावचें कशें दिसपाक लागलें. काम करपाची वान्साय मेली. पुणून चुलीर किदेंतरी शिजपाक जाय, ही तर पयली चिंता, मागीर दुसरी... तिसरी... हय. वेळाकाळार धीर दिवपाक घरांत कोणाचोतरी आदार जाय, अशें तिका आतां परत परत दिसपाक लागलें. खूब दिसानी तिका आयज घोवाची याद येयली. आनी बायल मनशेक घोवाच्या सांगताची कितली गरज आसा हें तिका पयलेच पावट होलमलें. तो मागीर कसलोय आसू; थोटो - पांगळो वा बेबदो. ह्या समाजांत धिरान तग धरतली जाल्यार अस्तुरेक सांगाताक एक तिबो आसचोच पडटा. तशें ती कपलाक येद्दे व्हडले लायता. पुणून 'तो' खंय आसा ? आतां तर ती तिबो घोवाच्या नांवान लायता हेंय विसरल्या. एक

सवंयचो गूण जावन पडला म्हणून लायता; कपलभर लायता. तांबडें - तांबडेंच रगत कशें. केन्नाय घाम चिकचिकून देवलो म्हणटकीर तर, कपलांतसून रगताची धारूच व्हांवता कशी दिसता. पुणून कालमेरेन तरी तिका तें पडुनूच वचुनासलें केंसांतल्यान व्हांवतलें रगत आनी घाम सारकेंच दिसतालें. पुणून आयज 'ती' गजाल कानार पडनाफुडें तिका प्रत्येक गजालिचें मोल कळपाक लागलें. फकत घर - दार आनी पोट - पाणी म्हणल्यार संवसार न्हू, तर जिविताच्या सांगाड्याक जें जें आपटता, तें जे तरेन आपणायता आनी फाफडिता तेजेरूच सगलें थारता. हें सत्य तिका खूब दिसानी 'ती गजाल ' जिवाक आपटतकीर होलमलें.

ती किदें पिशी म्हूण कपलाक लायनासली. तर तिकाय एक घोव आसा. बरो धडधाकट. पुणून सद्या खंय आसा तें देवाकच खबर. एका वगतार देवाक हात जोडून नकळों. पुणून आतां देवाच्या नांवाबगर जगपाकूच शकना. आदी कसलेंय काम करपाक जिवार येतालें. पुणून पांय एका जाग्यार उरनासलें. आनी आतां; मठांतली निवळसाण धरून देवपुजेमेरेन सगलें किदें आपुणूच करपाक फुडें. घर, गांव, संवसार - भुरगिंबांळां हें तर तो केन्नाच विसरला. आनी हें सगळें घडपाक जापसालदार कोण, तर तीच. तेजी मस्ती - आवटेपणां निवळचेखातीर केल्ल्यो खटपटी अती जाल्यो, आनी भलतेंच पिशें लागलें. किदें करतली, सुखाची वाट तर सोदपाक जाय आसली.

लग्ना पयली तो खूब सोरो पियेतालो ही गजाल आवयक कळेली. पुणून मागीर सुदारतलो. गोरूं - शेत आसा. काम केल्यार उपाशी पडचेना. हेच आशेचेर आवयन 'हय' म्हणलें. पुणून एका फाटीर एक अशी तिगां चेडवां जाली तरी सूख - सुशेग घरांत पावलेंचना. जायत्या जाणानी समजायलो. जायते याग केले. पुणून सोरो सोडलो ना. ह्णिेन हात - पांय धोडोवन हाडलेलें तो सो-याक झगडून घेतालो. पोरांची तर तेका केन्नाच काकळूट येयली ना. वयल्यान खोंटो मात रोखड्योच उखलताल्यो.

तरी आपल्या नशिबाक खेपतां खेपतां ती सुखाची सपना मनांतल्या मनांत घोळयताली. आस्त बाळगून सुखाची वाट पळयताली. तेन्नाच एकलो तोपयेकार एक आशेंचे किरण घेवन तिज्या दारांत येयलो. आपल्या बोटव्यांतली पटी काडून 'नाका नाका' म्हणटा आसतना पडवेर बसून तिजें भविश्य वाचपाक लागलो. जे गजालिची तिका गरज आसा ती तिका रोखडीच गावतली आनी घर सुखान नंदतलें अशें म्हणत तिजी आशा जागयली. ती वांगडाच फुल्ली. तेका बसोवन कांय खीण सुखाची सपना रंगोवन घेतली.

त्या रंगांत मन धादोस जायसर बुडली. कश्टांचे राशिफाटल्यान सुखाची सावळी आसा, ती आपणाक मेळटली. हें येवजुनच ती समाधानी जाली. तिका खय तीन चेडवांफाटल्यान चेडो जावपाचो आसा. जिणेंतल्यो अडी - अडचणी सोपून घरांत आडको येवपाचो आसा. सूख घेवन दर्या उसळपाचो आसा ...

तिणेन थारायलें. ही सगली सुखां हातासतली जाल्यार पयली घोवाक जाग्यार हाडपाक जाय. तेका मनीस करपाक जाय. हें येवजून ती फावोशे संदेची वाट पळयत रावली.

एक दीस सकाळचो तोंण धुयतना तिणेन विशय काडलो.

" हें ऽ .. कुडेवाडीत तो बाबा ना, तो बरें सांगता खंय."

" मागीर म्हाका किद्याक सांगता ?" म्हणत तो वकवक करीत जीब घासपाक लागलो.

" आमी एक दीस तेजेकडेन या काय म्हणं."

" किद्याक, तेका नादाक लावपाचो आसा काय किदें ? हांव पावना !!"

" तुजेकडेन कोणी उलोवचें !"

" मागीर त्या बाबाची गजाल तुयें किद्याक काडली ?"

" तेजेकडेन गेल्ल्या खूब जाणानी सोरो सोडला "

"हांव सोरो पियेल्यार तुज्या बापायचें किदें वयता ? आगो रांडला, हांव जोडटा हांव म्होडटां. कोणाक नागोवन पियेना !"

" मागीर आमकां किद्याक सतायता तर ?"

" हांव सतायता, हय हांव सतायता ? केन्नाय एक दीस दोन रुपया मागल्यार हांव सतयता ? म्हाज्या घरांत फुकट रावनां तूं ? हें घर इकल्यार म्हाका कितले पयशे गावतले जाणां ? मागीर केन्नाच तुजेकडेन भीक मागची पडचेना !"

"मागीर इक तर ! त्यो गायो इकल्यो तशें हें घरूय इक !"

" इकतलोंच. आनी तुकाय इकपाक फाटीं रावचोना. म्हाका शाणपणां शिकयता, हय म्हाका ?" म्हणत तो तिज्या केश्टांक धरता. मातसो बोवाळसो जाता. तोडफोड जाता. भुरगीं रडटा. कोणतरी सोडयता - धपकयता. मागीर आपशींच बोवाळ सोपता.

अशेच दीस वयता. ती मारूय खाता. पुणून सूख मेळोवपाखातीर केल्ले येत्न थांबयना.

आनी एक दीस पाकळी झडटा. तो बाबाच्या मठांत वचपाक तयार जाता. तिजे खोशयेक शीम - मेर उरना. वायट - बरो दीस पळयनासतना ती तशीच तेका घेता आनी बशींत बसोवन कुडेवाडीत व्हरता.

हेका तेका विचारून मठ सोदून काडटा. एक नितळ दोंगुल्लेचो वाठार. पळय जाल्यार, गर्दी, भजनाचोसो बोवाळ. एके वेगळेच धुंदितलो अणभव तेका फुलयल्ल्यावरी करपाक लागलो. तो आपशींच मुकार वचपाक लागलो. तेन्ना ती तेका फाटीं ओडपाक लागली. पुणून तो किदें चल्लां ते पळोवपाक वाट काडीत वचत रावलो. आनी मुक्कार वचून बसलो. करतां - करतां थंय चलतल्या त्या दनपारच्या आरत्यानी गुल्ल जालो. रोखड्योच आरत्यो सोपल्यो. धव्याच कपड्यांतलो बाबा दोनूय हात आशिर्वाद दिवपाच्या हेतान दाखयत एका पड्ड्या फाटसून भायर सरलो. तशे सगले उबे रावले. हो मात बसुनूच उरलो. पुणून रोखडोच हेरांक पळोवन बेगिबेगीन उबो रावलो आनी तेका पायां पडपाक लागलो.

बाबान तेका एकेच नदरेन पारखिलो. अनवळखिसो दिसलो. मातशें हासलेल्यावरी करून तेज्या भुजार थापटीत,“ कसो आसा तूं ? भागलोसो मरे.”

तेका किदें घडटा तें कांयच समजना जालें. हो आनी आपल्याक कसो वळखता काय ? तो सामको काचाबूल जालो. तेणेन समतेंच बाबाच्या पांयांर घालून घेतलें -

“ बाबा, बाबा म्हाजी चूक जाली. हांव हेज्याफुडें केन्नाच सो-याक आफुडचोना. म्हाजेर दया कर !”

बाबा परत मातसोसो हासलो, “ उठ. तुज्या मनांतलें सगलें म्हाका कळ्ळां.”

“ म्हणजे हांव तुजेवांगडा हांगाच रावपाक शकतां ?” आपूण गादयेकार, इश्ट, सगल्यांच्या थोमण्यांक विटला हें बाबाक कळ्ळें म्हणून तो खोशी जाल्लो.

“ अं ! म्हणजे... आरे, तूं संवसारी मनीस. हें किदें उलयता ? सद्या संवसार चलोवनूच तुवें परमार्थ करप ...” तेज्या उतरानी बाबा घुसपलो.

“ पुणून बाबा,... म्हाराज,...”

तेजें कांयच आयकनासतना बाबा मुकार गेलो. लोकय माटवांत जेवणाचे तयारेक लागले. पुणून तो थंयच उरलो. बायलेन तेका कुशीक हाडून जेवणाचे पंगतीत बसयलो. तेन्ना तो लोकावांगडा आपुणूय गजेर म्हणपाक लागलो. आनी लोक जेवता तशें पटापट जेवलो.

ती तेका पळयतूच उरली, अचकींत हो इतलो कसो बदल्लो काय ? पयलेच फावट पोटभर जेवलो. एकय वायट उतर काडलेना. वयल्यान देवाक पायां पडलो. सामको सुदारलो.

घराकडेन येवन दोन दीस तेणेन सो-याचें नांव काडले ना. तशें घरच्या कामाकय हात लायलो ना आनी कोणाक त्रासय दिलेना. तशी ही भितरल्याभितर वगीच भुल्लुसपाक लागली. आतां 'ती' सर्गीय सुखां फकत दोन बोटां पयस आसलेल्यावरी तिका दिसपाक लागलें.

चवथे दिसा सक्काळी न्हांवन बी तो बाबाच्या मठांत वचपाक तयार जालो. तेजी तयारी पळोवन तीय उमेदीन भायर सरली. कसोय करून आयज बाबाकडल्यान गुंरू घेवपाक जाय. पवित्र जावपाक जाय. तेज्या धव्याच भेसावरी जिवितूय निर्मळ करपाक जाय...

दिल्लें तीर्थ न्हांवन तो बाबाचे बसकेमुकार बसलो. बाबा किदेंतरी म्हणत तेजेर परमळीत उदक शिपडोवपाक लागलो. उपरांत दोगांय सामकी धादोस जावन जप करपाचो 'मंत्र' घेवन घरा परतलीं.

पुणून हेका घराकडेन खंय थारो लागता ? कोणय आपयता तेन्ना आनी मनाक मारता तशें तो परत परत मठांत वचपाक लागलो. करतां - करतां चडशे दीस मठांतूच. कामाक गेल्याभाशेन.

तो सुदारलो, सोरो सोडलो. तोंडातल्यान सो-याचे नांव येयल्यार न्हांवपाक लागलो, इतलो निवळलो.

तरेकवार सपनांचे रंग भरीत ती आपल्या सपनांक पिताळूंक लागली. सगली मेळटली सुखां आनी सुखांतली खोशी ती आपल्या दोळ्यांमुकार हाडून खिणाखिणाक मुरगटपाक लागली. आतां तिज्याखातीर तो फकत घोव नासलो, तर तिजेवयली संकश्टां पयस करपाक नवो अवतार घेवन येयल्लो देवूच आसलो.

पुणून तीं दोळ्यांतली सुखां चड तेप तिगलीना. तेजे एक व्यसन सुटोन, दुसरेंच लागलेलें. देवाच्या नांवान मठांत वारी - वारी आनी घराकडेन हरी - हरी. संवसाराची याद ना ती ना. आनी पोरा - ताराचीय पर्वा ना. वयल्यान तेजी सेवा करपाक एका मनशाचें मात काम वाडलें. जोडिनासलो काडी पुणून हिज्या वाट्याक अडेच्यो काडावडी...

अशेच दीस वचपाक लागले. हिकाय तेजे सेवेचो वीट येवपाक लागलो. जणू

काय तो ‘ बाबा ’ जाल्लेवरी घरांत वावुरतालो. बायलेक हक्कान फर्मायतालो तें जालेंच, चेडवांकय ‘ हें कर तें कर’ म्हण सांगून बेजार हाडपाक लागलो. तेन्ना एकएकदां सगलींच तेजेर पिकार जावपाक लागली. सोरो पियेतालो तेन्ना तरी बरो आसलो. एकदां तोंड घेवंन गेल्यार फाटल्यान त्रास नासताले. पुणून आतां ? सगलेंच आंगलट येयल्लें.

तोय चितपाक लागलो; भुरगीं शाळेक वचपाक लागल्यां. बुध्दीर येयल्या. आनी बायलूय इल्ली इल्ली पयस करता. घरांत तेंचेर वजें जावन रावच्या परस मठांत दीस बरे वयता. मागीर इल्लो इल्लो तो मठांतूच रावपाक लागलो. केन्नाय मनाक मारल्यार घराकडेन येवप. आनी फुडें – फुडें तर बाबावांगडा आनी हेर शिश्यांवांगडा ह्या गांवांत त्या गांवांत भोवतूच उरपाक लागलो. असोच तेप गेलो...

आनी आयज तर तेणेन घराचें तोंड पळयल्यार पांच वर्सां तरी सोपतली. तिज्या व्हडल्या चेडवाचेर जर तसलो प्रसंग येवनासलो, तिका आपूण अनाथ – निरादार जाल्लेवरी दिसू नासलें आनी त्या तोपयेकारान तिजी आशा जागोवनासली जाल्यार घडये यादूच जावचेनासली. पुणून आतां तिका तो जाय. खंयचेय परिस्थितीत घरा हाडपाकूच जाय. आपल्याखातीर न्हू जालो तरी, चेडवांखातीर धिराचो तेको कसो तरी जाय.

बरें येवजून एक दीस ती मठांत गेली. सगलो वाठारूच बदल्लेलो. जायती बांदकामां उबी जाल्ली. कितल्योशोच मठयो दिसताल्यो. तिणेन तेका सोदून काडलो. पयली ती तेका वळखलीच ना. इतलो तो सुदारलेलो. तिणेन खाकडत खाकडत तेका घराकडेन येवचो म्हणून जायते तरेन समजायलो. पुणून तो तयार जालो ना. निमाणे आपूण दोन दिसानी येता म्हण सांगून तिका वाटेक लायली.

तिणेन चार दीस वाट पळयली. येयलो ना. परत गेली. हेका तेका पांयां पडून आनी दुकां गळोवन एकदाचो तेका घरा हाडलो. कसोय करून तेका संवसाराच्या जोताक जुंपपाक जाय आसलो. आनी आतां तर आंगा – पांगांन बरोच सुटलेलो. एक खाशेली सया तेज्या मुखामळार उदेल्ली. खरोच बाबाचो पट्ट – शिश्य कसो दिसतालो.

धायेक दीस सुखान आनी सुशेगादीन गेले. उपरांत तिणेन पळयलें; लोक वांयगण नांगरता, बीं घालता, रोव पेरता. वर्साक आपूण एकटीच माथ्यार घेताली. अंदू घोव किदें म्हणटा तें पळोवपाक तेका विचारलें. आनी अजाप; आपली चूक कळेल्यावरी तो पयलेच फावट तिज्या उतराक मान दिवन कसपाक तयार जालो.

तेजी काम करपाची संवय मोडलेली. जिवाकय लागतालें. तेन्ना तीच फुडाकार घेवन एक एक काम मेकळें करताली. माग, आडास, रोव, चरवो... जालें. फाल्यां रोप लावपाची. कामे-यांक आपयल्लीं.

दुसरे दिसा सक्काळी उठली. घरांतली कामां करून भुती घेवन ती शेताकडेन वयताली. तेन्ना तिका वगीच घुंवळल्ल्यावरी जावपाक लागलें. आतां आनी रोप लायसर कांय जायना जाल्यार पुरो अशें, ती देवाकडेन परत परत मागताली.

जालें. कामेरी जमली. म्हातारिंशी चरवो हुमटिताली. थोडी लायताली. घोवय आपलेपरी वावुरतालो. मातशें वतूय कडक जालें. तें तिज्यान सोसूंक जायना जालें. घुंवळ येवन धबायंच करून रेब्यांत पडली.

“ आगो आगो, किदें जालें ?”

“ उपाशी पोटार जीव मारून काम करता. कशें जातलें ?”

“ हांव सकाळच्यान पळयतां. जिवाक बरें दिसना जाल्यार किद्याक येयल्लें ?”

“ काम करपाक किदें कुडींत ताकद आसा ?”

“ आगो तुमी कुत्ता किद्याक ! ही घुंवळ न्हांवणाची !!”

जमलेली बायलां तिका उदक पिवयत अदिकूच बेजार करपाक लागली. तेन्ना ती आपल्याक कांयच जांवना अशें नेट मारून सांगताली. पुणून तें कोणाकूच पटना जालें.

“ आतां घोव येयला. तुका कांयच चिंता करपाची गरजना. घरा वचून सुशेग घे.” अशें सांगून तिका आनी चेडवाक घरा धाडली. ती रोखडीच निवळली. पुणून दुसरे दिसा रोंप लावन जातकच घोवाक अचकीत जोर येयलो. खूब दिसानी केल्लें काम तेका लागलें. येयल्लो तेन्ना बरोच सुळसुळीत आसलो. आतां लीप भागलो, कसली चूक पडली ती तेका कांयच समजना जालें. तो दुबावान अदिकूच भागपाक लागलो. तिवूय भियेली.

तेणेन हातरुणावयल्यानूच बाबाची चूक मागली, देवाक आंगयलें. आनी तिणेन तेका आपणें बळयां हाडला म्हणून पोले फोडले, आनी बरो जातकच बाबाचेच सेवेक घालता म्हण होरायलें. अजापाची गजाल अशी; दुसरेच दिसा तो बरो जालो.

मन लावन परत संवसाराक लागलो. मेळत तें काम करपाक लागलो. तिकाय आशा जाली. पितारलेली सुखी संवसाराची सपना दोळ्यांमुकार नाचपाक लागलीं. तशी ती तेका चडूच लागी करपाक लागली. मात्तूय पातयेना जाली. शेताचेर नदर मारपाकय

दोगांय वांगडाच वयतालीं. रोप बरी मातली. कांय कडेन तर पोटूर दिसपाक लागलो. खोशी वांगडाच आंगार शिरशिरली. तेन्ना तिणेन अतळ तेका सांगलें,

" म्हाकाय तिसरो म्हयनो लागला." आनी नवे व्हंवलेवरी मुरगटली.

तोय सुखावलो.

आयज परबेचो दीस खूब दिसानी घरांत गोड-गोडशें शिजलां. भुरगींय उमेदीन आसा. वाडप चल्लां. इतल्यान कोणतरी स्कुटर घेवन समतो तेज्या खळ्यांत येता. तसो तो हुस्क्यान भायर सरता.

" आरे, रामू मरे, यो. सामको ब-या वगतार पावलो. यो यो, इल्लें इल्लें जेवया." भायर सरता सरताच तेणेन म्हणले.

" ना. ना. आयज आमचो उपास. आयज शिवरात न्हृ रे. मठांत अभिशेक चालू जाल्या. बद्द सांजे म्हाप्रसाद."

" मागीर तूं किद्याक येयल्लो तर !"

" बाबान तुका रकाद धाडला, आपल्याक विसरलो काय म्हण."

तें आयकून तो एकदम धसकलो. आबूज जावन हेवटेन तेवटेन पळोवपाक लागलो. बायल-भुरगीं दारा आडसून तेकाच पळयताली.

' ना. ना. विसरुना. याद आसा. म्हाका याद आसा. बाबा, बाबा..." अशे म्हणत समतो घरांत वचून खोमीस घेवन येयलो आनी तेका 'चल या' अशे म्हणत स्कुटरीर बसलो. तशी चेडवां फाटोफाट धांवत खळ्यांत येयली. पुणून स्कुटर खूब मुकार गेल्ली. तेंच्यानी हात लांबयले. तेका उलो केले, तरी तेणेन फाटीं वळून पळयलें ना. जणू तो वा-याचेर स्वार जाल्लो...

तिजेर तर आकांत येयलो. किदें घडटा कांयच कळनासलें. तकलेंतल्या चिंतनावांगडा पोटांतल्याय सुखाचें खिणाभितर वजें जाल्लें. तरेकवार रंग एकामेकांत भरसून सपनांचो चिकोल जाल्लो. दोळ्यांमुकार काळोख येतालो.

तिणेन भिरकेन मान वळयली. पानार वाडलेलें गोडशें माजरां ल्हेंवताली. पुणून तेंकां धांवडावंक शक्त नासली. फकत दोळे मोट्टे करून शुन्य नदरेन पळयत उरली; तिजी सुखां कोणतरी गिळटालो...

# ९

# भिरकी

आंबेकाराच्या रागान तीस रुपयांचें एक आंब्या-कलम हाडून पोरसांत रोयलें. आनी बरें शेण-सारें घालून गच्च वंय केली. कलमाकारान सांगला, 'बरी जतनाय घेतल्यार तिनूच वर्सांनी झाडाक फळ धरतलें. फळांचो राजा जरी आंबो आसलो तरी ह्या कलमाक लागतलो आंबो सम्राट आसतलो. आडेकडेच्या वाठारांत खंयच ना असो खाशेले जातिचो आंबो.' मागीर पळय आमच्या घराकडेन कितले लोक येता ते. बाबाक हांव पयलींच सांगून दवरतलो, हांवे सांगलेबगर कोणाकूच आंबे दिवपाचे ना. त्या फटकि-या आंबेकाराक तर कसोच लागी करपाचो ना. फटिंगपणाचे धंदे करून वयल्यान म्हाका शाणपणां शिकोवंक सोदता ? राव, तुका सारकें दाखयता. कलमाक आळें करतां करतां तेज्या आंगातलो दुखावल्लो वागा पेटो चाळवपाक लागलो. एक एक गजाल याद जाता तशी तशी तेजी अस्वस्थताय वाडपाक लागली -

" ये सत्तावन, वयर कोणाक पळयता रे?"

" कोणाक ना."

" कोणाक ना, जाल्यार वयर आम्यार नदर किद्याक तुजी ?"

" ही ऽ ती नेविनूच शेवणीं कसली काय म्हण पळयतालो."

" आं. आं. शेवण्यांकूच पळय. ना जाल्यार आम्यांक बी पळयशी. मागीर तुजो

सत्तावनाचो अठ्ठावन कसो करता तो पळय. अंदू भाटकाराचे हे तिनूय आमे हांयेन केल्या. तिनायचे मेळून पंचीस हजार. म्हाजे पयशे भरपाक जाय. त्या खातीर सांगता, हेवटेन तुमी भुरग्यानी कोणेच येवपाक जायना. आनी कोणय आम्यार फातर बी शेवटितना गावलो जाल्यार दोके म्होडून घातलेबगर रावचोना.''

" आरे दादू, तुवें आमे केल्या म्हणटकर हेवटेन कोणूच येवचेना. तेंका जिवाचो भंय ना काय किदें ? आनी हे ते आमटेले रे आमे किद्याक केल्या. हो मात एक बरो आसा. च्चे ! भाडकारान फटयलो तुका. पंचवीस हजार म्हणल्यार खुबूच जाले.''

" च्चें ! तुका कळपाचें ना तें. आम्यांची दर आतां खंय पावल्या जाणा तूं ? हं ! तुवेन केन्ना इक्तो आमो खाल्ल्यार कळटली मरे !''

"इक्तो घेवना म्हण किदें जालें. लोक सांगना काय किदें ? आनी तूं किदें म्हाका सामकोच बुध्दू समजू नाका.''

"आं आं. पुरो, पुरो. वळखता हांव तुमकां. तुमी पोर म्हणजे सांवार ! लागी खंयच आमे येवना, होच एक लागला. सादो न्हू तो, मानकुराद. ना जाल्यार तोरां बी फातरायशात, आनी म्हाका फोंडात घालशात. एक आनी दोन न्हू. पंचीस हजार ते. चल चल लाग चलूक. आतां ते जून जायसर राखचेच पडले...''

तेजी तीं काटेकशी उतरां आयकून सत्यवानाक वायट दिसलें. 'किदें तर मेल्लो हो दादू, जणू काय हेका भुरग्यांनी केन्ना लिपूच नागयल्लो. आनी नेट किदें ? पंचवीस हजार खय ! फटींग खंयचो. पांच हजारांक बी केल्या आसतले...' अशें चिंतीत तो मुकार चलत रावलो. व्हाळाकुशीक चरतल्या म्हशींक आमडिली आनी घरचे वाटेक लागलो.

रोखडेच दीस गेले. परिक्षा सरू जाली. आंबे-पणस पिकपाक लागलें. एक दीस तो असोच इश्कोलाक वयता आसतना दादू तेका वाटेरूच मेळ्ळो. माथ्यार कसलें तरी जड वजें आसलें. वयल्यान फकत भातयेण दिसतालें. शेर्त पिकलेले आंबे विकपाक व्हरता आसतलो. तेज्या तोंडाक वांगडाच उदक सुटलें. हरशी दादूक पळयनाफुडें तेका तिडक मारताली. पुणून आयज किद्याक म्हण देव जाणा, तेणेन तेका बळयां हटकिलो, " ये ऽ दादू, खंय वयता रे ?''

तो जाप दिनासतना चलत रावता.

" आंमे पिकले काय किदे रे ?''

तरीय तेणेन जाप केली ना. पुणून मुकार अचकीत रावलो. आनी आवज चडयत

म्हणपाक लागलो, ''पिकले काय किदें ते म्हाका विचारता ? हय ? त्या आम्यांचेर फातर कोण शेवटिता रे ? आं ! म्हाका आजून सारके वळखुना तुमी. फातरा सकट हात हुमटितलों!''

'' हे ऽ बेश्टोच म्हाजेर घालू नाका. हांवे फातर शेवटिल्ले केन्ना पळयलां तुवें?''

'' बरें बरें. धरता आनी शिकयतां. समते कानूच ओडून काडटां.''

'' तूं म्हाका किदें शिकयतलो. हांव तेवटेन केन्ना वचच ना.''

'' आनी वचपाक तूं पावोकूय नाकां...'' अशें किदें बडबडत तो चलत रावलो.

सामको स्त्रापी मनीस. हलकट हलकट गाळी सवता म्हण कोणूच तेजे वाटेक वचना. सत्यवानान तेका हटकून वगीच आपली तकली पिड्ड्यार करून घेतली. आतां पेपराची मात वाट लागना जाल्यार पुरो अशें म्हणत तो चलत रावलो.

पुणून दोळ्यांमुकारल्यान आंबे हालना जाले. पिकलेले आंबे, हळदुवे–तांबशे आंबे, वयर–सकयल, मदी–मदी झाडार लांबतले आंबे, आपले वटेन आपोवपी आंबे, एकाच फातरान पडपी आंबे, तीर चुकोवपी आंबे, केन्नाच दिसपी–केन्नाच पानांनीं लिपपी आंबे, एकाच फातरान पडल्यार आंबट आसुनय गोड लागपी आंबे, हासोवपी आंबे, रडोवपी आंबे, लांबोडये, वाटकुळे, मासाळ, दिकाळ, घोटां, फकत आंबेच आंबे. परिक्षेक बसलेलेकडेनूय आंबेच दिसपाक लागले.

दनपारां जेवन तो पुस्तक घेवन बसलो. पुणून दोळ्यांमुकार आंबेच दिसपाक लागले. ते तेका अस्वस्थ करपाक लागले. ते भाटकाराले आंबे तर तेका आपोवपाक लागले. इतल्या पयसुल्ल्यान तो आंब्यांचो घमघम तेज्या नांकांत कसो वचपाक लागलो हेजेंच तेका अजाप दिसपाक लागलें. त्या वांसान आनी आंब्याचो काथो आवळटकीर मुठिंतल्यान भायर सरतल्या रोसान तेजे दांत मुतपाक लागले. तेणेन पुस्तक थंयच आपटिलें आनी नीट चलपाक लागलो. वाटेर तेका संजू मेळ्ळो. तेका अशें तशें सांगून फुलयलो आनी वांगड तयार केलो.

देवळाकडेन चार आंबे आसात. ते धा जाणांचे. कोणय खातात. पिकलेले आंबे काडपाक कोणाचो भंय आसना. पुणून थंय वचून पळयल्यार कांयच ना. तेंका वगीच इतले पयस येयलेशें जालें. त्या आंब्यांक तोरांच जावपाक दिनात मागीर पिकतले खंयचे ?

ते तशेच रेनावशी गेले. हरशी तेंका भाडकाराले आंबे मेळचेना. पडलेल्याची आशा धरून ते दबकत चलत रावले. इतल्यान तेवटेन दादू त्रयता तो संजूक दिसलो. तेन्ना

तो सत्यवानाक म्हणपाक लागलो, “ सत्या, हो तो पळय दादू वयता. बेगीन चल. तो रेनान पावचे पयली आमी पावोया.”

“ तशें जाल्यार तेवटेन नाका रे बाबा. तेणेनूच केल्या ते आंबे.”

“ हय रे. काल तिट्यार विकपाक बसलेलो.”

“ अशें ? सकाळींय एक पाटें घेवन गेल्लो मरे तो. हांवेन हटकिल्यार, म्हाका शापोतां सांगपाक लागलो. पिसाट कसो.”

“ तशें जाल्यार शेर्त फोण्यां गेल्लो आसतलो. बरे बरे आमे तो बाजाराक व्हरता.”

“ आरे, तो थंयच रावन आमकां किद्याक पळयता रे ! धड न्हू तो.”

“ तो आसू रे. तेजें कोणाक पडलां ?”

“ नाका रे बाबा, पाड पडू तेजें. यां, आमी सकयल्यान या ... आरे संजू. हें पळयलां तुवें ?”

“ किदें, भाडकारालें लॉज मरे तें.”

“ तें न्हू रे. हे ऽ ते आमे पळय. कास्ताचे मरे !”

“ आरे हय मरे ! इल्ल्याशा झाडाक केदे व्हडले लागल्या रे. सामके तांबडेच. सात-आठ तरी आसतले.

“ पिकल्या काय किदें रे. काय रंगूच तसलो.”

“ ते सकयले तांबडेच दिसता, ते मात शुव्वर पिकल्या.”

“ संजू, कोण आसचेना. काडुया ?”

“ पिसावला रे ! तो म्हादू पळयत जाल्यार समतो भाडकारागेर पावयतलो मागीर. खा आमे. चल चल, या आमी. वगीच आंगार लचांडा आनी नाकां.”

उपरांत दोगय आशेर उदक सोडून घरा परतले. आंबेय ना आनी अभ्यासाचीय वाट.

दुसरे दिसा पेपर सोपतकीर तो बदूद तिट्यार गेलो. पळय जाल्यार दोग आंबेकार आसा. एकट्याकडेन सगळी घोटांच. दादूकडेन मात हळदुवेच आम्बे. मानकुराद. तो नीट दादूमुकार वचून उबो रावलो. पळयलें पळयलें आनी समतो एक आंबो उखल्लो. नांकाक तेकोवन बरो लांब वांस घेतलो. समतो आतकोड्यामेरेन पावयलो-

“ दवर दवर चिड्डू नाकां. पाड जातलो... घेता तूं ? देडशें रुपया डझन.”

“ कितले ?”

“ दवर तूं. हो घे दोन रुपयांक एक.”

“ च्चे ! तें घोट मरे.”

“ हेतेजे पंदरा रुपाया पडटले.”

तें आयकून तेणेन दोळे मोट्टे करून घुंवडायले आनी परत एकदां बरो वांस घेवन तो आंबो राशीस आसलो तसो दवरलो.

“ सत्या, मातसो हांगा राव आं. हांव रोखडो मधूगेर वचून येता. काल आमे हेल्ले, आजून पयशे हाडून दिवना. रावता मरे ? मागीर तुका एक आमो दिता हाव .”

“ हय हय रावता. चल तूं.” आंब्याचे आशेन तो थंय रावपाक उमेदीन तयार जालो.

तो वयतकीर सत्यवान एक एक आंबो उखलून वांस घेवन घेवन दवरपाक लागलो. सामको पोटभर वांस घेतालो. इतल्यान गडबडीनसो दादू येयलो.

“ तूं वयता मरे, घे चल.”

“ तूं आमो दितलो म्हणटालो न्हू रे. हें घोट ! तेंवूय हें पळय देटाकडेन पाड जाला.”

“ आमो ? आज्यान दवरला तुज्या ! पंदरा रुपया दी आनी व्हर . केन्ना तुज्या बापायन तरी इक्लो घेतलेलो मरे ! तुमी फकत चोरयेचेच खावपाचे. ”

तें आयकून तेका तिडक येयल्ली. पुणून तोंड वाकडे करीत तेका पळयत वगीच रावलो. आनी अचकीत, “ हें घे, तुकाच दवर.” अशें म्हणून तें घोट उडयलेशें केले आनी कसलो तरी निश्चेव करून चलत रावलो.

वयता आसताना तेजे तकलेंत जायते विचार येवपाक लागले. शें ! आमच्या बाबान काजी आनी पणस रोयल्या ते बरे मानकुराद आंबेच रोवपाचे. जोडूय बरी मेळटली आसली. पुणून ह्या जाण्टेल्यांक मात्तूय अक्कल ना. फकत काम करपाचें आनी पोट भरपांचे इतलेंच खबर आसा. त्यो धायेक काजी आसा तितून बरे दोन आंबे रोयल्यार पुरो आसले. एक आंबटेली ढक मात आसा. तिजी तोरां खळांत घालपाची आनी पेज्जेवांगडा तोंडाक लावपाची. आमची बुध्द धिपरांत म्हणटात ती बेश्टीच न्हू ! कोणायचे जर बरे धा-बारा आसल्यार लाखूच जातलो. मागीर आनी कोणाक नागोवंक वचपाची गरज ना...

चलता चलता अचकीत तेका मुकार भाटकारालो म्हादू दिसलो. तेका पळोवन

तो वगीच भियेल्लेवरी जालो. तेका चुकोवंक वयले वाटेन गेल्यार बरो अशें तो चित्तालो. पुणून रोखडेंच तेजें दुसरें मन म्हणपाक लागलें, आपणें किदें तेका नागयला काय फटयला?

अशें चित्तनाच म्हादू समतो फुड्यांत पावलो. आनी थारून तेका पळयत रावलो. तेन्ना तो आपूण आबूज जावना अशें दाखयत, जायते प्रस्न दोळ्यांत भरून तेका नदर चुकयत पळोवपाक लागलो.

" तूं, जगूलो न्हू रे ?" म्हादून तेका बारीक पळयत विचारलें.

" हय. किद्याक ?"

" भाडकाराले लॉजाकडले आमे कोणी काडले ?"

" किदें ?"

" नकळो जाल्ल्याभाशेन करूं नाका. तूं आनी संजू तेवटेन गेल्ले काय ना !"

" हय गेल्ले. पुणून आमी आमे काडुना."

" काडुना ! मागीर तो दादू बेश्टेंच सांगता ?"

" तो फटींग. तेणेनूच काडल्या आसतले."

" हय ? यो तर असोच व्हरतां तुका भाडकारागेर."

" कानाचें सोड आं, पयली सांगता तुका !"

" किदें करतलो आं, किदें करतलो ?"

" आवय ऽ आवय ऽ सोड आं. पळय घांस मारतलो."

" मार पळोवया." अशें तेणेन म्हणनाफुडें तेका बुड्डिल्लेवरी केलो आनी कांन सोडोवन धांवक लागलो. तेन्ना पडलेलें पुस्तक आनी कादेन उखलपाकय तो रावलोना. त्या विशयाचो पेपर जाल्लो. आतां तेंची तेका गरज नासली.

"आरे आरे, राव मरें. पुस्तकां तरी व्हर."

" तुकाच दवर ती. तुज्या भुरग्यांक जातली... आनी एक सांगता. तुवेन ते आमे काडून दादूक दिल्या मरे. राव भाडकाराकूच सांगता."

" तोंण फोडटलो धरून !"

" म्हाजें किद्याक ? तुजेंच फोडपाक लायतां. वेदोळूच हांवेन दादूच्या पाट्यांत आमे पळयल्ले, ते किदें वळखुना हांवेन ? तुमी दोगूय चोर आनी आमचेर घालता?" अशें पयसूच रावन म्हणत तेणेन म्हादूक धमकायल्लेवरी केलें. पुणून आपुणूच भियेतसो गेलो.

तो समतो घराकडेन येयलो. आवयन रोखडेंच वाडलें. पुणून जेवपाक उंडी

तोंडाकडेन व्रचना जाली. तेणेन शीत मुश्किलेशें केलें आनी उठलो. पुस्तक घेवन बसलो, लक्ष लागना जालें. आड पडलो, पुणून थार जायना जालो. तकलेंतली चिंतना बेजार करपाक लागली; तो दादू आपणाक भिकाइडो समजता, नागोवणो म्हणटा, बापायन तरी केन्ना विकतो आंबो घेतलेलो काय म्हणटा. फाल्यां विकतो आंबो घेवचोच पडलो. एक न्हू, दोन घेतलो आनी थंयच्च तेज्या हुजिरूच खावन दाखयतलो. पुणून अचकीत तेका आपणे म्हादूक किदें म्हणलेलें तेजी याद जाली. आनी वगीच खाकुडलेलेवरी जालें. दोगूय एक जावन आपल्याचेर कसलेंय बगलट बी घातल्यार मात आपूण मेलो... रोखडोच तो धीट जालो. ना. हेंका भियेवन चलचेना. कसली चोरीच करुना जाल्यार भंय कसलो ? चोरता तेका भिरांत. पुणून विकतो आंबो खांवकूच जाय, असो निश्चेव करून तो समतो काजी सासपूंक गेलो.

हेवटेन तेवटेन हेडोन थोड्यो काजी कुडायल्यो. पुणून जाय तितले पयशे मेळचेना अशें दिसतकच अचळंय घरांतल्यो फारयल्यो आनी समतो तिट्यावशीं गेलो.

काजी पसरकाराक दिल्यो आनी पयशे घेवन वळ्ळो. पुणून त्यो कचकचीत नोटी दादूक दिवपाक तेज्या जिवार येवपाक लागलें. दादूक गिरायक घालप म्हणजे दादूची जोड वाडटली. तेका फायदो जावन उपकारना. लुकसाण जावपाक जाय.

तेणेन नॉटी बॉल्सांत कोंबल्यो आनी हेवटेन तेंवटेन पळोवपाक लागलो. लागीच एक म्हातारी आंबे घेवन बसलेली. चड नासले. थोडी घोटां, थोडी गारफां. तेणेन समतें विचारले,

" आमे कशे गे ?" आनी एक उखलून बरो वांस घेवपाक लागलो.

" धा रुपयांक एक बाबा. मानकुराद ते."

दर आयकून तेका उमेद जाली. तरीय तेणेन म्हणलें,

" च्ये ! म्हारग मगे. पंदरा रुपयांक दोन दिना."

" ना, जावचेना. आनी दोन दी. म्हाकाय किदे उरो नाका."

" दोन न्हू, एक दितां. घे सोळा रुपाया आसा." अशें भाटकाराच्या झेतान म्हणत तेणेंन तिका पयशे दिले आनी आंबे घेवन, दादू आंबे विकूंक बसता त्या बस थांब्याकडेन गेलो.

येवन पळय जाल्यार, थंय पाटें आसा. पुणून दादू ना. सगले भलतेच लोक. तो

तसोच येवन बस-शेडींत बसलो, आनी खावपाखातीर देट बी काडून एक आंबो निवळ केलो. पुणून घांस मारपाकच जायना जालो. तोंड सामकें लाळेन भरलेलें, पुणून दादून पळयलेबगर घांस कसो मारतलो. आपणे दोन आंबे विकते घेतल्या हें तेका दाखोवनाका?

इतल्यान खंयच्यान तरी मुठींत पयशेशे घट धरून दादू गडबडीनसो येयलो. सत्यवानाचेर नदर पडनाफुडें आपल्या पाट्याक अजापानसो पळोवपाक लागलो. जणू काय हेजे अर्दे आंबे कोणेतरी फारोवन तेका लीप नागयल्लो. हेवटेन तेवटेन सोदपाक लागलो. मागीर तो अचकीत शेडिवटेन वळ्ळो आनी सत्यवानाक पळोवपाक लागलो. तेन्ना तेणेन बरे नेटान आपल्याकडले आंबे तेका दाखयले. तेज्या हातीन आंबे पळोवन दादूक वांगडाच धक्को बसलेल्याभाशेन जालें.

" किदें दादू, पयशेशे घेवन नाचता ?"

" नाचता ! तुका सारकें नाचपाक शिकयतलो. पयली ते आमे दवर. दवर म्हण्टा न्हू म्हाज्या पाट्यान !"

" किदें ? तुजे तर ते. आत्तां विक्ते हाडल्या हांवें !"

" इक्ते हाडपाक, आनी कोणाकडेन आसा तर असले आमे ?"

" हय आसा. मधूल्या दुकानामुकार एक म्हातारी बसल्या, तिजेकडेन वचून पळय."

" हांव आतां थंयच्यानूच येयला. कोण ना थंय."

" हांव सांगता न्हू आसा म्हणून."

" अतसली फटींगपणां उलोव नाका. पयली आमे दी."

" ना दिवचो. बरे सोळा रुपया दिवन घेतल्या हांवे."

" सोळा रुपयांक तुज्या आज्यान दवरल्या. हाड हाड दी. फकाणां करूं नाका."

" हांव फकाणां करिना. तुकाच फकाणां दिसता."

" हो तो पळय, पुलीस येता. सांगू तेका ? काय दिता?"

" म्हाज्या पयशांचे ते !... हांव किद्याक दितलो ?"

आतां मात तो सामको रडपाक पावलो.

इतल्यान तो पुलीस सामको लागी येवन तेंच्या उलोवण्याचो अदमास घेवपाक लागलो. मागीर आपली बडी खांब्याचेर मारीत म्हणपाक लागलो, " किदें जालां रे ?"

" सायब. हेणें हे पळय म्हाजे आमे चोरल्या. आनी परत दी म्हणल्यार कसोच

दिना.'' दादू.

“ना. ना. सायब, तो फट उलयता.'' सत्यवानान दोळ्यांत दुकां भरीत म्हणलें, “ सायब, हांवे हे आमे ते थंयचे म्हातारेकडल्यान पयशे दिवन घेतल्या. ना जाल्यार तिकाच वचोन विचारुया !''

“ हाड, पयलीं ते म्हाजेकडेन दी.'' अशें म्हणत पुलिसान ते आंबे घेतले आनी तेज्या गोलाक धरीत म्हणपाक लागलो, “ चल दाखय. कोण म्हातारी ती पळोवया.''

त्याबराबर तिगूय चलपाक लागले. तेंची गडबड पळोवन आनिकय कोण कोण जमलेले, तेय चलपाक लागले. सत्यवान तर चडूच नेटान चलतालो. तेका एकदाची ही केस सोपोवपाची आसली.

पुणून ते सुवातेर पावतकीर तेका शेळो घाम फुटलो. ती म्हातारी खंयच दिसनासली. विचारल्यारय कोण सांगना जालो. हेवटेन तेवटेन सोदलें, पुणून कांयच उपेग जालो ना. तेका वांगडाच धडधडी भरली. वत आसुनय दोळ्यांमुकार काळोख येयलो. नखेत्रा चकचकता काय आंबे लखलखता तेंच तेका कळना जालें...

# १०

# काळू

आवयन जात्रेच्यान एक बरो बोटवो हाडलेलो. तो आपल्याकूच मेळचो म्हण हांव आनी दादा चडा-ओडी करताले. तो धावेक म्हण तो आपल्याक मेळचो आनी म्हाजो आदलो पिंजला त्याखातीर म्हाकाच जाय म्हण हट्टाक पेटलेलो.

इतल्यान भायल्यान आपा येयलो आनी घरांत सरतांच म्हणपाक लागलो, "शिरबेले गायचे खुबे देवल्या. सांजेची व्हियेतली. तिजेर मातशें लक्ष दवरूंक जाय."

आपाची उतरां आयकून आमी वाद विसरून खोशी जाले. कारण आमकां पोस खावपाक मेळटलो. एक नवो जीव आमच्यामदी खेळटलो. म्हाज्या तोंडांतल्यान आपशींच उतरां फुटली, "हे फावट तिका पाडुकूच जातलें !"

" नाच. पाडोच जातलो." दादाक अचकीत नेट चडलो.

" हांव म्हणटां, पाडूक. कारण पयलिचो तिका पाडो आसा."

" तरीय पाडोच जातलो." तोय निश्चेवान उलयलो.

अशें करता करता आमी पैज लावपाचेर पावले. आनी समतो तोच बोटवो पैजेक लायलो. उपरांत तो बोटवो आपणाकूच मेळटलो हे आशेन आमी वाट पळयत आसले. तिनसांज जावन रात जाली तरीय गाय व्हियेना. बरो वगत वाट पळयली. मागीर मात दोळे धापता म्हण असोच तेकलेलो थंयच न्हिदलो.

सकाळी म्हाजो उठपाचो वगत जावच्या पयली भावान म्हाका उठयलो आनी बोटवो नाचयत " पाडो जालो " म्हणत म्हाका चाळोवपाक लागलो.

" च्ये ! जांवकूच शकना." म्हणत नेटान गोठ्यांत वचून येयलो. पुणून हांव पैज हारलेलो. काळोच पाडको जाल्लो. सकाळीफुडें म्हाजे उमेदीचेर काळोख घालीत कोळसो कसो जल्माक येयल्लो. आपान तेजो बारसो करून रोखडेंच नांवय दवरलें , 'काळू'. तें आयकून
ख-यानीच हांसपाक येयलें. त्या खाप-याक फावोसारकेंच नांव आसलें. बोटवो मेळुना म्हण हांव निर्शेल्लो. पुणून तेजें नांव आयकतकच मन मातशें ल्हवशें जालें.

काळू घरच्या वातावरणांत इल्लो इल्लो वाडटालो. सगळी तेजे शिटुकसाणिची तोखणाय करताली. म्हाका मात किद्याक म्हण कोण जाणा तेजें कांयच बरें दिसनासलें. वयल्यान तेजेविशी कोणेय बरें उलयल्यार तिडक मारताली. ती मागीर हांव केन्नाय उक्ती केल्याबगर रावनासलो.

तेन्ना तो सादाराणसो तीन म्हयन्यांचो आसलो. दोरी गळ्यांत गुठलावन तेका लागीच चरवाक सोडलेलो. सांजचो वगत. गाय पयसुल्ल्यान येता ती आवयक दिसली. तिणेन म्हाका तेका हाडून बांदपाक फर्मायलो. तेका हात लावपाक जिवार येताले. तरीय गेलो. जाल्यार तो म्हाका लागीच रावना जालो. पळपाक लागलो. तसो म्हाजो राग वाडपाक लागलो. तेका गाय दिसल्यार तो म्हाका आयकुचेना हें येवजून झपय मारून धरलो आनी खुटाक बांदतालो. इतल्यान गांयचें हांबप तेज्या कानार पडलें. तसो तो एकदम उसळ्ळो आनी धांवपाक लागलो. हांवेन दोरी सोडलिना. तेज्या फाटोफाट धावन लागच्या लायटिच्या खांब्याक बांदलो.

हें इतलें करतना हातीक दोरी लागून चुरचुरपाक लागलें. ते तिडकीन तेजे चाटीर चार फुलयली. तें पळोवन आवय तिडकली. किदें किदें म्हणपाक लागली, " येदोसो पोर आयकना... गोरवां किदें पोसतलो ?... संवसार कसो करतलो?..." तिका हांव फुडलें सांगतलो आसलो. पुणून तेजेर धापटां फुलोवन राग निवळ्ळ्यान वगीच रावलो.

केन्नाच तो वर्साचो जालो.

एकदां गोरवांक गोठ्यांत बांदून तण घालपाचें म्हाजेर पडलेलें. सगळ्यांक हाडून बांदली. पुणून काळू दाव्यांकडेन वगी उबो आसतनाय पागीच्या दाव्यांक हात घालपाक भंयसो दिसतालो. तरीय हात घातलो. तेन्नाच तेका कोळो चावलो म्हण तेणे तकली

हालयली. म्हाका दिसलें, तो मारूंक सोदता. दावें शेवटून उडी मारली. पुणून, तो मात फातरावरी वगीच आसलो. तें पळोवन म्हाजेंच म्हाका हांसपाक येयलें. परतो नेटान गेलो. पुणून आतां दाव्यांचें बिड्डें तेज्या गेतापोंदा शिरकल्ल्यान काडपाक धीर जायना जालो. बडयेच्या भंयान कुशीक सरपाक लागलो. तेन्ना बरीच कसरत करून तेका बांदचो पडलो.

तसोच गोणब्याकडेन वचून भातयेण काडपाक लागलो. काळूविशी आंगात रागाचो नेट भरलेल्यान तण मात बरें सपासप ओडटालें. सवंयेप्रमाण तेका निमाणे घालतलो हें येवजून तेजे कुशिच्या पाडकाक तण घालतालो. पुणून तें पयलींच हातिंतलें तण ओडपाक लागलें, म्हण तेका कुशीक काडीत ओणव घालून पागींत तण सारतालो. तेन्ना फाटल्यान बांदलेल्या काळून धोंगसो घालून म्हाका उडयलो. तकली समती पागीक आदळी. असो राग येयलो; कडाशाची शिरटी काडून रपारप मारलें, आनी तसोच भायर सरलो. कपलाक हात लायलो. येद्दें गुंज येयल्लें, कोपरय मातसो सोल्लेलो.

ते दिसाच्यान तो म्हाका दुस्मानकसो दिसपाक लागलो. तेका त्रास करपाची एकूय संद हांव होगडायनासलो. तोय आपल्या बटबटीत दोळ्यानी म्हाजेर मांड्टालो. तेन्ना जर म्हाजे हातीन बडी आसल्यार तेजे फाटीर बसपाक विसरनासली. पुणून दादावांगडा मात तो बरो वाकुळटालो.

केन्नाच व्हड जालो. दोन सुळेकशी शिंगा खड्डेर उदेली. तीं दिसतकच वगीच हड्डें धडधडटालें. पोटांत रोमल्यार समतोच भांडो भायर काडटलो हें येवजून अभ्यासचेरूय लक्ष लागनासलें. एक दीस असोच जानूल्या घरावशीं गेल्लो. तेन्ना तो कोयती तापोवन आपले म्हशिची शिंगा कातरतालो. तें पळोवन हांव एकदम चमकलो आनी निश्चेव करून नेटान घरा परतलो. समते बापायक सांगून उडयलें, ‘‘आपा, काळूची शिंगा बरीच वाडल्या. ती आयच्या आयज कातरून उडय !’’

‘‘आरे पुणून आजून ती खंय वाडल्यां ? आनी पाड्याची शिंगां कातरल्यान तो मागीर कुल्पाद दिसता.’’

‘‘ना. ना. कातरूच तूं. तो कोणाकूय तरी तोपतलो.’’

‘‘च्ये ! तो किदें मारपाक येता तर. थंड-शितळ पाडो. आंगार लोळ्ळ्यार सुदीक उठना. सामको मनशाळो.’’

‘‘तुका चड खबर आसा. तो म्हाका पळोवन कसो मांडटा तें पळयलां तुवें ? तेजो सामको भंय दिसता... नाजाल्यार तेका कोणाकूय विकून तरी उडय...’’ कागाळेच्या

सुरान हांवें बापायक जायते सांगलें.

पुणून तेणेन कांना-मनार घेतलेंना. वयल्यान म्हणपाक लागलो, " असले जातवडिचो पाडो मेळप कठीण. आजून भुरगो आसा तो. जोताक बांदतकीर पळय सूत कसो चलतलो..."

म्हाका तेजे उलोप आयकन दिसना जालें. हांव थंयच्यान कडसलो.

बऱ्या वगतान हांव गांव हेडून तिनसांजचोसो घरा परतलो. पोटांत घास मारपाक लागलें. डबो घेवन घराफाटल्या सड्यार गेलो. थंयसर कोणतरी एक झील नेटान झेडपितालो. लागी वचून पळयत जाल्यार, काळू ! आपल्या सुळ्या-शिंगानी ते झिलीक सामकी फाफशितालो. तिजी पानां पिसडून शेवटताली. तो झगडपाची तयारी करतालो. दुस्मानाक फाळून उडोवपाचे तयारेन शिंगांक धार काडटालो. आपली वेतभर शिंगां हातभर कोणायच्या पोटांत तोपपाची आपलेकडेन शक्त आसा, अशें तो शिटकायतालो. मदीच गेतांनी माती खोल्लून अस्पश्टशे धेकर दितालो. लडायेची तयारी करतालो. सामको खुनशी दिसतालो. म्हाजी जाग मेळनाबराबर मान उब्बी करून रावलो. आनी वाटकुळेच दोळे घुंवडायत म्हाका रागान पळोवपाक लागलो. बरोच वगत दोगूय एकामेकाक पळयतूच उरले. तेजी नदर म्हाका स्पश्ट सांगताली, 'तूं म्हाजी शिंगां कातरूंक सोदतालो मरे. राव, आतां तुज्यो आतकड्योच भायर काडटां.'

हांव आबूज जावन थंयच उरलो. पांयच हालना जाले. सामकें वागरें पडलेल्या भाशेन जालें. आरे, पुणून हांव तेजी शिंगां कातरूंक सोदता, हें तेका कशें कळ्ळें ! मनशांची भास तर जनावरांक कळना. आमच्या मनांतलें कळता काय ? कांयच कळनासलें . तरीय पुणून हांव हेवटेन येवपाचो आसा हें तेका कशें कळ्ळें ? किदेंय तरी भानगड आसा. मातयेन रंगल्ली तेजी शिंगां म्हाका रगतान न्हाल्लेवरी दिसताली. तें पळोवन कापरी भरली आनी पोटांतलेंय थारलें.

हांव अचळंय एका झाडाचो आडोस घेवन पळपाक सोदतालो. तेन्नाच कुशिच्यान आनी एक कोणाचो तरी गोबरोसो पाडो मुकार येयलो. तेणेनूय आपल्या शिंगाचेर आनी कोळाचेर माती उसळोवन घेतलेली. मान वाकडी करून तिरशे नदरेन तो काळूवशीं सवकास वयतालों. हांवे ताडलें, धिरयांची तयारी चलताली तर. जिवय मातसो ल्हव जालो. पुणून मनांतलो भंय वचनासलो. झिलींक झेडपयल्लेवरी म्हाकाय झेडपितालो. फाफशितालो.

गोबरेलो पाडो आपलोसो दिसलो आनी काळू दुस्मान. दोगूय एकामेकासामकार येवन करा करून मांडले आनी गेतांनी माती खोल्लुपाक लागले. ते झुजतले काय एक जावन म्हाजे फाटीक लागतले असो वगीच खिणभर दुबाव येवन गेलो. पुणून ना. दोगांयनी एकामेकाचेर नेटान खड्डे मारले. आनी बरोच वगत बलाबल जोखलें. आतां म्हाझूज पेट्टलें हें आनी सांगपाची गरज नासली. काळू जरी ल्हान आसलो तरीय तेका बरीच शक्त आसा हें तो मारतल्या नेटावयल्यान समजतालें. निमाणे इल्लो-इल्लो तोच पाडो फाटीं सरपाक लागलो. आनी जशी तेणेन फाट करुनाका, काळून तेज्या भोकुण्याचेर नेटान धोंगसो घालून तेका धांवडायलो. हांवूय हेवटेन पळ्ळो. पुणून अचकीत तो मुकार येवन रावलो. घडये तेका आपले ताकदिची म्हाका शिटकावणी दिवपाची आसली काय ? कांयच समजनासलें. तसोच दुसरेवटेन धांवलो. पुणून ते दिसा-सावन म्हाजें अभ्यासावयलें लक्ष आनी न्हीद दोनूय झडपल्लीं.

जाले. अशेच दोन-तीन दीस मातयाळे घुंवळीन गेले. वचत थंय शिगांच दिसपाक लागली. घरांत, इश्कोलांत, वाटेर, कंपासांत शिंगांच शिंगां, आनी टिचरिकूय शिगांच दिसताली.

असोच एकदां मध्यानरातीर उठून भायर सरलेलो. पळयल्यार दारांत काळू उबो. हांवें वांगडाच आंग काडलें. तो म्हाजेवयली नदर कशीच कुशीक काडिना जालो. भंयान आपाक उलो मारलो आनी काळू सुटला म्हण सांगलें. मागीर तेच घुंवळीन परत वचून न्हिदलो. पुणून ज्या कामाखातीर उठलेलों तें करुंकच ना. तेज्या शिगांच्या भंयान ती कळ तशीच सोसली.

ब-या वगतान म्हाका जाग येयली. हांव अचकीत खंयच्यातरी गज़रानांत पावल्लो. लागी कोणूच दिसनासले. अचकीत दोळेशे चमकले. बारिकसाणेन पळयल्यार , काळू ! तिरपे नदरेन म्हाकाच जोखतालो, आनी मात मात म्हाजेवाटेन येतालो. तेन्ना भंयान जीव घेवन धांवत रावलो. खंयच्या अटंग्या रानांत पावल्लो तेंय कळनासलें, फकत धांवतालो. बरें मुकार वचून फाटल्यान पळयलें, कोणूच नासलो. हांव सामको खासावीस जाल्लो. चोंयवशी भिरांकूळ रान. कोण केन्ना झपय मारीत तें सांगुयेनासलें. तरेकवार आवाज भेसडायताले, तरीय धीर करून थंयच एका फातरार बसलो. आनी घाम पुसपाक लागलो.

बसता थंय आसा. मातयेंत लळेलो काळू अवचीत धांवत येयलो आनी कच्च करून ब्रेक मारून फुड्ड्यांत उबो रावलो. जीव वांगडाच परतलो. आतां हो शिंगां रोमतलो

अशें दिसतकच किळांच मारीत तसोच धांवपाक लागलो...

हांव आड्डता तें पळोवन आवयन बी म्हाका हालयलो आनी दोळ्यांचेर उदक मारलें. तेन्ना म्हाका कळ्ळें, हांव सपनेंतालो. पुणून आंग मात ख-यानीच चिपचिपीत जाल्लें आनी हातरुणय ओलें दिसतालें.

सगली जाणां 'किदें जालें' काय म्हण विचारताली. पुणून उतरूच फुटनासलें. ब-यावगतान निवळटकीर " कांय ना, कांय ना, सपनेलो..." अशें म्हणत हांसलेशे करून न्हिदलो. पुणून झेम केन्नाच खळलेली.

हांव भिलो म्हण दुसरे दिसा जल्म्याकडल्यान विबूत बी लावन घेतलें. पुणून मनांतलें भूत वचुंकच ना. दोन दीस अशेच घुंवळींत गेले. तिसरे दिसा बापायक काळूक विकपाक लायतलो म्हण आसलो. पुणून म्हाका भलतेंच चित्र दिसलें; काळूच्याच वयाचो आनी एक पाडो दारांत बांदलेलो. आपान तेका काळूच्या सांगडाक जोताखातीर हाडलेलो. तें आयकून हांव लीप गळसणलो. चितनांचे चक्रूच थारलें. पुणून एक याद जातकच हांव उमेदी जालो. पाड्यांक साद करतना बरेच बडयतात. काळूकय मार पडटलों हें येवजून आपशींच तोंडार हाशें येयलें. आनी हांव त्या खिणाची वाट पळयत रावलो.

रोखडोच मीर्ग येयलो. दामून कुयणांत जोत बांदलेलें. तें पळोंवन आपा आनी दादा पाड्यांक सांगोड घालून वगीच तेज्या जोता फाटोफाट भोंवडोवपाक लागलें. पुणून तेन्ना काळूक मार पडना जालो. नवेल्या पाड्याक मात मारता तें पळोवन काकळूट दिसताली.

दनपारां जेवणार आपा म्हणपाक लागलो, " काळू ब्रोच शाणो आसा. जोताक बांदतकच रोखडोच शिकतलो. आयतारा गुरूक आपयला ..."

तो काळूची तोखणाय करतालो. म्हाका मात हासपाक येतालें. मदांद काळू मार खाल्लेबगर कसोच जोत शिकचेना. हांव तेका घालतलो मार पळोवपाक आयताराची वाट पळयत रावलो.

आयतार उदेलो. पाड्यांक जुंपलें, अजाप म्हणल्यार नवेल्या पाड्यान फाट फोडून घेतली. पुणून काळू मात जाय तसो चलतालो. तें पळोवन हांव निर्शेलो. काळू सांमको म्हाज्या मना आड वागतालो. तेका म्हाज्या मनांतलें कशें कळटा तेंच कळनासलें.

काळू जोतान मातसो भागलो. तरीय तो करा करतालो. म्हाजो काटो काडपाची संद सोदतालो आनी हांवूय तेका बुध्द शिकोवपाक रावल्लो.

एक दीस आपान जोत बांदून सोडलेलें. पाडे घराकडेन येवन पेज-भाकरी

खाताले. दारांत काळूक आयतें खाता तें पळोवन पोटांत सामके जळलेल्यावरी जालें. इतल्यान पांडू येयलो आनी आवयकडेन पाड्याक मागपाक लागलो. पुणून ती कशीच बदनासली. तो सामको काकळुटेक येतालो. तेन्ना हांवेन मुकार येवन विचारलें, " किदें जालां ?"

" बाबा, रोपेची सगली तयारी जाल्ली. फकत आडास करपाचें उरलेंलें. अवचीत पाड्याच्या गेताक कवचें लागून तेजो पांय फाळ्ळो. तसल्याक किदें जुपतलो... तुमचो होतो काळेलो उजव्यान बरो चलता तें हायें पळयलां, तेका मातसो व्हरतां." तो कळवळ्यान उलयतालो.

काळूचें नांव घेयनाबराबर हांवेनूच तेका, 'चल व्हर' म्हण सांगलें. तेन्ना पांडू आवयचें कांयच आयकंनासतना काळूक दोरी लावन चलत रावलो.

ब-या वगतान आपा खंयच्यान तरी येयलो. काळूक पांडून व्हेला हें कळटकच आवयचेर तापलो. उपरांन हांवे 'व्हर' म्हणलेलें हें कळटकच म्हाजेरूय कडलो. तशी हांवेन पांडूची गजाल सांगली. तेन्ना तो म्हणपाक लागलो, "तो पांडू सामको फटींग. तेजो पाडो म्होडल्यार म्हयनो जालो. फुकट्यार पिकोवपी मनीस तो. आदेसभर जोताक बांदलेल्या पाड्याक तुंमी सोडलोच कसो ? तेका किदें मारपाचें थारायला !... आत्ताच्या आत्तां चल आनी काळूक घेवन यो. त्याबगर तूं सुटचोना..." आपाचें उलोवणें लागतालें. जेवणाचोय वगत जाल्लो. पांडूचें शेत बरेंच पयस आसलें. आडेल्या देवण्यान धांवत रावलो.

तेगेल्या शेताकडेन पावतनाच हांव अजापलो. कारण तो आडास करिनासलो तर नांगरतालो. तिडकीन समतेंच विचारलें. जाल्यार वयल्यान हो म्हाकाच परतें सांगपाक लागलो. हांवेन पाड्याक आत्ताचें आत्तां सोडपाक सांगून तेका बळयां सोडयलो. जाल्यार हो दळडिरों स्त्राप दिल्लेवरी उलोवपाक लागलो. सामकी भिरभिरी मारलेली. तसोच काळूक आंबडिलो. बेगीन पावचो म्हण धांवडायतालो. पुणून आयज मात तेजेर बडी मारतना काकळूट दिसताली. उपरो काडून रस्त्यार पावले. तशी आनी एक बडी मारली. तोय नेटान धांवपाक लागलो.

धांवतां धांवतां तो बरोच मुकार पावलो. इतल्यान फुडल्या वळणार नेटान ब्रेक मारीत एक ट्रक येवन काळूक आदळ्ळो. खिणभर किदें जालें तें कळ्ळेंच ना. दोळ्यांमुकार काळोख येयलो. किदें करचें कांयच कळना जालें. तसो धपको नेटान बसुनासलो, तकली आदळून तो शेवटून पडलेलो. पुणून दोनूय शिंगांक मात मार लागलेलो. आवाज आयकून

जायते जाण जमले. आपाय पावलो. चुरचुरलो. म्हाजी मात भंयान वाचाच बंद जाल्ली.

उपरांत, ड्रायव्हराची कसली चूक ना ती पळोवन ट्रक सोडलो. हांव मात गुन्यांवकार जाल्लो. काळूक तसोच सवकास गोठ्याकडेन हाडलो. वखदां सुरू जाली. त्या बोवाळांत सगल्यांच्यो गाळी आनी तापोवणी मोन्यानी सोसली. हांव गर्भगळीत जाल्लो. काळूविशीचो दुस्वास मात मनांतल्यान केन्नाच पुसलेलो.आतां हांव काळूखातीर किदेंय करपाक तयार जाल्लो. दोळ्यांतली दुकां दडयत दोन-तीन दीस तेजी सेवा केली.

वैजाक हाडून दाखयलो. म्हणटा ती ती वखदां केली. दोतोरूय भरवंसो दिना जालो. मेंदवाक बरोच मार लागला. उपाय जावंचेना अशें सांगून तो गेलो.

तेदेवगतार एकएकलो उलयतालो तें आयकून काळजाक घावे पडपाक लागले.

" असले नितळ कालेतिचो पाडो उब्या आयुश्यान पळोवंनासलो."

" सामको घरचोच मनीस कसो आमी तेका मानताली."

" म्हाज्या हातची भाकरी खाल्लेबगर तो कसोच हालनासलो."

" दिसलो म्हण्टकच मात तरी तेका पोशेवपाक जाय आसलें. नाजाल्यार खड्डी घालतालो."

" काळूऽ म्हण उलो केल्यार धांवत येतालो, आनी बटबटीत दोळ्यांनी पळयत रावतालो."

"साद करतना आनी मात्तूय त्रास करुना... सुतावरी सरळ चलतालो. आंनी आतां कामांक मात्तूय आंग मारिनासलो."

"ह्या-ह्या पोरान तेजो घात घेतलो !"

"ना. ना. बरें तें देवाक जाय आसता खंय. पाणूच्या रुपान तो आडवाटेन धांवन येयलो म्हणपाचो."

"किदेंय म्हण. असलो पाडो मेळपाक गाठीक पुण्य जाय ..."

" ... ..."

तें उलोवणे म्हाज्यान आयकूंक जायनासलें. दोळे उपाट भरलेले. दुखव किदें म्हणटा तें म्हाका ते दिसा होलमल्लें. हें अशें किद्याक घडलें काय ? इतले त्रास तेका किद्याक म्हण? तेका कोणाचो स्त्राप लागलो, म्हाजो काय त्या मेल्ल्या पांडूचो. किण्ण मन जड जाल्लें. व्हडल्यान रडनशें दिसतालें. म्हाजें म्हाकाच बडोवन घेयनशें दिसतालें. तकली फोडचिशी दिसनाली. पुणून कांयच घडनासलें. हांव शक्तीहीन जाल्लो. परत परत देवाकडेन

एकूच मागतालो, “ देवा, किदेंय करून काळूक उबो कर. पयलिंच्यावरीच तेका वाकळुनी. घरच्यांक खोशी करपाक आंगणांत नाचुनी...’

करतां करतां सगले गेले. हांवेन भियेत भियेत काळूचे नदरेक नदर लायली. तो म्हाका किदेंतरी सांगतालो. जीव तोडून सांगतालो. पुणून म्हाका कांयच कळनासलें. शुन्य नदरेन तेका पळयतूच उरलो. तेन्ना तेज्या दोळ्यांतल्यान आपशींच दुकां व्हावपाक लागली. पुणून ती दुकां कसली, दुखिची काय खोशयेची ! कांयच समजनासलें. कारण हांव शाबुद्देरूच नासलो... फकत तेका घट पागडी मारची इतलेंच दिसतालें... मन भेरेल्लें. आपशींच तेज्या गळ्यांत पडलो आनी तेजी मान धर्तरेर पडसर रडत रावलो...



# ११

# मुरवत

ती मुकावयल्यान येवपाक लागली म्हणटकीर कांतूल्या गाड्यार च्यायेच्या निमतान बसलेले थवय अचंळंय आपल्यो बोडक्यो भायर काडून तिका तोखेत पळोवपाक लागता. मागीर एकएकटो आपल्या अ[illegible]न तिजेर शेकरो कसो थोमणो मारून 'खी खी' करुन हांसता. सद्या हें आतां सद्‌चेंच जाल्लें. ती कामाक वचपाक येतना-वयतना हें अशेंच चलतालें. पुणून ते शेकरे तिका लागच नासले. घडये ती आयकून कांयच कांना-मनाक लांवन घेयनासली जांवयें. पुणून किदय जावं त्या निमतान कांतूचें च्यायचें गिरायक मात बरेंच वाडलेलें. आनी कांतू जाण्टो जरी आसलो तरी तेका ते तसले तरेचे थोमणे आयकन-आयकनशे दिसताले. आनी केन्नाय जर ती येयली आनी कोणूच कांय उलयलो ना, जाल्यार कांतूक किदेंशेंच जातालें. तिका दाखयत तो कोणाकतरी याद करून दितालो. नाजाल्यार हो तिका अशें म्हणटा आनी तो तिका तशें म्हणटा अशें म्हणत हेरांवांगडा आपुणय मुरगडटाली.

तशी ती सोभावान आयज मेरेन तरी बरी आसा. घोव-बायलेचो संवसार बरो चलयता. रुपान, आंगलोटीन चार-चौगांत उजवी दिसं सारकीच. कोणागेरूय कार्य आसूं, बोवाळपाक सदांच मुकार. न्हेसणाक केन्नाच दाग लागपाचो ना. तिज्या कापडावरीच तिजें मुखामळूय तशेंच नितळ. तशी गोरी ना. पुणून हांसरें रूप आनी दोळ्यांतली तिखसाण

जिबेक आंबसाण  लायतल्यांक आपशींच गळसणून उडयता. त्याच खातीर तर जायत्या जाणांक तिजी नसाय.

सांजच्या मायत्याक कांतूच्या गाड्यार गर्दी जाली आनी ती येवपाक लागली म्हणटकीर मागीर तोंडाची खाज भागोवपाक खंयी भायर वचपाची गरज पडना. एक–एकटो जीव सोडून उलयता –

" आरे, आंगाक दसलेलें तें तट्टीत न्हेसण आनी हतयावरी चलप ख–यानीच पळयत रावचेंशें दिसता."

" आरे पिशा, हतयावरी किदें म्हणटा. नागणिवरी म्हण नागणिवरी."

" हें मात तुजें सारकें आं. आरे, केन्नाय तिरपे नदरेन पळयल्यार नागीण कशी फडा काडटा मरे !"

" तशें जाल्यार सरळ नदरेन पळय मरे. तिरपे नदरेन किद्याक पळयता, भंय दिसता ?" अशें म्हणनाफुडें सगले हांसता.

म्हणटा–म्हणसर ती चलत लागी पावता. तशे 'खी खी' करुन हांसपी सगले तोंड धरून वग्गी रावता. ती मुकारल्यान वचसर सगले तिका नेम धरून पळयत रावता. आनी मागीर परत चकाटांचे पीक –

"ख–यानीच रे बाबा. तिजी लांबाय आनी रुंदाय पळयल्यार धरनाक एक बरी पाटी जाताली आसली."

"पाटी ? कमरसरी म्हण, कमरसरी !"

"पापयानो कमरसरी काडपाचं सोडा. पयली कमरासरी धरपाक जमता जाल्यार पळया."

"आमच्यान एक जायना. तूं धरून दाखय मरे."

"धरतलो आसलो रे. पुणून तें अशें चार–चौगांमदी न्हू. आनी तें जर आमच्या राक्सुलाक कळत जाल्यार जितोच चिरून मीठ भरतलें." मागीर कोण हांसता, तेंजीं फकाणां करता. मदीच तेजेर एकलो तुकलोय मारता.

वातावरण रोखडेंच निवळटा अशें दिसतकच, कुशीक म्हेडीक तेकून कोणय मुद्दाम आयकुपाक रावल्लो अचळंय एक बाण सोडटा आनी गजालींक परत नेट हाडटा. नाजाल्यार कांतू आसाच –

"घोव तरी म्हणोन किदें, सामकोच अजागळ."

"अजागळ किदें, म्हाताड्डो म्हण–म्हाताड्डो."

"किदेंय म्हण. तो घोव मात तिजो बापूय कसो दिसता आं."

"आरे, तो म्हादो पयशे आसा म्हणोन धाकुलपणांत लगीन जाला."

"पुणून आजून मेरेन बापूय काय जावंना मरे !"

"आरे, पयशे आसले म्हणो भुरगीं जायना. तेजेकडेन दादलेपण आसचें पडटा. म्हाज्यासारकें."

"आं ऽ हें मात तूं दादलो कसो उलयलो. " खी. खी. खी.

"हय रे, तो म्हादो जीव आसा म्हणोन मनीस. किदें आसा त्या सांगाड्यांत? आनी ते येदे व्हडले पाटयेक कसो सांबाळटलो?"

"ना. पुणून बायलमनशेक भुरगें म्हणटा तें आसपाक जाय रे."

"फाटल्या सात – आठ वर्सांत कांय जालेना, तें आतां आनी जमतले त्या हाडकुळेच्यान."

"तर! तेज्यान कांय जायना. म्हणोन ती आतां भायल्या वाऱ्याक सरल्या आसतली."

"हय तर रे. म्हाकांय तशेंच दिसता. ती भुरग्याक सामकी आशेल्या आसतली. म्हाद्याच्यान कांय जायना, तेन्ना कोणाकय गाठोवपाचो तिजो बेत आसतलो."

"बेत न्हूं. दोगांयंचो थाराव जाला आसतलो. नाजाल्यार म्हाका सांगा, तिका आतां दिसवड्याक वचपाची कसली गरज पडल्या ? म्हाद्याक किदें उणें आसा ? ती किदें कामाक वचना जाल्यार घरांतली किदें उपाशीं पडटली ?"

"आरे, घरची म्हणोन कोण रे ? घोव आनी म्हातारी–आनी दोन सुणीं."

"दोन न्हूं ! चोवगां आसा. आनी मांजरांचो तर हिणूच भरला."

"हय रे. पुणून तेजें शेत, काजी आनी दुदाची जोड पळयल्यार कोणूच उपाशीं पडपाचे ना."

"तें आसूं रे. आरे पुणून फाटलो म्हयनोभर तिका कोणूच मेळोना... वरसोवपाक!"

"म्हयनो न्हू ! फालेंच्या सोमराक तिका सारके दोन म्हयने भरता." किदेंय चुकल्यार कांतू नदरेक हाडून दिता.

"हय रे बाप्पा, अजून कोणूच कसो घुस्पलो ना काय म्हणटा."

" तें आतां हांव किदें सांगू ? आनी म्हाका किद्याक जाय त्यो भानगडी?"

"बाप्पा, हें तें तूं आमकां सांगूं नाकां. नुस्तेकानिची पापलेट पोल्यार पडली तेन्नाच्यान आपूण मातसो निवळलो अशें म्हण. तुज्यो किदें भानगडी आमकां खबर ना !" ह्या उतराक सगलेच तेका साथ करता.

तें पळोवन कांतू मातसो चाळवल्ल्यावरी जाता. तशे बांक आडोवन बसलेलें अळंग एक-एकलो पांय काडटा. इल्लो काळोखूय जाल्लो आसता. थोड्यांक तिजें रूप कोपांत पळोवन इल्लें मारपाचेंय आसता. तरेतरेची सपनां चितारीत आपापली वाट धरता. थोड्यानी तर मुद्दाम म्हाद्याच्या घरावशिंतल्यान आड वाट काडल्या. मातशी तिजेर नदर पडल्यार पडली. तिजें मुमुरखे हांशेंय मेळ्ळ्यार थोडे धादोस जावपी आसले. एकोलया म्हाद्याचे तर आतां जायते आमीग जावपाक लागलेले. आनी चुकून दुकानाचे वाटेन वचपी म्हादो आतां फुकट...आंनी विक्तेय च्यायेक सवकल्लो.

ह्या दिसानी गाड्यावयल्यो 'त्यो' खबरो मातश्यो उण्यो जाल्ल्यो. आतां लोक रस्त्यानी उलयताले. ती जे वाटेन येताली-वयताली ती वाट जायते जाण झरोवंक लागलेले. तिका हांसलेल्यावरी करुन तिजेकडेन उलोवपाक निमीत सोदताले. पुणून ती तशी कोणाकूय लागीं अशी करिनासली. आपलें काम काय आपूण. तें पळोवन जायत्या जाणानी तिजी बारिकसाण घेवपाक सुरवात केल्ली.

ती शंभू भाडकराल्या भाटांत कामाक वयताली. नडणी काडप, कंवाथ्यांक भरी घालप, पाटाचें उदक लावप अशे तरेची कामां करताली. वांगडा हेर दोन कामेरी आनी दोग मानाय. पुणून एका मानायालागी-लागितशी ती चड दिसताली. तो मानाय एक गांवचोच आंकवार भुरगो, शंकर. करतां करतां तिज्या नांवाफाटल्यान थवयानी शंकराचें नांव दसयलेंच. कांय जाण शंकराचे नशीब फळफळ्ळें म्हणपाक लागले. जाल्यार थोडे तेजी नसाय करपाक लागले. हातीक मेळना ती द्राक्षां आंबट जाल्लीच. पुणून जेका मेळटाली तेकाय आंबट केल्लो.

हरशी शंकर सोभावान बरो. कोणायचे वाटेक बी वचपी न्हू. केन्ना कोणाच्या चेडवाची फकाणां करून नकळों. बाबडो सद्भावार्थी. कोणेय एका पोल्यार मारल्यार दुसरोय दिवपी. पुणून तसो सामकोच अजागळ नासलो. आंगलोटीक सोबं सारकें कसलेंय काम. कण मोडून करपी. तेच खातीर आजून मेरेन तेणेन कोणाचें उतर घेवनासलें. पुणून-

"आरे शंकर, आयकल्ली गजाल खरी काय किदें रे?"

"कसली गजाल ?"

“आनी कसली! माजराच्या पाशांत खय पिसोळें फारवलां !”

“ अशे ! कोणाल्या माजरान पासो मांडलेलो ?”

“माजरान न्हू, बुकल्यान. तुवेन तुवेन.”

“ हांवेन पासो मांडलेलो ? खंय ? म्हाका याद ना.”

“ याद ना. काय जाणा जावन पिशें पांगुरता रे.”

“ ना ख-यानीच म्हाका कांयच कळोना.”

“ कळटलें, कळटलें. मातसो राव, णव म्हयने भरोनी. मागीर किदें तें जगाक कळटलेंच. आरे शंकर, असो भोळो जावंनाका. पड्ड्याफाटल्यान रावन कोणाक आमकां बावल्यो दाखयता?” अशें म्हणत तो वाटेवयलो मुकार वयता. पुणून शंकर मात पयस मळबांत पळयत उरता. कसलो पासो आनी खंयच्या पड्ड्याफाटल्यान काय ?

इतलें म्हणसर दुसरो येता –

“ किदें रे शंकर, तोंड उगडें दवरून किदें पडपाची वाट पळयता ?”

“ कांय ना. अशेंच... पड्ड्याफाटल्यान...”

“ किदें पड्ड्याफाटल्यान ! खंय रे बाबा ?” लागोळ्यानी लागी वचत, “ शाण्या, मांस खा. पुणून गळ्यांत हाड मात बांदू नाका आं ! काय बरो भुरगो तूं.”

“ ना ना. तशें कांय ना. हांव किदें म्हणटालो जाणा ... ”

“आसू आसू, आतां नाका . म्हाका देवळांत वचपाक जाय. मागीर केन्नाय बारिकसाणेन सांग...” म्हणत तो नेटान गेलोच. पुणून शंकर मात शुन्यांत घुस्पल्लेवरी जालो.

जरी शंकराक, गजालितलें खरेंपण समजुनासलें, तरी म्हाद्याक गाड्यार बसलेले कडेन आनी गांवार भोंवतना एक एक गजाल कांनार पडटाली, तितलीच पुरो जाताली. पुणून लोक स्वंथ करता ती गजाल खरी काय, तोंडाच्यो फटाश्यो हें मात तेका आजून सारके समजुनासलें. लोक आपले बायलेविशी कायचेकाय उलयता तेंय मनाक लावन घेवंनासलें. किदें जाता तें जावं अशें येवजून आपले भितरूच रावतालो. पुणून एक मात खरें त्यो गजाली आयकल्या उपरांत तो आपले बायलेची जतनाय मात चडूच घेवपाक लागलेलो. किदें जाय नाकां बळयां विचारतालो. तशें तो किद्याक करतालो तें मात तेकाच खबर.

तिकाय आपूण कामाक वयता म्हणून लोक कायचे काय उलयता, आपल्याक

असलीतसली समजता काय किदें असो दुबाव मारतालो. फाटलेवटेन चलपी कांयजाण बळयां आपलेकडेन उलोवंक सोदता. नाका जाल्ले गजालिचो मुद्दाम विशय काडटा हें तिणेन पारखिल्लें. एकएकदा अशोच गजाली येवजून ती आपले भितरूच हांसताली, केन्नाय बडबडटाली. पुणून एक मात खरें, तिज्यांतय बरोच बदल जाल्लो.

पेडाकडल्या बाबल्यान तर तिजेकडेन बरीच लागसाण केल्ली. तिका येतना-वयतना वगीच हटकितालो. तें पळोवन कांय जाणानी तेका फुलयलो. ती आता तेज्या मोयपासांत घुस्पल्या, तेन्ना आता मुकार सर. शंकर तिजेर उडी घालच्या पयली तिका पाशांत धर आनी तिजें कल्याण कर. आरे ती तुकाच रावता. तिज्या भुरग्याचो बापूय जा. अशे तरेची उतरां आयकून हुतुळो जाल्लो बाबलो फुल्लो. तिका गोपांत धरपाची सपना चितारूंक लागलो. पुणून तिजेकडेन 'त्या' उलोवण्याक खंयच्यान सुरवात करपाची हेंच तेका कळनासलें. एक सबंद रात तेणेन चिंतलें. आनी निमाणे तिका विस्वासांत घेवपाखातीर किदें करपाचें तें येवजून तो फातोंडेर न्हिदलो.

बेगिनूच उठून ती येवपाचे वाटेर पासयो मारपाक लागलो.

देवणेकडले वाटेतल्यान ती वयर सरली. माळलेली व्हडली फाती पयसुल्ल्यान दिसताली. कमराक नवो तुवालो. पांयांक धवेंच जोतें. आयज कोणाक तरी ती आपल्या पाशांत घुस्पायतलीच अशें तिजें चित्र दिसतालें. बाबल्याचो जीव आपशींच वयर-सकयल जावपाक लागलो. ती इल्ली-इल्ली लागी पावली. तेका किदें करचें कांयच समजना जालें. सामको मोनेळ पडलेल्यावरी जालो. किदें म्हणचें आनी कशें म्हणचें तेंय कळना जालें. थारोवन येयल्लेंय भाशण विसरलो. व्हड-व्हड नाटकां केल्ल्या बाबल्याचे तोंडूच उगडना जालें. ती येयली, तेका हांसलेल्यावरी केलें आनी तशीच मुकार चलत रावली. तो तसोच उरलो. फाटल्यान तिजें हालतलें कमर आनी नव्या जोत्याचो आवाज आयकत. ती बरीच मुकार पावली. दिसना जाली. तो अस्वस्थ जालो.

बऱ्या वगतान कसलेंतरी निमीत काडून तो भाटकाराल्यावशीं गेलो. पयसुल्ल्यांन पळयलें. कवाथ्यांची भोंवर खणपाचें काम चलतालें. ती नदरेक पडली. पुणून ती शंकराफाटल्यानूच किद्याक रावता हेंच तेका कळना जालें. मातसो फडफडलेल्यावरी जालो आनी शंकराक गाळी सवत परतलो.

सांजचो परत गेलो. आनी सकाळच्याच जाग्यार तिजी वाट पळयत रावलो. रोखडीच येयली. तेजें काळीज धडधडपाक लागलें. नेट काडून तिका हटकिली. हेवटेन

तेवटेन कोण नासो पळोवन तिजे लागी लागी वचपाक लागलो. पालसणांतली अशीर वाट . चारूय वाटेन झोपां. तेका लागी पळोवन तिणेन पदर सारको केलो. आनी तेका खेरिदूच दुबावान–भंयान पळोवपाक लागली.

"किदें जाणां, म्हाका एक तुका गजाल सांगपाची आसली... म्हणजे तशी ती सांगपाची काय..." तेणेन समतोच विशयाक हात घातलेलो. पुणून अचकीत शक्त गेल्लेवरी जावन घुस्पलो.

" किदें म्हाका सांगपाचें आसले ?... मागीर असो फाटी–फुडें किद्याक जाता तर ?" तिवूय आखळडत उलयली.

"ना. म्हणजे किदें आसा. तूं आनी हांव सामकी... म्हणजे..." तो परत घुस्पलो. वंठ कडकडपाक लागले.

" सांग सांग बेगीन. काळोख जाता. काय वगीच..." तीय दुबावली.

"ना. ना. तुजो घोव आनी ती – म्हणजे... तुका फटयत म्हणोन..."

" किदें केलें घोवान ?"

" तेका सांबाळ. एके घाटणिवांगडा नाचना तो."

ती तेका पळयतूच उरली.

तो तिका परत विस्वासांत घेवन म्हणपाक लागलो, " पळय आं, अशें तशें किदेंय जांवच्या पयली सादूर –"

तेन्ना तेका आडायत ती म्हणपाक लागली. "हें पळय. म्हाजो घोव किदें करता तें सगलें म्हाका खबर आसा, आनी तुवेंन कांयच सांगपाची गरज ना. तुजे बायलेक जर तेणेंन आपयलें अशें जायत जाल्यार मात म्हाका येवन सांग. फुडलें मागीर पळोवया !" अशें म्हणत ती नेटान चलत रावली.

तो जरी जिवाचो आसलो तरी ती तेज्यापरस आंगुळभर तरी उबार दिसताली. खिणभर म्हशीन बेब्याक पांयांपोंदा चिड्डूचें. अशें तेका दिसलें. सणसणीत थापट पडटकीर काळोख येवचो, तसो आपशींच काळोख येयलो.

ही गजाल कोणाक कळचिना अशें तो धरून आसलो. पुणून त्याच वगतार तेवटेन येतल्या दोग–तिगांच्या नदरेन ती उखल्ली. बाबलो खजील जालो. सकयल तकली घालून येदेशें तोंड करून थंयच उरलो. म्हेळो पुतळो कसो.

गजाल गांवभर जावपाक वगत लागलो ना. पुणून बाबलोय मोठो ठक. नाडजिंगा

करपाक तेका कोण लागपाचो ना. सगले तरेचें उदक तेणेन पियेवन पचयलां, म्हणोनूच हें धाडस केल्लें.

तेजी म्हाद्याकडेन इश्टागत आसलीच. आतां चड लागी केलो. तेका किद्याय किदें सांगून बेजार करपाक लागलो. शंकराची गजाल सांगून एक एक काटो तोपपाक लागलो. तो अशें करता तशें करता, तिज्या फाटसुनूच रावता. अशें म्हणून चाळोवपाक लागलो. पुणून म्हणतसो तेजेर परिणाम जायना जालो. बाबल्याच्यो च्यायो मात फुकट वचपाक लागल्यो.

पुणून बाबल्यान तिका बुध्द शिकोवपाचोच निश्चेव केल्लो. चार-चवगां मदी तिजो विशय काडून काडून तेजी तिडक वाडयलीच. तरीय तिका विचारपाक म्हाद्याक धीर जायना जालो. कारण तोच तिका भियेतालो.

हेवटेन बाबलो एक एक सांगून तेका बेजार करून सोडटालो. आतां तर सगलो वाडोच तेका अजागळ समजतालो. तेज्या दादल्या मनाक तें खूब लागलें. संवसारांतले तेजें मनूच उठलें. बाबल्यान मात दोळे घुंवडायले. आपलें काम सादता हें येवजून तो उमेदीर येयल्लो. आनी निमाणे म्हाद्याचें पिकासांव उणें करपाक तेका सो-याक सवकयलो.

इल्लें इल्लें घेतां घेतां म्हादो रोखडोच बेबदो जालो.

अशेंच एक दीस म्हाद्याक बरें घालून बाबल्यान तेका बरो शिकयलो आनी घराकडेन हाडून सोडलो. आनी आपूण काळखांतसो लिपून रावन तेंची मजा पळोवपाक लागलो.

म्हादो नेटान घरांत सरलो. दाराक आदळून पडटा काय जाल्लो, पुणून कसो तरी उबो रावलो. तेजो तो अवतार पळोवन ती अजापली. पुणून वगीच रावली. तो समजलो, ती आपल्याक थर्त भियेली. तो तोंडाक येता तशें नेट काडून उलयत रावलो -

"तुवेन म्हाजें नांक कापलें. कान कातरलें, मान... म्हाज्या काय ब-या संवसाराचो सत्यनास केलो. म्हाजी सगली लज गांवभर होगडायली. नांक कातरलें... सगले साणून त्या शेमड्या पोरावांगडा ? थू : थू : लज कशी दिसना काय म्हणटा ? शी . थू :! आनी दिसवड्याक वचपाक तूं किदें उपाशी पडटा गो ? काय घोव उपाशी मरता...!!" तो खरशेत उलयतालो.

ती मात दोळे काडून तेकाच पळयताली.

" दिसवड्याक वयता, दिसवड्याक. काय शंकराक सवकलां गो !"

“ किदेंय बडबडोनाका आं. पयली सांगतां. कोणी सांगलां तुका हे ?”

“ कोणी म्हणजे, बाबल्यान ! न्हू–न्हू… हें ऽ हें गांवभर जालां. तूं खय दिसवड्याच्या निमतान तेजेवांगडा–”

“ हय ! फालेंच्यान वचना हांव. उपाशीं पडटा म्हणोन वचनासलें. दूद नासलेल्यो म्हशी गळ्यांत घालून घेतल्या. आनी नांकामेरेन रिणांत बुडलां. ती फारीक करूंक जायना म्हणून वयतां. खबर ना ?”

“ मागीर म्हशी विकून उडय !”

“ कोणक नाका त्यो. आनी तूंच सांगतालो न्हू, म्हातारी बडकां खाटिकूय व्हरपाक तयार ना म्हणोन. ती बडकां कोणी हांयें घेतलेली ?”

“ हांव… हांव तशें म्हणना. पुणून… लज होगडावन कोणायच्या–”

“ जाप काडू नाका ! कोणाक सांगता लजेच्यो गजाली, म्हाका ? त्या हलकट बाबल्याच्या नादाक लागोन आपल्या घराक उजो लावपाक, पयलीं लज तुका दिसपाक जाय.” अचकीत तिका नेट चडलो.

“ म्हाका किद्याक? हांव किदें तुजेवरी नाचरेपणा करिना.” तेणेनूय मातशेशे भायर पळयत परत नेट काडलो.

“ करता काय ना ती बाबल्याक विचार. धीर जायना जाल्यार वांगडा हांव येता. थंय काळखांत लिपला. आडसाक रावन घराक किद्याक उजो लावपाक जपला काय म्हणोन विचार तेका !” हातीक लागलेली कोलती घेवन ती म्हाद्याच्या आंगार धांवली.

तें पळोवन वांगडाच तेजो सोरो देवलो. वागीण कशी आंगार धांवन येयल्ली पळोवन कडकडो भरलो. समते तिणेन दाव्या हातीन तेजे पोले चिड्डीले आनी उसळ्ळी–

“तूं फकत घोव. दादलो न्हू ! आनी तूं हें जें हळशीक चितता तशें जर हांयें केल्लें जाल्यार आयज तूं चार तरी भुरग्यांचो बापूय आसतलो आसलो !”

तें आयकून म्हादो गर्भगळीत जावन तिज्या जळजळीत दोळ्यांक पळयतूच उरलो…

# १२
# गांठ

लांबच्या लांब पोरन्या मोडणाचो आडो. तो आंग चोरून भितर सरलो. पळयल्यार एक व्हडलें पोरनें घर. पळयतकीच अशें दिसता; एका वगतार थंय कोणतरी मोठो भाडकार रावतालो. तशें घर-भोवतण नितळ आसा, पुणून कोण रावनात अशें दिसता, घरामुकार वाडलेली फुलझाडां. फाटलेवटेन सगळें माडूच माड. पयस दोंगराकुशिंतल्यान दर्याची ल्हारां फोफेता असो हय-न्हयसो आवाज.

सुर्या निक्तोच दर्या-पोटांत गेला. अशा वगतार तो थंयसर कोणाकतरी बारिकसाणेन पळयता. पुणून कोणूच दिसना, तेन्ना तो वगीच उलो मारलेलेवरी करता. ती जाग आयकून पडवेर बांदलेलो जाण्टेलो सुणो व्हडल्या-व्हडल्यान भोकपाका लागलो. तो भियेलो आनी अचळंय वचपाक लागलो.

तेन्ना फाटलेवटेनच्यान एक बायलमनीस येवन 'कोण' काय म्हणपाक लागली. तसो तो वळ्ळो आनी तिका बारिकसाणेन पळोवपाक लागलो.

तिकाय तो वळखिचोसो दिसलो.

दोगांयनी पयलीं एकामेकाक अजाप जाल्लेवरी पळयलें. आनी मागीर आपापल्यो नदरो पयस शुन्यांत घुस्पयल्यो. दोगांय कितलोसोच वगत वगीच.

मागीर तेणेनूच धीर केलो. नदर जमनीर आसलेल्या बोणकाक तोपीत म्हणपाक

लागलो, “कशें आसा तूं ?”

“ काडटा दीस !” तिणेनूय त्याच बोणकार आपली नदर थिरायली.

“ अं... म्हाका वळखले ?” तो अडखळ्ळो... थरथरलो.

“ नांकाचो तीळ कोण विसरत ? ... पुणून तूं म्हाका कसो वळखलो ?”

“ थोडेशे केस धवे जाले म्हण मुखामळावयली सोबितकाय कोण चोरून व्हरतलो?... आनी ते हरणाचे दोळे...”

ती लजली. तो सुखावलो. कांय खीण पोरन्या यादिनी घुस्पली. पुणून रोखडेंच तेंका काळाचे भान येयलें.

– म्हाजी खबर घेवचेना ?

– जल्मभर देवाकडेन तुकाच बरी भलायकी मागली. मागीर खबर किद्याक घेतलें ?

– तशें न्हूं. पुणून...

– ती कशी आसा ?

– लोकांच्यो गजाली किद्याक काडटा तूं ?

– ... अं ऽ खिणांत तापपाचो सोबाव मात आजून बदलुना तर. तें आयकून तेज्या तोंडार मातसो हांसो येता.

– म्हणजे... आमच्या दोगांमदी तिसरो किद्याक ?

– मागीर किदें तें तूंच सांग.

– अं ऽ ... हें अशें जावन कितली वर्सां जाली ?

– अं ! ?

– म्हणजे... तो केन्ना गेलो ?

– चार वर्सां जालीं... फकत सोरो पियेतालो... खूब समजयलो. पुणून आपलें तें सोडलें ना...

– गांवान खंयचो ?

– अं ! ?

– म्हणजे... तुका खंय दिल्लें ?

– मश्णांत !!

– सांगपाचें नासल्यार आसूं.

– कोणाची गजाल करता तूं ?

– तुज्या घोवाची !

– किदें ! कोणे मेल्ल्यान सांगलें तुका ?

– मागीर तूं कोणाची गजाल सांगतालें तर ?

– आनी कोणाची ! पुताची !!

– आनी... तो ?

– तो ! ... तो आनी कोण ?

– तुजो घोव.

– खंयच्च्या मेल्ल्याच्या तोंडाक चुट्टी लागली ? कोणी सांगली तुका म्हाज्या लग्नाची गजाल ? ... आनी म्हाज्या घोवाच्या मर्णाची वाट तूं किद्याक पळयता ?

– न्हूं.. तुज्या कपलाक ना म्हणून विचारलें.

– हं ! ... कोणाच्या नांवान कपलाक लावपाचें ?

– म्हणजे ?

– लगीन जायनास्तनाच राण जालें !

– आनी... पूत ?

– त्यो सगल्यो गजाली विचारपाक तूं आयजूच किद्याक येयला ? इतली वर्सां खंय आसलो ?

– अं ऽ गेल्लो थंयच उरलो.

– उरलो किद्याक म्हणटा ! गेल्लो थंयच संवसार थाटलो म्हण ! कट्टेन च्याव पियेवन पियेवन विटलो. मागीर ती शेवटून मारली आनी चिकरान कापी पिवपाक साता समदिरां पलतडी गेलो म्हण. भांगरा केसांच्या जटांनीं घुस्पून उरलो अशें म्हण !

ती अचकीत उसळ्ळी तें पळोवन तो वगीच रावलो.

आपल्या उलोवण्याचें तिकाय वायट दिसलें. मागीर ती सादूर जावन म्हणपाक लागली, “म्हाजो राग येयलो ?... म्हाका कशें आनी किदें उलोवचें तेंच कळना.”

“ तूं उलय. किदेंय उलय. म्हाका गाळी सवप, तापोवप हो तर तुजो हक्कूच !”

तेन्ना तूं म्हाका तापोवन तापोवन न्हिंवयतालो आनी आतां म्हाका तापय म्हणटा? अशी उतरां तिज्या वंटार येयल्ली. पुणून ती वंटांमदी दाबून म्हणपाक लागली,

– अं ऽ... तूं पुताची गजाल विचारतालो न्हू ?

– ना... आसूं. सांगपाचे नासल्यार आसूं.

– हं ! आनी कोणाक सांगपाचें तर. जालो आनी मेलो. जावच्या पयलींच मरपाचो. पुणून त्या मारयान वाटायलो.

– हांव समजोना. खंयच्या मारयाचो बी पूत तुवेन पोसको घेतलेलो काय किदें?

– तूं केन्नाच समजुपाचो ना !! तेदेवगतार तुका कांयच कळनासलें. सामको लोलो आसलो तूं. पोटाची भूक मात बरी समजताली ! ती कशी भागोवपाची तीय बरी समजताली !!

– अं... ख-यानीच म्हाका कांयच समजुना...

– तुवेन तुजी तान-भूक भागयली... आनी... म्हाजी व्हंटी भरून गेलो, तो आयज येयला. मागीर तुका गजाल समजतली कशी ?

– म्हणजे ऽ म्हाजो पूत !!

– जल्माक कारण जालो म्हण बापूय जायना !

– तुका तें आतां कशें सांगू ?

– मेज्जून बत्तीस वर्सानी तूं आयज येयला. आनी कशें सांगूं काय म्हाका विचारता?

– इंडीयन जावन दोन वर्सांनी हांव गोंयांत येयल्लो. तेन्ना तुका खूब सोदलें. मागीर बेजारून परत पोर्तुगालाक गेलो.

– हें तें तूं आनी कोणाकय सांग.

– तुका आतां कशें सांगल्यार पट्टलें ?

– तेन्ना लगीन जाल्यार तुज्याच वांगडा जातलो अशें तुवेंन सांगलेलें तें पटलें आनी आतां हें पटचेना ?

– तुका खबरूच आसलें, तेन्ना म्हाका भाडकारान फकत स म्हयन्यांखातीर पोर्तुगालाक व्हेल्लो. पुणून रोखडेंच चार म्हयन्यानी गोंय इंडियान घेतलें अशें आयकलें. गोंय मुक्त जाल्लें. मागीर भाडकार गोंयांत येवपाक सोदिना जालो. म्हाकाय धाडिना जालो. तसो लिप-चोरयां येवपाक सोदतालो. पुणून वचत थंय अडचणीच येताल्यो.

– अडचणी ?... खयीं वचपाक अडचणी फकत पांज-यांतल्या सवण्याक आसतात इतलेंच आयकल्लें... आनी ओड आसल्यार खय सातच न्हू तर सत्तर समदिंरा हुपून मनीस खंयीं पावता खय.

– आगो म्हाज्या सारक्या अडाण्याक खंयचो समदीर आनी खंयची धर्तरी. सुर्या

खंयच्यान उदेता आनी खंयच्यान अस्तमता तेंच कळनासलें. मागीर गोंय खंयचेवटेन आसा तें कशें कळटलें...

– मागीर उपरांत गोंयांत कसो पावल्लो तर ?

– भाडकाराचो पूत भाट–भेस कोणाक तरी विकपाची कागदां करपाक येयल्लो. तेन्ना म्हाका तेज्यावांगडा येवपाक मेळ्ळें...

ख-यानीच सांगता, तुका तेन्ना हांवेन जायतेकडेन सोदलें. पुणून तुजो खंयच पत्तो मेळोना. लज–भंय कुशीक दवरून तुज्या सगळ्या सोय-या–दाय-यांगेर चवकशी केली. पुणून तुजी कोणूच सारकी खबर सांगिनाजालो. फकत तुवेंन जीव दिला आसतलो इतलेंच सांगताले. पुणून म्हाका तें कशेंच पटनासलें. निमाणें तेंच सत मानून, मनाचेर फातर दवरून परत गेलो. भाडकाराचें गुलामपण करूंक...

– आमचो जल्मूच तसलो.

– पुणून तुजें अशें कशें जालें ?

– म्हाजी काणीं तुका खबर आसली. आवय–बापूय नासलेलें पोर. चुलत्यान म्हाका कोणाकतरी धाकुलपणाक दिवपाक थारायल्लें. पुणून म्हाजें पोट वाडटालें. ही गजाल जेन्ना तेका कळ्ळी, तेन्ना तो सामको पिसावलो. तो म्हाजें पोट माडयतलो हें थारलेलें. म्हाका किदें करचें तेंच समजनासलें. हांवेन सगळी गजाल त्या खुर्साकडल्या मारयाक सांगली. तेन्ना मारयांन कोणाक कळनासतना म्हाका पयस व्हेलें. थंयच हांवेन तेका जल्म दिलो...

– कोणावरी दिसतालो ?... म्हाजेवरी काय... तुजेवरी ?

– जाणकोण !... पुणून वयार येता तसो म्हाका तेका पळयतकीर तुजें रूप दिसतालें.

– ख-यानीच म्हाज्या नशिबान सगळें आसलें. पुणून... आमच्या कट्टुलांत घालपाक देवाक यादूच जावंना.... लोकांक दीत रावलो. आमचेंय लोकांकूच दिले ...

– अं ऽ... पुणून तूं हांगा केन्नाच्यान...?

– तेका जल्म दितकच, मारयानूच म्हाका हांगा हाडून दवरलें. तेन्नाच्यान हांगाच आसा. फाटल्यान एक खोप बांदून दिल्या भाडकारान.

– आनी भाडकार...

– भाडकार !... कोण रावना हांगा. सगली भायर भायर आसता आनी आतां हें

सगळें भेसूय कोणाक विकलां खय.

– मागीर तूं ?

– म्हाजे आनी आतां खंय दीस उल्ल्या. रावतलें खंयीं... पुणून तूं हांगा कसो पावलो?

– रात–दीस म्हाजें मन आनी शिरंतरां तुकाच सोदतालीं. तीच म्हाका हांगा घेवन येयली.

... ...

– बायल–भुरगीं कशीं आसा ?

– खंयची बायल आनी खंयची भुरगीं. सगळी सोपनातूंच उरलीं.

– म्हणजे तुंवूय एकटोच ?

– वान्सास मेल्ली. अदी मदी केन्नाय तूं सोपनांनी येतालें. तितलेंच पुरो जातालें.

– त्याच वडामुळांत काय किदे !

– हय. थंयच आडसाक.

– म्हाकाय तूं असोच केन्नाय थंयच मेळटा. त्याच पयलिंच्या रुपांत. केन्ना–केन्ना तर ख–यानीच घोड्यार बसून राजकुंवरावरी येता.

– तुंवूय अप्सरा कशी भासता. मागीर हांव झेतान घोड्यावयल्ल्यान देवता आनी...

– हय. तसोच वेंगांत धरता...

– तुंवय तीच ओडलायणी, म्होंवाळ वेंग मारता...

उलयतां उलयतां दोगांय एकामेकाक आवळटा. एक जीव जाता. कुडिंतल्या मेल्ल्या जिवांक संजिवनी मेळटा. निश्तेज समदिराक आडयाळी पावशी न्हंय मेळची आनी सुखाची ल्हारां अचकीत मळबांत उसळची तशीं...




# १३

# साणीचो देव

तळपाक पिकलेलें खडयेच्या रुपांतलें भांयर उदेंत्या सुर्याचें कीर्ण जशें दोळ्यांर मारचें तशें कोणाच्या तरी दोळ्यांमुकार चमकलें. आनी मागीर तें भांगर तेपाची भूक भागोवपाखातीर थेरयो रोयण पोखरिता ते वरी तीं पाशाणां उस्तीत आख्ख्या दोंगराक पोखरिलो. माथें धरून पायतळ मेरेन सासपिलो, आनी खंयच्या कोणें कल्लप्पान आपल्या घरांत पयशांचो ट्रक उसपिलो. आनी आतां तर काळ येयला साणीच्या देवाचेर. कदीम काळासांवन त्या देवाक घट्ट काळजाकडेन धरलेल्या काळ्या-किट्ट पाशाणाचेर. त्या पाशाणाचो जिलेटिनाच्या एकाच स्पॉटान पिठो जातलो. आडेकडेचे लोक तेका ज्या भावारतान हात जोडटाले त्या भावारताचो चुरो जातलो. देवाचें देवस्पण सोंपतलें, गांवाचें अस्तित्व विट्टलें आनी आदिमानवान फाटल्यान दवरिल्ली आपली पाशाण-कुरू ना नपयत जातली...

हें येवजीत धाकलो गांवकार रातभर तळमळटालो; करता तो एकूय उपाय फळाक येयना. सांगलेलेंय कोण कांना-मनार घेयना. आदाराक धरलेले तोंडकेच विरगळटा, व्हड-व्हड धूड आपशींच हांयसाक फारवता. हरशी चोवगांखांतीर मुकार सरला, पुणून तेच अक्कल वयर काडटात... तरीय देवाक वाटोवंक जाय.

गांवाचें अस्तित्व सांबाळूंक आपली शुन्य नदर काळखाक तोपीत तो उजवाडाचें कीर्ण सोदतालो.

तशें पळोवंक गेल्यार नवल कांय ना. हेर पाशाणांवरीच हेंवूय एक पाशाण. वयल्या पालसणाच्या धांवारूच आसा. तें पाशाण फोडलें म्हणटकीर एक नंबरी खडयेचे खणीचें दार उक्तें केल्लेवरी जातलें. पुणून त्या तळपाक मनशाच्या रुपांवरी आकृतायो आसात. केन्ना काळार कोणें कोरातिल्ल्यो म्हण देव जाणा. त्याच रुपांनी गांवच्या लोकांचो भावारत घुस्पला. तोच तेंचो राखणदार जाला. एका व्हडल्या साणकशी दिसतल्या तळपाक तो कितलिशींच वर्सां घट्ट धरून रावला आनी लोकानी तेका जिविताचें एक आंग मानून तेज्या पांयाकडेन आपलें मन पुजला. कोणाचो तो राखणो, कोणाचो पायक, संकश्टावगतार धांवन येवपी श्रद्देचो आदार-साणीचो देव.

पुणून आयज तोच देव आदार मागता. आपलें आसतेपण राखून दवरपाक वालो पातलोवन बाबडो जावंन बसला. पुणून तो कोणाकूच दिसना. फकत धाकल्या गांवकाराच्या दोळ्यांमुकार वालो नाचयता. पालवतली वात जशी फडफडटा ते परी थै-थया नाचता.

सकयल्या तोवराचे खणीक आतां बरी खडी मेळना. फोडटल्या कपचेलांचो फकत पिठो जाता. गिरायक मन मारता. अशा वगतार कल्लप्पाक आयतीच उक्ती तळपां दिसली. पुणून अडचण आसली, सणीच्या देवाची. गांवच्या भावारती लोकांक दुखोवन जावंचेना हें तो जाणा आसलो. पुणून आयज तेजेकडेन पयसो आसा, उतराक पाळो दिवपी अधिकारी आसात. तेणेंन ताडलें; गावांत दोग म्हाल गांवकार आसात. तेंचें दोगांयचें उतर घेतलेबगर मुकारलें काम जावंचेना. शाणू गांवकाराक अशें-तशें करून थातारूंक येत. पुणून मधू गांवकाराक कसो समजायतलो. तो तर उपसरपंच. शिवाय दोग शिकलेले पूत आसात. बापूय तयार जालो तरी ते आडमेळी हाडलेबगर रावचेना. पुणून हात पांगरून मिश्श्यांक पीळ दीत बसल्यार तो कल्लप्पा कसलो ?

दोन दीस बरें येवजून मनांत एक आराखडो तयार केलो. कोणाकोणाक मेळून वयलेचारान लोकांचे मत जाणून घेतलें, आनी एक विचार घेवन बद्द मधू गांवकारागेर गेलो. सरळ विशयाक हात घालचे परस तो आयल्यो-पयल्यो गजाली करपाक लागलो. वेचणुकेच्या खबरांची याद करून तेका मातसो उमेदीर हाडलो, आनी संद पळोवन आपल्या दिसना अशा ग-याक हांसय लावन आपल्या प्रस्नाचो तांवस मुकार चलयलो-

" दादो, ही गांव आतां बरीच सुदारल्या. रस्ते जाली, उदक येयली, लायट बी सगळ्याक पावली. गांवाचे खूब भुरगे शिरविशेक लागली, घरांची सुदारणां जाली, लोकांकडेन पयसो येयली आनी तुमची धाकलो वकिली शिकता. ही सगळी तुमकां लागून घडटा.

दादो, खरीच आमकां तुमची खूब खूब अभिमान. हांव तुमची केन्नातरी मोठ्ठी सत्कार करतली.'' पुणून अचकीत तोंड वाकडें करता आनी मुकार म्हणटा, '' पुणून तुमची व्हडल्याची धंदो बरो ऽ लायनीर येयना.''

'' हय. हांवेन सांगलेलेंच तेका. दुकान घालचे परस बरिशी शिरवीस पळय म्हण. पुणून तेन्ना आयकोलोना.''

'' पुणून आजून वेळ खंय गेली ? ती जर मनार घेता, तर म्हाका आदार करूंक उमेद जातली. भुरगो बी आमची आनी गांवकार बी आमची !'' कल्लप्पाच्या ह्या उतरांचेर गांवकार तेका कसलो आदार काय म्हण पळयतूच उरलो.''

तें पळोवन कल्लप्पा मुमुरकोच हांसलो, ''तशी म्हाजी खडिची धंदो बरी चल्ल्या. आतां डिमांड बी खुबूच वाडल्या. कामाक आनी दोन ट्रक चलतली पळय. व्हडल्याक विचार, एक ट्रक लायता काय म्हण.''

तें आयकून गांवकार बेजारलो,'' आमच्या नशिबान खंयचे ट्रक. ताकुनाका तें.''

तेन्ना तेजी तीं उतरां तोडीत सट्ट करून कल्लप्पा उलयलो, ''दादो, हांव आसतना तूं किद्याक भिता ? ट्रक घेवपाक भांडवल कशी उबी करपाची ती म्हाजेर सोड. तुमी फकस्त 'हय' म्हणपाची आनी कामाक लागपाची...''

तेज्या अशा उलोवण्यान गांवकार वांगडाच भुल्लुसलो. हें कल्लपान वळखलें आनी आपल्या उतरांनी गोडसाण हाडीत तेका आपले गरयेन इल्लो इल्लो फारवयलो. आनी तो तांवस एका मोठ्ठ्या खोडाक बांदून हांसत्या पोटान चलत रावलो.

हेवटेन गांवकाराची खेरिदूच उमेद जागी जाली. वेळ होगडायनासतना तेणेन आपल्या पुताक मेळून गजाल कांनार घातली. तो तर असलीच पात्रांव जावपाची सपनां पळयतालो. गजाल आयकून तेजीय उमळशीक वाडली. कल्लप्पा आतां तेंचो साक्षात स्वामी जाल्लो. तेजेखातीर ते आतां किदेंय करपाक तयार आसले.

कल्लपान आपली गाडी शाणू गांवकारावशीं घुंवडायली. तेजे नाडयेची तेणेन पयलींच परिक्षा केल्ली. तेका जें किदें वखद-पाणी लागतलें तें तेणें योग्य रितीन पावयलें. आनी हेरांक मेळून एक एक गणीत सोडयत रावलो. कोणाक सोरो, कोणाक पयसो दिवन जाल्यांर कोणाचें अडचल्लें काम करून सगळ्यांक आपल्या मोयपासांत घुस्पावंक लागलो. कारण मुकार तेका कसलीच आडखळ येवचिना हेची तो खबरदारी घेतालो. पुणून खरेपणी आपूण किदें करपाचो आसा हेची कोणाकूच सुलूस लागूंक दिनासलो लोक मात उलयताले,

'फुडले वेचणुकेंत कल्लप्पाबगर कोणाकूच चान्स ना.''

तशे सगळेच जाण पिशे नासले. तेजो दोळो किद्याचेर आसा तें रोखडेंच पारखिलें. पुणून तेका आडोवपाक कोणाकूच धीर नासलो. कोनशा-कोप-यांनी चलतल्यो गजाली कल्लप्पाच्या कानार पडपाक कळाव लागलो ना. तसो तो पयलींच सादूर आसलो आनी उसळटल्या लोकांक आपली बाजू ऋशेतरेन पटोवन सांगपाक जाय हेचीय तेणें तयारी केल्ली.

खंय उजो धुंवरेता हेची पळोवणी केली आनी समती तेणें ते पल्लेंत उडी मारली. तसो तेजो धाक उणो नासलो. तो भायलो जावंनय तेजो त्या वाठारांत अधिकार चलतालो.

अवचीत तेजी पल्लेंतळी उडी पळोवन धुंवरेतली लाकडां आपशीच पयसावली. तेन्ना तेजो नेट वाडलो. हरशी आदी आंग भंयान थरथरतालें, आतां आपशींच फुल्लें. तोंडातल्यान उतरांय तशींच भायर सरपाक लागली-

"तुमच्या मताच्या इरुध्द हांव कांयच करचिना. तुमची देव, तोच म्हाजी देव. शिव. शिव. शिव."

"पात्रांव, आमी किदें म्हणटाले जाणां, साणीचो देव म्हणल्यार आमच्या गांवचें व्हडपण. आतां तोच उरचोना जाल्यार गांवचें गांवपण मागीर खंय उरतलें ?" एकट्यान नेट भायर काडलो.

तेन्ना कल्लप्पा एकाच पोल्यान हांसलो आनी बाकिच्यांक पळोवन वगीच रावलो.

"पात्रांव, आमकां पाडव्याक धरून शिमग्याक मेरेन तेज्या पायांकडेन देवस्पण आसता. तेका उलो केलेबगर आमचें एकूय काम जायना. मागीर..." दुसरो एकटो काळजांतलें उलयलो.

"आरे. ती किदें म्हाका खबर ना. देवाक दुखयली जाल्यारी आमकां पाप लागतली. आमी देवाक दुखोवपाची ना. तिका खूश करपाची."

"हय पात्रांव, त्याच खातीर आमी थंय एक बारिकशी घुमटी बांदपाची येवजिल्या."

"आनी हांव बी तीच म्हणटा, घुमटी किद्याक एक बरी देऊळ बांदुया. जी किदें खर्च जातली ती हांव करतली..." अशें उलोवन कल्लप्पान सगळ्यांच्या काळजांक हात घातलो आनी तेंच्या मनाचो थाव घेतलो. सगळ्यांची मना उमेदीन उफेताली. तें पळोवन

तेणेन आपली खरेली चाल चलयली–

" पुणून, किदें आसा जाणां, आतां जी देवाची जागा आसा, ती सामकी अडचणिची आसा. देवतीच्या दोंगरार. थंय भुरग्यांकी, बायलांकी वचपाक खूब्ब त्रास जाता."

" त्रास जाता खरे. पुणून आमच्यानी रस्तो करूं येता न्हू !"

" कांयच गरज ना. आतां जी सकली रस्तो आसा तेची आमी फायदो करून घेवपाची."

" म्हणजे, आमी समजुना !"

" आरे, म्हाका सांग, शिमेगाळीत म्हारवाची घुमटी खंय बांदल्या ?... रस्त्याचे कुशीक. पुणून तेची खरी जागो खंय ?... दोंगराच्या माथ्यार. आनी आतां तिका लोक मान–पानाची विडी–काडी दोंगरार दवरिना, तर ते घुमटेंत दवरता. तिका ती सगळी पावता."

" तशें न्हू, पात्रांव. पुणून ..."

" आरे , दोंगराच्या देवाक लोक केन्नाच विसरली. आतां ती लोक, ती घुमटिची देऊळ करपाची आसा. आमी बी तशीच करपाची म्हणटा. साणीच्या देवाची एक बरी देऊळ बांदपाची."

" पुणून देवाक हालोवपाचो म्हणल्यार..."

" तेची बद्दल हांव गांवकार आनी भटाकडेन बी उलयला. ती दोनी मान्य आसा. आतां तुमी मान्य जाय. पळय, देव गांवांत आसल्यार तेची बरी सेवा जातली. रानात कोण वयता?"

अशें किदें तरी लोकांक सांगून तो देऊळ बांदपाच्या वावराक लागलो. हरशीं लोकांची मान्यताय मेळुनासली. पुणून ती मेळना जाल्यारय कशी मेळोवपाची हें तेका बेस बरें खबर आसलें. तसो तेजो अणभवय आसलो. अडचतली कामां कशी आनी कोणाकडल्यान करून घेवपाक जाय, खंय कितलें उदक मुरता आनी कोण कितलेमेरेन शेपडी बडयतले हेंचोय तेणेंन अदमास घेतलेलो. आतां फकत कामाचो नाल्ल फोडपाचो उरलेलो.

मधू गांवकाराच्या व्हडल्या पुताक तेजी ही करणी पटनासली. देवाचें रागणें पडटले, देव–देवस्पणाक अर्थ उरचेना अशें तो म्हणटालो. तरीय कल्लप्पाक विचारपायितलें धाडस नासलें. शिवाय तेणेंन तेका ट्रकाचीय आस्त दाखयल्ली.

पुणून तेज्या धाकल्या भावाक कल्लप्पाची ही करणी निखालस मानवनासली. साणीचो देव म्हणजे भारतीय इतियासाची गवाय. कितलिशींच वतां आनी पावसाळें झेलपी एक दिर्घा अशेतरेन पयशाचे आशेन काबार करपाक तो कसोच तयार नासलो. त्या खातिरूच तो तळमळटालो. गांवच्या तरनाट्यांक समजायतालो. देवस्पण सांबाळपी गांवकारांक साणीच्या देवाचें व्हडपण पटोवन दितालो. घरचो-वैरी असो कोणाकूच पळय नासतना गांवचे व्हडपण राखून दवरुपाक जातली चूक नदरेक हाडून दितालो.

'हय-ना, हय-ना' करीत लोकांक तेजें म्हणणें पटलें. भावा-बापायकय आपली चूक कळ्ळी. आतां सगळेच तेज्या सांगण्यान चलपाक तयार आसले. जणूं काय आडे-कडेच्या सगळ्या लोकांक तेणेंन उठाव करपाक तयार केल्ले. प्रत्येकाक दिसताले, आतां कल्लप्पाच्यान साणीच्या देवाक हात लावंक जांवचेना. धाकल्या गांवकाराचें बंड फळादीक जातलें.

पुणून कल्लप्पा किदें हात पांगरून बसपी मनीस ? तो पयलीच सादूर आसलो. किदेंतरी थारावन, आपल्या कांय मनशांक घेवन तो बद्द मधृ गांवकारागेर गेलो. दारांत येयल्ली तेजी गाडी पळोवन गांवकारय नेटान रावलो. कितलोय जाल्यार उपसरपंच.

कल्लप्पा समतेंच उलयलो, "दादो, ही बँकेची मॅनेजर. तुमची प्रापजल पास जाली म्हूण सांगपाक यिला. चेड्याक मातशी भायर आपय !"

तें आयकून गांवकार सामकोच गडबडलो. मागीर किदेंतरी येवजून म्हणपाक लागलो, " पात्रांव, ट्रकाचें मागीर पळोवया... पुणून साणयेकाराचें अप्सरण आमकां घेवपाचें ना. देवा- देंवचारांक दुखोवन आमी किदें खातले ?"

" पळय, पळय गांवकार, मातशी विचार कर."

" हेजेर आनी दुसरो विचार ना !"

" जाणां हांव, ही तुज्या धाकल्या वकिलाची तकली. सगळी लोकांक तीच फूस लायल्या. पुणू तिका खबर ना. फाल्यां तेजी फाटीक कोण आसचिना. तो गांवकार आसत. पुणू जमीन म्हाज्या ताब्यांत आसा. म्हाजेकडेन सगळी कागद-पत्रां आसा. हें तुका बरी खबर आसा. हांव पुलीस दवरून काम करतली. म्हाका कोण आड येता ती पळयता. ही, हीच तुका सांगपाक हांव मुद्दाम यिला. आतां मुकार किते करपाची ती तूंच थारय!"

कल्लप्पाची हीं सणसणीत उतरां आयकून गांवकाराच्या कानांत तेल

ओतलेल्यावरी जालें. तेजो नेट वांगडाच देवलो. तेका किदेंय सांगतलो म्हणल्यार तोंडांतल्यान उतरूच फुटना जालें.

तेन्ना कल्लप्पा किदें समजुपाचें तें समजलो, " ही पळय दादो, हांव तुजीच अशें समज. आनी सारकी विचार करून चेड्याक बँकेत धाडून दी. " अशें म्हणत नेटान येवन गाडयेंत बसलो.

सांजेच्या वगतार धाकलो येयलो. पळयल्यार घरांतलें मत बदल्लां. तेजें कोणूच आयकना. तो तसोच भायर सरलो. जायत्या जाणांक मेळ्ळो. पुणून वयल्यान ते तेका सांगपाक लागले,

" अश्यो तळपा साणी आसता कितल्यो. तेंकाय आमी देव मानपाचे ?"

हे अशे बदलल्ले तेंचे विचार आयकून तो लिपूच अजापलो. अशें अचकीत किदें जालें तेंच तेका कळना जालें. तेणेन जायतें समजावन सांगलें पुणून कोणूच आयकुपाचे मन:स्थितीत नासले. वयल्यान तेजे शिकतले वकिलीची फकाणां मात केली. तें पळोवन तो लीप निर्शेलो...

बरीच रात जाल्ली. तसोच येवन जेविनासतना हातरुणार पडलो. जीव तळमळपाक लागलो. दोळोय लागना जालो. मातशे दोळे धांपले, तेन्ना तळपार शांत वणकल्लो साणीचो देव जिलेटिनाच्या स्पॉटान कुडके कुडके जावन पडटलो म्हण तेका उलो मारतालो. पुणून हो निर्बळ जाल्लो. हालुंकय जायनासलें. हात-पांय, शिरंतरां घट जाल्ली. तेन्ना तसोच नेट केलो आनी उठून बसलो. सगलें आंग थरथरतालें. घामाच्यो पावळ्यो देंवताल्यो. आंग थंड पडटालें.

तरी लेगीत तेणेन धीर सोडलोना. मुठी घट्ट आंवळून आपली निश्चेवी नदर काळखाक तोपीत तो आशेचें कीर्ण सोदतालो. पुणून त्या काळखांत फकत घुस्पागोंदळाची चक्रां घुवंताली. इल्ल्याश्या पयशान सगळ्यांकूच गुलाम केल्ले. वाचाच बदलून उडयल्ली...

रात सोपतां सोपतां तेका एक अचकीत उजवाडाची कुरू दिसली. तशें आंगात हतयाचें बळ येयलें. शिकतली वकिलीच आयज तेका पावूंक शकताली त्याच नेटान कोंब्यासादार उठलो. बरें थंड उदक न्हालो. आनी देवाचें नांव घेवन समतो पुस्तकांचे आरमारीक हात घातलो...



**रामनाथ ग. गावडे** (M.A.) मोलें-गोंय
जल्म - १९ मार्च १९६९, उडी-उजगांव

प्रकाशीत साहित्यः
**सावळ्यो** (कथा)
**शितळ गंगेचें ल्हार** (नाटक)
**सदू** (बाल नवलिका)
**युवा कथा** (कथा)

## प्रस्तावनेतल्यांन -

गोंयची गांवगिरी जीण जशी जियेता तशी बरोवपी जे खूब थोडे कथा लेखक कोंकणींत आसात, तांतूत रामनाथ गावडे ह्या नांवाचो आसपाव जाता. रामनाथालो हो दुसरो कथां-झेलो. 'सावळ्यो' ह्या पयल्या संग्रहाचें खूब कवतूक जालें. हेमाड लोकांच्या जिविताचें, तांच्या चाली-रितींचे, भावकेचें, अंधस्त्रध्देचें आनी सुखदुख्खांचें जितें जिवें चित्रण पयलेच खेपेक इतले प्रभावी तरेन मांडिल्लें पळोवंक मेळ्ळें...

सवणी-सुकणी, मोनजात आनी रुखावळ हांचेलागी रामनाथांतलो कलाकार खूब लागशिल्लें नातें जोडून आसा...

रामनाथ आतां परिपक्वतेचे दिकेन चलूंक लागला. सर्जनशीळ साहित्यकार म्हूण जिणेकडेन तटस्थतायेन पळयतना नव नवे सत्याविष्कार ताका घडूंक लागल्या...

कोंकणी कथेच्या फुडाराचो हुस्को पयसावपी 'उतळ जीण' हो सुंदर कथां-झेलो कोंकणी सरस्पतेक ओपिल्लेखातीर रामनाथाक काळजाथावन परबी.

**- दामोदर मावजो**